# "जिवीत शिल्प"

बरोवपी
राम कामत

पयली आवृत्ती :
जुलै २००५

अुजवाडपी :
डॉ. आदित्य कामत
कामत बिल्डींग,
४८१, वीर सावरकर मार्ग,
प्रभादेवी, मुम्बय ४०० ०२५.
टे. : २४२२ १३३८



मुखचित्र :
आदि

छापपी :
श्री. अनंत मुणगेकर
साईशक्ती
वीर सावरकर मार्ग,
प्रभादेवी, मुम्बय - ४०० ०२५.
टे : २४२२ १०१७

मोल :
१०० रुपया

# मांडावळ

# “काळजा अुतरा”

“जिवीत शिल्प” हे आत्मचरित्र म्हज्या बापायन म्हळ्यार, भारताचो जगविख्यात शिल्पकार “राम कामत” जांका आमी भुरगी “पापा” म्हण्टाली, ताणें ते १९८० न बरोंवक घेतले, आनी सोपयतासर १९९४ वर्स जाले. पयली तो आत्म चरित्र बरौंवक तयारुच नाशिल्लो, पूण हांवच ताज्या फाटल्यान लागलो कि तुजी जिवनकथा आमका सविस्तर कळपाकूच जाय, आनी ती तुवें स्वतःच्या यादिन बरोंवन काडोप खरें मोलाचे.

चड विस्तारान ताका तें बरोंवक जातले, किद्याक तशें पळयल्यार ताज्या आयुष्यान आनी खुबुच घडामोडी घडल्यात पुण त्यो ताणें आपल्या स्वभावा परमाण संक्षीप्तान बरयल्यात. ताका आपल्या व्हडपणाचें अवडंबर करपाक केन्नाच आवडनाशिल्लें. आपले नांव ताणें केन्नाच आपणे केल्या शिल्पाचेर घालू ना. आबे फारिया, शिवाजीचो अश्वारुढ पुतळो बरेच लोकांनी आपल्या नांवार काडला. पूण ताका ताजी केन्नाच खंत नाशिल्ली. ताजे मतान शिल्प सुंदर घडपाक जाय. किद्याक फुडलें पिळगीकूय ते शिल्प आवडूक जाय. शिल्पकार कोण ताका व्हड म्हत्व ना. मजा म्हळ्यार पापान ह्या आत्मचरित्राक नांवूय दिवंक नाशिल्लें वो ते बद्दल दोन अुत्तराबरोवक नाशिल्ली म्हण्टकीर योग्य तेंच नांव दिवप तशेंच दोन अुत्तरा बरोवपाचेय बी म्हजेर आयले, वाचपांक ते बरोवप योग्य दिसचे म्हण मागता.

आत्मचरित्र सोपवंपाक पापा चौदा वर्सां लागली. मदीं मदीं शिल्पा करपाची कामा मेळत गेली, मदीं मदीं ताज्यो अमेरिका, जर्मनीच्यो वाऱ्यो जाल्यो आनी प्रकृतीस्वास्थाक लागूनूय वेळ लागलो. मात जेन्ना जेन्ना आवडीच्या गोंया वची तेन्ना तेन्ना ताका थंयच्या तांबड्या माती वास्तान आनी निर्मळ वातावरणान बरोंवपाचें स्फुरण येअी. पापाचे अक्षर मुयें अितले ल्हान. आनी यादी जाता तशें तो तातूनूच मुंगरुन बरयतालो, चुको सुदारतालो, म्हण्टकर म्हाका ताजे शुध्द

लेखन करचे म्हळ्यार अेक दिव्य कार्य जाले. ताज्या जाण्ट्या वयान बारिक वाचोप ताकाच न्हीं जाल्यार म्हाकाय चड कष्टाचे पडटाले. तांतून वर्सा वता तशी पानाय म्हातारी जाली आनी म्हज्या आवयच्या हाताचे चविष्ट पदार्थ पापान आपल्या वांगडा पानाकूय खावयले. ते तरेतरेच्या रंगाच्या शिगमो खेळील्या पानावेल्यान परते परते शुध्द लेखन करपान वेळ कसो गेलो तो कळ्ळोच ना.

पापाची जन्मशताब्दी हे जुलैच्या तिस तारखेक सोपता. म्हण्टकिर कशेंय करन आत्मचरित्र अुजवाडा हाडपाचो यत्न हांवे ताकतीकिन केला. तेन्ना तांतूर चुको अुरपाची शक्यता आसा. पुस्तकांन ताणें केल्या कामाची चित्रा छापपाची खरी, पूण वेळ नाशिल्यान हांवे मुखेल पानार ताजी नांवारुपाक आयिल्ली शिल्पा चितारपाचो यत्न केला. पापा आमका २००० वर्साच्या माय मयन्याच्या पंचविस तारकेक वयाच्या शात्रव वर्सा सोडून गेलो. आयुष्यभर हिसबाभायर कष्टाचे काम केल्यान तो सेन्चुरी (शंभरावी) गांठू शकलोना, पूण २००० वर्साचे मायलेनीयम वर्स ताणें पळयलें. निमणे मेरेन ताणे शिल्पा करपाचे सोडले ना. तो कर्मवीर आशिल्यान वयाच्या चौवऱ्यांशी, पंचाअैंशीं वर्सां लेगीत ताणे पंडीत जवाहरलाल नेहरुचो चौदा फुटाचो पंचधातून पुतळो करन बेंगळोरच्या विधानसौदार बसयलो. आयच्या आनी फुडल्या पिळगेच्या भुरग्यांनी ताजेकडल्यान खुब किंदे शिकपा सारखें आसा. हे आत्मचरित्र वाचून तांका अुमेद अेवन तेवूय ताज्या चरित्राबशेन वागत जाल्यार हे आत्मचरित्र बरोवपाचो आनी अुजवाडा हाडपाचो यत्न फलरुपाक आयलों म्हणपाचो.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हे गोयंचे थोर कवी आनी पापाचे आनी म्हजे स्नेही, तरीय कामाच्या आनी प्रकृतीच्या त्रासान वेळ काडून ताणी मुजरत मोलाची प्रस्तावन दिल्या, तेखातीर तांचो हांव ऋणी आसा. तांका कोंकणीची आनी चड सांस्कृतिक सेवा करपाक दिर्घायुष्य मेळू म्हण देवालागी म्हजे मागणे. तशेंच श्री. अनंत मुणगेकर हे साईशक्ती प्रेसचे मालक हांका साबासकी दिवंक जाय, किद्याक कमी दिसांनी ताणी ते छापून हाडपाक बरीच मदत केल्या.

'जिवीत शिल्प', गोवा कोंकणी अकादमीचे आर्थिक पालवान अुजवाडा हाडपाक खुब लोकांनी म्हाका सांगले. खरे म्हळ्यार अेदे व्हड नामनेच्या मनश्याचे आत्मचरित्र ताणीं छापपान खरें व्हडपणा आशिल्ले. पूण बापायन १९६० सून बरयल्ली दोन वैचारिक लिखाणा, "विश्वाची आवय" आनी "जिती माती", चार पांच वर्सा पयली, पुस्तक रुपान हाडपाक हांवे गोवा कोंकणी अकेडमीक दिल्ली. पूण आयजमेरेन तेविशीं तांणी म्हाका कांयच कळवंक ना. म्हजेय पयले कोंकणी कवितेचे पुस्तक "गोयंचो परमळ" छापपाक ताणी म्हाका चड वर्सा लागतली म्हण सांगिल्ले. म्हण्टकीर चल्याकूच बापायचे आत्मचरित्र छापपा बगर आनी अुपाय नासलो. आयज ते तुमच्या मुखार दवरता. तुमका ते मानवतले हाजी म्हाका पुराय खात्री आसा.

डॉ. आदित्य कामत, मुम्बय
१७.७.२००५

# जिवीत शिल्प - एक स्मरण

गोंया जायते चित्रकार, साहित्यकार, नट, गायक जावन गेले. पुण गोंयचो शिल्पकार कोण म्हणून कोणेंय विचाल्ल्यार एकूच एक नांव मुखार येता. तें नांव म्हळ्यार रामचंद्र पांडुरंग कामत हांचें. दिल्लीचे एक प्रतीक म्हळ्यार कुतुबमिनार, मुंबयचे एक प्रतीक म्हळ्यार गेटवे ऑफ इण्डीया, पारीसचें एक प्रतीक म्हळ्यार आयफेल टावर, तशेंच आमच्या गोंयचे एक नामनेचे प्रतीक म्हळ्यार आबे फारीय, हाजो पणजेच्या पालासेक तेंकून आशिल्लो पुतळो. शिल्पकार रामचंद्र पांडुरंग कामत हाणी केल्लो.

रामचंद्रबाबन फांतरांत आपलो जीव ओतून जायत्यो शिल्पकृती घडयल्यो. आतां ही तांची निमाणी कृती, एक साहित्यकृती. आपलो सगळो जीव ओतून ताणी हे उतरांचें जिवीत शिल्प घडयला. हें तांचे साहित्य शिल्प; फांतरांतले शिल्प गाठेल्ले - सुंदर पुण थंड, उतरांचे शिल्प हें जिते जिवें चलते भोंवते. रामचंद्रबाबक आपल्या निमण्या वर्सांनी उतरातल्यान शिल्प घढोवचें दिसले, हें उतरांचे व्हडपण.

"जिवीत शिल्प" ह्या रामचंद्रबाबाच्या आत्मचरित्राक हांवे प्रस्तावना बरोवची अशी इत्सा ताज्या पुतान आदित्यान परगटायली. हांव कलाकार - शिल्पकार न्हय. त्याभायर रामचंद्रबाबाक लागशिल्ल्यान वळखपी अशे जायते जाण आसात, मागीर दिसलें ही एक साहित्यकृती आनी हावेंय धव्याचेर थोडें काळें केलां. "हां" म्हळे. अेघ्या व्हडल्या गुणेस्त, प्रतिभावंत कलाकाराचे आप-जीण प्रस्तावना बरोवंक मेळ्टा हे केदें व्हडलें भाग्य !

हांवे लागच्यान रामचंद्रबाबाक वळखना अशें म्हळें. तरी वळख़पांक, मनशाची वळख जावपाक वर्सां नाका, एक वर पुरो. आनी वळख करपाक म्हाका संद मेळ्ळी ती मुंबय आसतांना. कवी बयाभाव (भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक) हांच्या तोंडातल्यान हांवे शिल्पकार कामतीची खूब तोखणाय आयकल्ली, पुण तांचे लागी रावपाची म्हाका कांय वर्सांफाटी संद मेळ्ळी. तो हांगा गोंया

आयला हे कळ्ळें तेन्ना गोवा कोंकणी अकादेमीच्या वांगड्यांनी ताका मेळपांचे थारायले. फोंडेच्या तांच्या फ्लॅटांत हांव गेला. सगळो वेळ तांच्या सांगातांत काडलो. तांची मुलाखात घेतली. ती केसट अजून म्हजे लागीं आसा. येदो व्हडलो मनीस पूण कसलेंच व्हडपण ना, आव ना, झेत ना. न्हादो सरळ. मनांत आयलें तशे सांगपी. सादेपणांतूच मनश्याचें खरें व्हडपण दिस्ता.

तेदूस एका गोंयकारान म्हाका एक खबर सांगली. एकदा खंय रामचंद्रबाब बोरये गेल्लो. ताणे थंयच्या लोकांक विचाल्ले, "बाकीबाब बोरकाले घर खंय आसा?" कोणाक खबर ना. तो खेद परगटायतालो असो, "आमकां गोंयकारांक व्हडल्या गोंयकारांचीच वळख ना. बोरयेचोच लोक बागीबाब बोरकार ह्या गोंयच्या व्हडल्या कवीक वळखनात आनी गोंयच्या एका शिल्पकाराक वळखनात. दोळो धांपून "हांव कोण, हांव कोण" अशें म्हणून मनश्याक आपलो आपणाक वळख जायना. मनशाक आपली वळख आपल्या वावरांतल्यान, आपल्या कलाकृतींतल्यान जाता.

रामचंद्रबाब आपलेच जिणेकडेन पळेता आनी आपल्या आपणाचेर बरयता. हेर साहित्यप्रकारांत आत्मचरित्र हो प्रकार बरोंवक कठीण. सत्यवत्तो जांवक जाय. प्रांजल जांवक जाय. लज भीड धरीनासताना सगळें सांगूक जाय. श्री. रामकृष्ण म्हण्टात, 'TRUTH IS TOTALITY", आनी आपल्या आपणाकडेन पळोवप कठीण. आपल्या शरीरांतल्यान भायर वचून आपणाकडेन पळोंवचें पडटले. हो एक तरीचो आध्यात्मिक वावर. रामचंद्रबाब आपल्याकडेन पळेयता, निवळ नितळ नदरेन. पारदर्शक अश्या कंवचेंतल्यान.

फांतराचे शिल्प म्हळ्यार एक "गोठेल्ली खीण" एक "POSE". पुण आत्मचरित्र म्हळ्यार हजारांनी खीणांचे, व्हांवत्या खीणांचे गांठवल. आनी त्या खीणांचे चित्रण उतरांच्यान जाता तशें आनीक खंयच्याय माध्यमाच्यान जायना. आत्मजीण बरोवप्यामुखार खंयचे खीण वेंचून काडचे ताजेर विचार करचो पडटा.

जणंत सगळेंच म्हत्वाचें. रामचद्रबाब ह्या वावरात चड घुस्पना. ताका जशें दिसता तशें तो बरयता. मागीर तो खोण चड म्हत्वाचो आसूं, उण्या म्हत्वाचो आसू. देखून ह्या चरित्रात जिविताची "TOTALITY" दिस्ता, जिविताचे जितेपण दिस्ता, विविधताय दिसता.

मनीस जेन्ना एक शिल्पकृती घडयता वो एक कसलीय कलाकृती घडयता तेन्ना तो त्यावेळार आपणाकूय घडयता. खूब लोकांनी रामचद्रबाबाक हो प्रश्न विचाल्ला जातलो. "तुमी इतल्यो शिल्पकृती घडयल्यो, तुवें तुजे तुका कसो घडयलो?, ह्या आत्मचरित्रात ह्या प्रश्नाक फाव ती जाप मेळ्टा. जिवीत हेंच एक शिल्प. देवान आमकां मनीस जातीन जल्मांत घालें, तरी जिविताचें शिल्प आपणें घडोवचें पडटा. घड घालून ताका आकार दिवचो पडटा, ताका परतून तासून नवें रुप दिता. आपणें आपणाक कसो घडयलो ताजे ते जिवें चित्र ह्या पुस्तकांत मेळ्टा. फ्रेंच बरोवपी जाजाक ससो म्हण्टा, "L'IDEAL L'EST LE PLUS GRAND SCULPEUR DE CARACTERE' (IDEAL IS THE GREATEST SCULPTOR CHARACTER) "आदर्श हो आमच्या जिविताचो सगळ्यांत व्हडलो शिल्पकार".

रामचद्रबाबाक, आदर्श खंचचो आसलो, ताज्या मनांतलें सपन किदें आसलें, ह्या पुस्तकात आदर्शामेरेन पावपाची सतत धडपड, आपल्या सपनाक साकार करपाक जाता तितलो त्याग करपाची तयारी ही दिसता. गरीब घराण्यांत जल्म, भुरगेपणापासून चिता काडपाची, मातयेंतल्यान मूर्ती करपाची आवड. मडकयच्यान पणजे, पणजेंच्यान वेंगुर्ले, मागीर मुंबय, मुंबयच्यान लंडनाक हो सगळो प्रवास ताणी हांगा वर्णिला. हे पुस्तक म्हळ्यार एक मनाचो प्रवास. तो प्रवास आमी वाचपीय तांचे वांगडा करतात. हो जगाचोय प्रवास. गोंयच्या एका ल्हानश्या गावातलो एक धाकटुलो गरीब भुरगो आपलो इत्साशक्तीच्या नेटार आपलें सपन साकार करता ही एक काणी स्फूर्त दिवपी. एक कादंबरीपरस ही खरी कथा मन भुलोवपी. कल्पनाशक्ती जागोवपी, आनंद भरपी.

एका व्हड मनशाचें हे आत्मचरित्र आमकां च्रड मोलाचें. तांतूत आमका जिविताच्या सगल्या आंगांचें जितें जिवें दर्शन जाता आनी जसो एक दिवो दुसरे दिवे पेटयता तशें हे चरित्र तुमच्या आमच्या सारकिल्ल्याचे जिवन घडोवपाक प्रेरणा दिता.

हे आत्मचरित्र म्हळ्यार आत्मगौरव न्हय. तर एक आत्मनिवेदन. रामचंद्रबाबान ही एक साहित्य कृती म्हणून बरोवंकना पुण आमच्या मुखार आपल्या जिविताचो हारसो दवल्ला. साबार मनशांचो हारसो दवल्ला. "तमसो मा ज्योतिर्गमय" उतरांच्या आदारान केल्लो, काळखातल्यान उजवाडाकडेन वचपाचो हो येत्न. लॅटीन भाशेंत एक उत्तर आसा. "PER ARTEM AD LUMEN", THROUGH ART TOWARDS LIGHT", "कलेच्यान उजवाडाकडेन वचपाचो." शिल्पकार कामतीचें जिवीत म्हळ्यो एक प्रयत्न. हे पुस्तक म्हळ्यार एक चित्र-प्रदर्शन. जित्या जिव्या मनशांची चित्रा. आवय, आजी, भावभायणी, शिक्षक, इश्ट-मित्र. एक साहित्यकृती म्हणून रामचंद्रबाबान हें पुस्तक बरोवना. पुण साहित्याचे सगळे गुण हांतूत होल्मतात. भाशेचें सादेपण, शैलीची गती, विचारांची पारदर्शकताय. ह्या पुस्तकांत आमकां रामचंद्रबाबांचे चित्र उबें रावता. एक नवो इश्ट जोडिल्ल्याचो आनंद जाता. दोळे दिपकावपाक बरयल्ली जिवीत - कथाच न्हय तर कळचें म्हणून बरयल्ली. तर ह्या पुस्तकांतल्यान आमकां मनीस स्वभावाचें दर्शन जाता. फाटल्या गोंयची वळख जाता. ह्या पुस्तकांतल्यान दुसऱ्यांक उपदेश करीना. उपदेश करपाचीय गरज ना. व्हडल्या मनशाच्या जिवितांतल्यानूच आमकां उपदेश मेळ्टा.

रामचंद्रबाब आमचें मदीं आशिल्लो जाल्यार ताका रोखडींच शंबर वर्सां जावपाची. पुण ताज्या कलाकृतींनी तो आमचे मदीं आसा आनी जाचे स्मरण जाता ताका मरण ना. ताज्यो कलाकृती जश्यो खोस-दिण्या, तशीच ताची जीण स्फूर्त-दिणी.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

# "जिवीत शिल्प"

बरोवपी : राम कामत

परशुराम दर्या प्रत्यक्ष पैस थावणावन जमिन केली म्हणपाचे पुराणांत वाचूंक मेळ्टा ताजे प्रत्यंतर मडकय, नेवरं, कुंडय आनी रायची शेवोंड पळेतकर गमता. बाकिचेय गावानी म्हळ्यार बार्देस बी आसात दरेक गावान न्हयांक आनी दर्याचे देगेर बांद घालून खळ्यानी अुदक भायर भितर सोडपाची क्रिया शेताक केल्या, त्येवेल्यान परशुरामान दर्या आटयलो म्हणपाचे निखालस खरे मानपाक येता. भाताची शेतांच न्ही तर माड, माड्यो, आमे, काजू, माडी, भींडी, पणस, भेळसा, करवंदा झाडांनी हो वाटार वसयला. त्ये भोवच आदल्या दोन-तिन हजार वर्सा पयली वसयल्यात म्हळं सामके सांगपाक हाव नकळो, पूण त्या अदमासार हे जाला आसू जाय. परशुरामान आपणा वांगडा काय बामणाक ह्या कामाक वावरुक लायला जायत. बाणावली म्हण्टा थै परशुरामान बाण माल्ला अशी गजाल आयकपान आसा.

आमचे मडकय गावात तरतराची फळफळावळ जाता. हो गांव म्हाड्डोळच्यान तिन चार मैल वो पाच स किलोमीटर आसा. वाकडी तिकडी वाट शेंतातल्यान, डोंगरातल्यान वाट काडीत मडकय गावान पावता. वसंत ऋतूंत तशेंच पावसा अुप्रांत वायगणा नी सर्द मेळत दोन पिका जातात. तो गांव म्हळ्ळो मडकय गांव. मगेले भुरगेपणांत माडमाडयो, आम्या गॉफा, काजू रोयताले आनी वर्सा दोन पीका काडटाले. मात शिकपी लोक साबार अुणे. भुरगे शाळेन साप कमी वताले. मात खेळान, दांडगायपणान गांवातले ल्हान व्हड भुरगे फुडे आस्ताले. मारामाऱ्योय, झंगर्डीय खुब जाताली. पूण मडकयची आजताय लेगून मजा म्हळ्यार भायलो कोणुय येवन झगडू लागत वो घूस घालपाक लागत जाल्यार, मडकयकार भुरगे लेगीत अेक जावन त्या भायल्याचो साप पाडो करी. पूण म्हजे खेळ सामके अलग आस्ताले, म्हळ्यार आट्यापीट्या, हुतूतू, लगोऱ्यो बी. हांव म्हज्या वयाचे भुरग्यांक जमवन खुब खेळ खेळी. मुंजो जालो आनी बोड तासपाक सुरु जाले. त्या दिसानी दर नयन्याच्या पयल्या आयतारा म्हालो येतालो. केसा कापणी

म्हळ्यार म्हजेर संकट येताले. देकून खंय आडोश्याक हांवे लिपून रावचें. शेजरा अेक जाण्टी भटीण आसली, तिणे म्हाका दिस्त सोदून काडचो आनी म्हाल्या सामकार हाडून दवरचो, आनी आमचे केसा कापणी जावची.

म्हाजना भितर तसेंच बाकीजना भितर व्हडलो अेकचार आसलो. हाजे अुदारण म्हळ्ळें नवदुर्गा देवता आनी तिचे देवूळ. सगळे मडकयकार, बामण जांव वो बहुजन जांव, नवदुर्गामातेच्या म्हऱ्यान एक जावप. ह्या देवीन आमका मडकयकारांक अेक दवरल्यात. ती मडकयकारांची ग्रामदेवता हसशी जाय त्या देव देवतांक ते भजता जायत पूण मडकयकारांचो नवदुर्गे देवतेचेर खुब मोग. आमच्या घरा सामकार नवदुर्गेमातेचे देवूळ आसा. देवूळ आनी म्हजे घर मातशें अुचायेचेर आसा. चाळीशेक पायऱ्यो चडून वयर येवचे पडटा तेन्ना सामकार देवूळ दिस्ती पडटा. आनी डाव्या बगलेक पयलेच आमचे घर लागतां. देवळाभायर व्हड पाटांगण आसा. आमच्या घराक लागून भटाचे, ताज्याफुडें अगरसाळ मागीर मेस्ताचे घर.

देवतेचे दर नवमेच्या पालखेक लोक जमताले. तेन्ना नवे बेत, नवे विचार वो ठराव मांडताले आनी जाण्टेले अेक मतान बरे तेंच ठारायताले. अुप्रांत बाकी सगळेजण मानून घेताले. शेता भाटांचे अुत्पन्न फावो जाल्लें आशील्यान भाटाक वावर बी वेळार करुन, गांवचे बामण लोक खांवन पीवन सुखी आस्ताले. मात गांवकार शिकपी नाशिल्यान गांवचो हिशोब दवरपाक परगांवचे शिकिल्लें सवरल्लेले लोक हाडी. तांच्या वांगडा तांची कुटुंबाय मडकय बस्तान बसून वर्सान वर्सा मडकयकार जावन रावले. अशे लोक म्हळ्यार बोरकार, नेवरेकार, भरणे इत्यादी. भरीक हाडील्ले म्हण तांका भरणे नांव पडले. मात अुप्रान्त हालीचे शंभर सवायशे वर्सात, चाकरी करपी हे अुपरे लोक मडकय भाटकार जाले. तशेच भाटान काम करपाक मागीर भायल्यानूय भागेली बी हाडले. मात आता हे सगळेच लोक, तांतूर मडकयचे मुळावे बामणूय आयले, शिकून चाकरेक लागले. कांय मुम्बय सारक्या शारानी, वो आता युरोप - अमेरीकेक पावल्यात. तातलोच अेक हांव.

# "भोंवपा फिरपाची आवड"

म्हाका तर ल्हान वयानच भोंवपाची रुच लागीली. तांतूर म्हजी आजी 'बा' खुब फिरपी बायलमनीस. तिजो पसरो आशिल्लो आनी धंद्याखातीर माल हाडपाक तिका भायर वच्चे पडी. तिजे वांगडा हांव पंचवाडे, काकोडे, केपे, रिवणा पावला, तशेच तिका लागून हांव अेकदा वेंगुर्लेक पावलो. थंय गेलो कि म्हजी थैंच्या लोकांक विचारणे आसोप म्हळ्यार, तांच्या गांवान कला शिकोवपी शाळा आसा काय म्हण. वेंगुर्ल्याक पावनाफुडे कला शिकोवपाच्या शाळेची चौकशी केली आनी कला शिकपाचे थारायले. थै अेका भटागेर आमची रावपाची सोय जाल्ली. हांव तेन्ना ८ ते ९ वर्साचो भुरगो आशिल्लो. ताकाय तोच प्रश्न करतकर ताणे म्हाका अेका शाळेत व्हरुन कला शिकपाक लागपी वस्ती दाखयल्यो. तात्काळ हांवे थंय वचून कला शिकपाचो बेत आंखलो. मात म्हजे कांय चूकं वरवी बेत फळाक आयलो ना. आनीकुय खुब विचार, हांव ११-१२ वर्साचो आस्तना मनांत घोळताले म्हळ्यार, भारत स्वतंत्र करपाक फुडे सरपाचो. मात ते भानगडींत हांव केन्नाच पडलो ना. भुखो मनाबशेन हांव येवजीतालो कि बरी कला शिकून आपणे भारताचे नांव देश-परदेशात उंचावचे. इंग्लंडच्या राजघराण्यान चलयल्या कलेच्या शाळेविशी खंयतरी वाचील्ले वो आयकीवात आशील्ले, ताका लागून म्हाका कल्पना सुचली, म्हळ्यार कलेन पारंगत जावन अेक दिस इंग्लंडच्या शाळेत वचून कला शिकपाचे आनी देसाचे नांव करपाचे.

तेन्ना बा भारोन म्हाकाय जगभर फिरपाचे पिशें, मात 'बा'चे जगभर म्हळ्यार गोंया ते वेंगुर्ल्यामिरेन जाले. मुंबय वचपाक मेळ्ळील्ले जाल्यार गुजरत थै वचून येवपाक ती फाटी सरची नाशिल्ली. ताज्या उलट म्हजी आवय घर सोडून आनी खंय वचपाक तयार नास्ताली. फुडे हांवे मुम्बयन घर बांदतकर आनी लग्न जातकर तिका मुम्बय व्हरता म्हण आग्रो केल्लो, पूण दर फावट किंदे कारणा मांगोप. अेकदा निमाणे आपूण येवत्री रावन म्हज्या भयणेक दुर्गाबायक धाडली. ती म्हज्या घरा पावलीना म्हण म्हाका मागीर सदांच खंत भोगली.

# "म्हजे कलेविशी पिशें"

हांव पांच ते स वर्साचो आस्तानाच कागदार चित्रा रेखायतालो. सात वर्साचो जालो आनी मातयेचे गणपती करपाक लागलो. आमगेले घरा शेजरा भौ. कुटुबाब नेवरेकार नी चिदंबर भट मेळून दोगीय गणपती करताले. तांचेकडे माती मागल्यार ते सांग कि मातयेचो धेपो कुटून दी, आनी तो मातयेचो धेपो करुन दितकर तुका माती मेळ्टली. म्हाका माती तर निखालस जाय आस्ताली म्हण्टकर तांगेले गणपती कारखान्यान तांगेले सांगणेवरी माती मळवून आनी धोडावन दितकर अिल्लीशी माती मेळ्टाली. तितली ती माती मळटकर म्हाका सर्ग हातांत आईल्यावरी दिस. त्या अिल्याश्या मातयेतल्यान मगेलो अिल्लोसो गणपती तयार जातालो. तो आनंद शब्दान सांगपाक शक्य ना. धा-अिकरा वर्साचो जातकर धंदेवायीक गणपतीकार जालो. ते काम दर वर्सा हांव मुम्बय वतसर करी. अशें मेंरन थोडे पैशे गाठीक लायले. ते जमयल्लू पैशे मागीर म्हाका मुम्बय पोबारो केलों तेन्ना अुपयेगा आयले. त्यावेळा हांव पोर्तुगेज प्रीमेय्रावक आशिल्लो, पूण कलेच्या नादान शाळा शिकोप थामोवपाचे थारायले आनी फुडल्या शिकक्षणाक रामराम ठोकलो. शिकपाचे जाल्यार फकत कलेचे ज्ञान घेवपाचे ठारायले. अुप्रांत जाण्टेपणात खुब वायट दिसले कि मुखार शिकिल्लो जाल्यार खुबशे प्रमाणात शिक्षणाचो अुपयेग जातलो आशिल्लो. दुसरे म्हळ्यार गोयांन त्याकाळान इंग्लीश शाळा नासल्यो, नाजाल्यार इंग्लीश शिकतलो आशिल्लो. किद्याक ती जगार वावरपाक अेवपी भाशा. खुबशे प्रमाणात त्या भासेचो अुपयेग जातलों आशिल्लो, पुण त्यावेळार म्हाका अुपदेश करपी कोणुच नासलो. म्हज्या बालमनाक जे बरे दिसताले ते करन दिस्ताले. पूण जाण्टो जातकिर म्हाका अुमगुन चुकले कि शिक्षणावांगडा कला आनी कलाकार व्हड पांवडेर पावता. अितलेच न्ही, ज्या कलाकाराची कला व्हड ना तोवूय आपल्या शिक्षणाच्या बळार ते कलेक वयल्या पंक्तीत व्हरुन दवरता. मागीर जाणकार ताका कितले मानपी ते वेगळे. पूण म्हाका आजूय दिस्ता कि शिक्षण आशिल्लें जाल्यार म्हजी कला विश्वांत अनिकूय फुलतली आशिल्ली आनी म्हजोय मान वाडटलो आशिल्लो.

आदि सागला तो गणपती करपी चिदंबर भटजी. जो नाटकांत बी काम बेस करी, आमच्या घरा आईल्लो. आवय शिवपाक भायर पदरेर बशिल्लो, आनी हांव तिज्या लागसार बसून कागादार कसलेंशे चित्र काडी. तिज्या म्हन्यान येतना ताणे अेक नदर हाव काडटा त्या चित्रार वडयली जावये, म्हजे आवयक अुलयता अुलयता म्हण लागलो कि रुक्मीनी तुगेले राम बेस बरी चित्रा नी बावली करता. ताका तुमी कला शिकयात, नांव करतलो हांव आयकत मनान खुश जाल्लो, खेरीज तागेले अुलवपाचोय मनार परिणाम जाल्लो जावूये. नायजाल्यार म्हाकाय तसलीच सपना पडटाली. ते वेळार आवय हांसून ओगी रावली. म्हाका मात सामके कळ्ळें की खर्चाचे दृष्टीन तीजो निरुपाय आसा. किद्याक तर घरांत अेक वेळ जेवपाचे वांदे जाताले. थैं पैस मडकयभायर धाडून रामाक शिकवप कशें शक्य आसा हो विचार तिज्या मनांत आयला जावये. मात मगेले त्ये भुरगे वयाचे मनान थारायले कि किदेंय जाल्यार शिकप ती कला, नाजाल्यार बाकी काय ना.

ज्या वेळा शिकपाक फोंड्या आल्मेद कोलेजीत मडकयच्यान पायानी चलत वचचे पड, तेन्ना म्हजे वय धा वर्साचे आसले. कोस ते सवाय कोस चलचे पडी आनी तेवूय डोंगर चडून उतरुन, फातरा रस्त्यान, धुलु खायत दर दिसा वचचे पडी.' किद्याक आतावशेन तेन्ना बसी नाशिल्लो. कामीजांव मागीर आयल्यात. आनी आशिल्यों जाल्यारुय म्हज्या आवयबापांयक कशेंच परवडपाचे नासले. मगेले व्हडले भावान 'कृष्णबाबा'न मागिर थारायलें कि थैंच आल्मेद कोलेजीत रावप. शनवार, आयंतारा आमी घरा येताले. आमचे शिकपाची आनी कोलेजीत रावपाची सोय आमचे आज्येन 'बा'न केल्ली. किद्याक तिका कळ्ळें कि अितले चलून परते येवपाचे म्हळ्ळ्यार आमचे पायान गुळे येताले आनी कात्रे पडटाले. पूण चड करुन हे गजालेन तिका कच्च जाला जावये. आनी तो गजाल म्हळ्यार आमी अेक दिस शाळेच्या पटांगनात खेळताले. खेळताना हांव वयल्यान सकल पडून हाताचे हाड मोडले आनी दोन मयने घरा अुल्लो. बा चो म्हजेर चड मोग आशिल्लो. तिजो शेपूट करून हाव तिज्या वागडा चड आस्तालो आनी खंय भायर वतना तिजो वागडी जावन फिरतालो.

हाताचे हाड सारखे जाले आनी म्हजी भालकी परती आल्मेद कोलेजीत शिकपाक लागली. अितले जांवनूय बरे बशेन प्रेमेर्ग्रावची परिक्षा पास जालो. खरे तर शिकपा परस चित्राच चड काडी. त्ये वेळावेल्या शिकप्यांक हांव चित्रा काडपी म्हण खबर आसले. तांतूर चड सांगपाचे म्हळ्यार कै. भौ. डॉ. गोविंद वैद्याविशीं म्हजेपरस तो वयल्या क्लासीत म्हळ्यार 'लिसेंव' शिकतालो. तो सदींच हांसून (तागेलें टिपीकल हांसप आयजूय म्हज्या डोळ्यामुखार येता) म्हाका साबसकी दितालो, अुत्तेजीत करी कि हांवे कलेन फुडले शिकवण घेंवचे. बऱ्याच लोकांनी अुत्तेजन दिल्यापैकी तो अेक.

अेकूच ध्यास जो वाडत गेलो म्हळ्ळो कला शिकपाचो. पूण ती कशी शिकप हो प्रश्न म्हाका सदीत पिडटालो. न्हीदेंत लेगित म्हाका कलेविशी सपना पडटाली. आनी हेंवूय जाणा जाल्लो कि ती शिकपाक म्हाका गोंयाभायर वचचें पडटले आनी तशें जाल्यार पोर्तुगेज भासेपरस, इंग्लीस भास म्हाका शिकची पडटली. पूण त्याकाळान गोयांन इंग्लेस भास अुलवपी साप थोडे, नाच म्हळ्यार जाता. मुम्बयच्यान कोणी येतालो ताज्या तोंणान ती उत्तरा येताली. तशेंच मडकयच्या मास्तराक थोडें इंग्लीश येताले हे म्हाका कळ्ळे. ताज्या फाटल्यान लागून हांव थोडे इग्लीश अेस-फेस करपाक शिकलो. म्हळे तरखडकार भाषांतर आनी बाकीचे थोडे भोवत इंग्रजी शिकपाचो यत्न करतालो. तसलेच ते मडकय गांवचे इग्लीश. पूण म्हाका ताजीच अपूरबाय आशिल्ली. अितल्या बोवाळांत चित्रा आनी माती बावली करप चालूच आशिल्ले. त्यावेळा म्हजेपरस व्हड आनी 'कृष्णबाबा' परस ल्हान 'नारायणबाब' लिसेवाचे दुसरे वर्स करन घराच आसलो. शिकपा तो लोटले आजोळा आसलो, नी लिसेव शिकपाक मडगांवा आत्यागेर आसलो. हंवटेन तेवटेन म्हज्यापरस चड शिकिल्लो आनी गांव फिरील्लो म्हण्टकर अेक दिस हांवे ताका म्हळे कि आमी वेंगुर्लें वो मुम्बय वचून शिकूया. ते खातीर गणपती करुन पैशे मेळवचे पडटले. तुवें म्हाका मदत करपा जाय. तो अनमन करिनास्तना रोकडोच तयार जालो. म्हजेविशी ताका खुब प्रेम आसले. आनी म्हाकाय सगळ्या भावात तो लागीचो आनी म्हाका वळखपी, आनी म्हजे कलेन रस घेवपी आशील्लो. मागीर आमी फुडलो बेत आखलो. आनी तो म्हळ्यार शिवा जलम्याचो

घेडो. नाव 'पिसो' ताकाय वांगडा, घरचे काम करपाक धेंवपाचो. मात अेक गोष्ट करपाचो नासलो. आनी ती हांवे केली आनी म्हज्या पायार हांवेच फातोर घालो. ताजें अशें जालें म्हळ्यार 'अच्युत कामत', हाका आमच्या वांगडा व्हरपाचो बेत. तो म्हजे पीरायेचो आनी दोस्त कसो शिवाय कलाप्रेमी आनी सगळ्यात चड म्हळ्यार 'दुडवकार' वांगडाच हांव आनी अच्युत काजीन फिटताले, मडकयच्या तोकार वताले आनी घरच्यान किदंय खावपाचे हाडल्यार अेकटाय खाताले. ताका कलेची खुब आवड आशिली आनी म्हजे कलेविशी ताका अपुरबाय आशिल्ली. ताका खुशीखुशींत आमगेलो वेंगुल्याक शिकपाक वचपाचो बेत नोट सागलो आनी गांवात बेकार रावचे परस आमचे वांगडा आयल्यार कला शिकतलो आनी नांव दुडू कमायतलो अशे समजायले. तो अुमेदीन अेकदम तयार जालो. मात ताणे आपून गांव सोडून भायर गेल्यार तपास जातलो म्हण सुचयले. म्हजे भुरगें वयाप्रमाण आनी कलेच्या मोगान भुरकुटून गेल्यान ह्या सुचवणीचेर चड विचार कर नास्तना हांवे फुडलो बेत आखलो. आनी वेंगुर्ल्याक वचपाचे ठारायले. ताका म्हळे कि तू सकाळची काफी-भाकरी खातकर आमगेले थै यो, किद्याक हांव जाणा आशिल्लो कि दनपारचे जेवणावेळा ताजी चौकशी जावपाची. म्हण्टकिर आमी सकाळीच वाफोरार चडोंप आनी पणजेवचून वेंगुर्ल्या पलायन करोंप. पैश्याची वेवस्ता केल्ली. वयर सांगिल्येप्रमाण गणपतीबी करुन तशेंच जात्रेक मातये बावली दाखोंपन बी पैशे गाठीक लायील्लें तें ५०-६० रुपये खेरीज म्हजे बा कडलें २४ रुपयें अुसणे घेतलें. आनी खबर आशिल्लें, अच्युत कामतूय थोडे तरी पैशे वांगडा घेतलोच म्हण, किद्याक तो दुडवकार. अशे तयारीन 'नवदुर्गेक' पाया पडून आनी घरच्या जाण्टेल्यांक पाया पडून, थारयल्याप्रमाण सकाळ फुडे वचपाक भायर सल्ले. बेत मोठ्या हुशारीन आनी गुपचुप आखिल्लो. पूण बेत सपशेल आप्टलो. ताजे अशें जालें, आमका वाकोर चुकलो. अच्युत आमच्या वांगडा आसा ते लोकांक दिसचे न्ही म्हण आमी रस्तो सोडून शेतातल्यान, डोंगरुल्लीवेल्यान जाता तितले आडवाटेंन, काट्याकुट्यानी, दिफळे माड्डायत तारेर पावपाक मातसो वेंगत जालो. तो वाफारे डोळ्या-मुखावेल्यान धुर काडीत आनी शिटी फुलयत आमका लज करीत पणजेवाटेक लागील्लो. पूण हांव फांटी सरपी मनीम न्ही आनी ह्या

बेताचो म्होरको आशिल्यान, फुडलो बेतूय हांवेच आखलो. तांका म्हळे आता घरा परते वचप ना. पायानी चलत पणजे या. आनी खंय तरी आडोश्याक रात काडून दुसरे दिस वेंगुर्ल्याक बोट घेवची म्हण ठारायले. सगळे अिर्श्येच्या नेटार आशिल्यान सगळ्यांनी पसंती दाखयली. तितले भितर आमका पकडित म्हणं अचिरकाय जाली ना. नेटान लागले चलपाक. सकाळच्ये घेतिल्या काफये खेरिज पोटान कांयच नासले. वाटेर चार म्हुट्टे खाल्ले तितकेच. भुकेपरस आमचो बेत तडिक कसो वचत म्हणपाची चिंताच चड जाल्ली. मडकयच्यान पणजे म्हळ्यार कमीत कमी ३० ते ३१ मैलाचे अंतर, आनी तेवूय वैर सकल डोंगरातल्यान, आड वाटेन वचपाचे. पाया तळव्याक फोड आयले. अच्युतान जोते घाल्ले, आमी पायांनीच. कसेबसे पाय वोडीत आमी राती पणजे पावले. अच्युताक पणजेची चड खबर म्हण्टीकीर ताका विचारुन आमी पणजे म्हालक्ष्मी देवळात कोणश्याक काळकांत बसले. ताज्या मतान तो जागो सुगुर आसलो.

आपूण करता वो थारायता त्ये आपल्या मनाभारोन जावप ना हे चड करुन सगळ्या बाबतीत केन्ना ना केन्ना घडट्टाच, ते जर तेन्ना कळिल्ले जाल्यार, आनी वेगळोच बेत रचतलो आशिल्लो. तो म्हळ्यार तारीर वाफोर सुट्टकर परते घरा वचून, दुसरे दिस तो बेत फत्ते करपाक जाय आशिल्लो. निमाणे विधीलिखीत आस्ता तेंच घडटा. आमी खावपाचे जीनस हाडपाक वताले, अितल्यान वळखीच्या मनस्याक म्हळ्यार कै. भौ. पीशोनबाब खांडेपरकाराक अच्युत दिसलो. आनी मागीर आमचो सगळो बेत फिसकटलो. फोर्सान आमकां परत मडकय वच्चे पडले. हांवे ताका दादा-पुता केलो, विनवण्यो केल्यो, अितलेच न्ही अच्युताक जाय जाल्यार परत व्हरात म्हण सांगले. आमका आडवनाकात, आमी घरा सांगून आयल्यात अशेंय विनयले, पूण कसलोच अुपेग जालो ना. तांतुर ताका जयवंत कामत मेळ्ळो. जाले, दोगयनी आमका धमकी दिली कि चड अुलयश्यात जाल्यार पोलिसीत दितलो आनी वयल्यान पोलिसीक सांगतलो कि आमी चोरी करुन पळताले म्हण. म्हण्टकिर पोलीस आमका कादयेन घालतले. म्हजो निरुपाय जालो. मनातल्यामनान रडलों. त्ये रातचे हांव अुपाशी रावलो. भुकुच ना जाली आनी मुजरत सगळो दिस म्हाका कडकडीत अुपास घडलो. अशे तरेन बरो

रचिल्लो बेत फसलो. ते निसर्गाक लेगीत वायट दिसले जावये. त्या राती पावसान रुद्र रुप धारण केल्ले, सगळीकडेन काळोख जाल्लो आनी अुंटगाराचो पावस त्या माया म्हयन्यात पडलो. वादळ कशो जांवन बरीच झाडाबी मोडून पडील्ली.

दुसरे दिस अुळकर मन म्हाकाच कोसू लागले कि अच्युताक आपोवपाची नस्ती बुध्द म्हाका किद्याक जाली. ताज्या बऱ्याक वचून हांवे म्हज्या पायांर फातोर मारुन घेतिल्लो. मागीर चवकशी केल्यार कळ्ळे कि अच्युतागेर दरपारच्या जेवणावेळार चौकशी जाली. इतले भितर बाणस्तारी थावन सातेचो व्येपार घेवन येवपी ताज्या चुलत्यान आमी दोंगरे तारीन वतना दिस्त पळयले. नी ती बातमी जेवणावेळार दिली. मागीर किदे विचारता, चो वाटानी आमका सोदपाक मनीस धाडले.

## “अेकदाचो मुम्बय प्रयाण करता.”

‘जे जाता ते बऱ्याक जाता’ म्हण्टा ती म्हण फट न्ही. तेच वर्सा हावें अेकट्यान कोणायचीय सांगात घे नास्तना मुम्बय प्रयाण केले. वयलो बेत फिसकटकिर दिस रात म्हजो ध्यास कलेच्या दिसेन आशिल्लो. वेंगुर्ल्या वचोप कि मुम्बय गाठोप ठर नाशिल्ले. वेंगुर्ले लागी, पूण मुम्बयची सर येवपाची नाशिल्ली हे मनार ठारायले. अुप्रान्त नवो बेत करुन कला शिकपाक मुम्बय वचपाचो बेत अशे तरेन आखलो. भौ. श्रीपादबाब भरणो मुम्बय रावी. रजेंत तो मडकय आयिल्लो. मुम्बयच्यान आयला आनी मनीस बरो, दुसऱ्याक मदत करपी म्हण ताजेविशी खबर काडून आशिल्लो. ठरयले कि ताका म्हजो मुम्बय अेवन कला शिकपाचो बेत सांगून थै म्हजी कशी किदें व्यवस्था जांव येता आनी कला शिकपाक कशी संद आसा ते पळवन घेवपाचे. ताणे बरीच कलेविशी खबर दिली. ते आयकून म्हजी अुमेद आनीकूय वाडली. ताणे आपणागेरे न्हीदपाची व्यवस्था करपाचे आश्वासन दिले. आनी सांगले कि तू पयली आपल्या लागी आयिल्लो जाल्यार तुजी जेवणाचीय वेवस्था करतलो आसलो. ताजे कितलेय अुपकार मानले तरी थोडेच जातले. भौ. श्रीपादबाब भरणो खरोच देव मनीस. हांव ताजो कोण नातलग न्ही. फकत गांवकार, पूण अुपकार करपी मनस्याक नाते गोते लागना. ते सदांच दुसऱ्यांक मदत करपाक तयार आस्तात. ताज्यान जाताले

जाल्यार तो म्हका जेवपाक आपल्यागेर दवरतलो आसलो. पूण म्हजे विनवणी पयली, अच्युत कामतीची व्यवस्था ताज्या घरच्यानी भौ. श्रीपादबाबागेरे केल्ली. ताजेकडेन फकत दोनूच कुडी आशिल्यो म्हळ्यार न्हीदपाची कूड आनी दुसरी रानपाची कूड. तेन्ना ताणे म्हजी आनी अच्युताची सोय न्हीदपाच्या कुडेन केल्ली जाल्यार, आपली आनी बायलेची रानचेकुडीन केल्ली. हाड्यावेल्यान मनीस कितलो थोर मनाचो ते कळतले. मागीर कळ्ळे कि तो गांधीवादी विचारांचो आशिल्लो, तसेच शिस्तीचो. अेका फातोडेर पांच वरांर अुठून चाळीतले सगळे संडास धुवी, आपून न्हावन, सदरो पुडवे धुवून येतकर मागीर स वरांचेर म्हाका अुठयी. हांवे मनाविरुध्द अुठुन कसो तरी पांच मिनटांचे बुडबुडून न्हावन येवन कुरगुटी करुन परते न्हिदपाचे. किद्याक न्हीद म्हजी खुब आवडीची आसली, आनी आताय आसा. न्हिदेन म्हजी प्रकृती अजुनूय बरी दवल्या. म्हण्टकिर म्हज्या पयली हांवे अच्युताक अुठोवन ताका पयली न्हावपाक धाडचो आनी मागीर हांवे न्हावचे आनी परती अेक डुलकी काडून सात वरां जातकर प्रायव्हेट क्लासाक वचचें. वाटेरुच नाक्यार, रस्त्यार मांडिल्या 'चा'च्या स्टोलार 'चा' आनी पाव खावचो, तो आशिल्लो म्हजो 'ब्रेकफास्ट'. पेन्टींग क्लास जातकर, मागीर थैंच आशिल्या गणपती कारखान्यात कामाक वतालो. मुम्बय गणपती शाळेक कारखानो म्हण्टाले. म्हजे पिरायेत दुसऱ्यांगेर रावन पोटाखातीर काम करपाची वो नोकरी करपाची म्हण हि पयलीच आनी निमाणी खेप म्हळ्याद जाता. त्या कारखान्यान मातये काम जातकर रंग लावपाचे, खेरीज म्हत्वाचे रेखणीचे काम करी. खरे म्हळ्यार ते जाण्टे जाणकाराचे काम. शिवाय त्या जाण्टे कारागिरा इतलेच काम हांव भुरगो जावन करी. तरी तांका दिसाक तिन रुपये मेळटाले जाल्यार म्हाका म्हयन्याक अठरा रुपये वैर अेक पै जास्त मेळनाशिल्ली. म्हज्या मनांक खुब वायट दिस्ताले. पूण नोकरी सोडल्यार पैशे कशे कमायतलो ? आनी पैशे गांठी नासल्यार प्रायव्हेट क्लासाची फी कशी फारिक करतलो, शिवाय स्वत:चो अुदरनिर्वाह कसो करतलो. हे अेवजून हांव रातचो १ वरा मेरेन जागून चडान चड काम करतालो.

दुसरे वर्सा हांवे स्वत:चो ल्हानसोच कारखानो काडलो. म्हज्यापरस व्हड भाव नारायणबाबक गोंयच्यान मदतीक आपयलो, खेरीज मडकयचो भौ.

रघुनाथ शेटीक हाडील्लो. अशे तरेन हांवे तीन वर्सां गणपती काम केले, पूणून हे धद्यान नवो आशिल्यान अणभवाखेरीज खर्चाभायर पैसें गावले ना. आनी दर वर्सा जागो बदलचो पडिल्यान, जुनी गिरायका मेळपाक कुस्तार जाताले. तरी बरे दुसऱ्याले कारखान्यान गणपतीचें रेखणेचें काम करुन खर्चाचे पैशे मेळचे. अशे तरेन प्रायव्हेट क्लासचे पैशे दिवपाक आनी पोटाची खळगी भरपाक रातदिस अेक करचें पडलें. तेन्नाच "केतकर आर्ट अिन्स्टीट्युटांन" तिन वर्सांन ड्रॉइंगच्यों दोन परिक्षा आनी पेन्टींगचे चार वर्साचो कोर्स केलो. इंटरमिडीयेट परिक्षेत म्हाका सलामिचे बक्षिस गावले. अुगडास जाता कि त्येवेळार हांवे भौ. आडारकराक दुसऱ्या वर्साचो स्पेसीमेन्स सारके करुन दिल्यात. अुप्रांत तो जे. जे. स्कुलाचो डेप्युटी डायरेक्टर जालो. आनी त्यावेळार हांवे बाकिच्या शिल्पकारावांगडा कामाची प्रतिकृती धाडिली आस्तना म्हजे काम बरें आसून निवड केली ना, वो तशी मदत केली ना. म्हजो "डिप्लोमा ऑफ फाइन आर्टस्" पूर्ण करपाक अेकूच वर्स अुरिल्लें. पुणून त्याच वर्सा मलेरियान म्हजेर घुडी घाली आनी हांव बेजार जांवन मडकय म्हज्या घरा आयलो. वांगडा आगगाडयेन अच्यूत आशिल्लो, मात तो फर्स्ट क्लासांत आनी म्हजी पोटली थर्ड क्लासात. गच्च भरिल्या थर्ड क्लासात खुब ताप येवन अवस्था जाली. गडबडा लोळून दिस काडलो. रातचो हांव बेशुध्दच कसो जालो म्हण्टकिर दुसरे पेसेंजरांनी म्हाका जागा मेकळो करुन दिलो. अेकदाची म्हजी भालकी गोंया पावली. मात मलेरियांतसून बरो जातसर टायफाडान म्हाका धल्लो. हे अितल्याचेरुच थांमले ना, जाल्यार त्यादिसानी आईल्या म्हाभयंकर पॅराटायफाइडानूय म्हाका सोडलो ना. मरता काय अुरता आशी स्थिती जाल्ली. डॉ. आलमेद पावलो म्हण हो दिस पळवंक पावलो. तो म्हजो निखालस पुनर्जन्म आसलो म्हळ्यार जाता. आमचे गांवचो आनी शेजारी आनी सवकळीचो भौ. राम पै, ताका सकाळफुडे फोंड्या डॉ. आलमेदिक हाडपाक धाडलो. तो डॉ. आलमेदिक घेवन तीळसांजचे कात्रीर आयलो. किद्याक वयर बरयलां तशे त्यावेळार मोटारी नासल्यो. म्हाड्डोळा धावन फोंड्या माचिल व्हरुन ताका हाडचो पडलो. माचिलूय (म्हळ्यार चार मानिस जांका भोय म्हण्टाले, ते लाकडाचे बसपाचे, पालखीसारखे खांद्यार घेवन चलपी) फैदा करपाक खुब वेळ लागलो

खंय. हांली काळार माचिल दिसपाक कुस्तार तरी बंगाली सिनेमा वेल्यान कल्पना येवंक जाता. बंगाली लोक आनी गोंयकार ह्यांच्यातल्या अितर साम्यातली ही अेक, बाकी म्हळ्यार नुस्ते खावोप, भाषा कांय परमाणात सारखी कानाक लागता आनी साहित्य, कला इत्या.

डॉ. आलमेद घरा पावतासर सांचेवेळा मळबान तांबडोच रंग हाडिल्लो आनी तोच रंग म्हज्या डोळ्यानूय येवन म्हजी सुध्द साप गेली खंय. दोतोरान वेळ केलो ना. गांवच्यो तशेच डोंगरेकडचे आनी पणजेतल्यान ताकतीकेन जळवो (लांब गायंडूळाभाशेन, दिसपी, मात मनश्याचे रगतं पितकर मोठ्यो जावन पडपी) फैदा करपाक सांगल्यो आनी, रोकड्योच दोनी काना फाटल्यान दोन दोन जळवो लायल्यो. जळवो म्हज्या रक्तान टटतटीत फुगून सकल पडल्यो, मागीर ताणे सांगले किं, “आता भियोक नाकात. आपूण ताका बरो करता म्हण.” डॉ. आलमेदीन फुडे म्हळे कि आपणाक आपोवपाक आनी मातवेळ चड जाल्लो जाल्यार कांय अुपाय जावपाक नासलो. अशे तरेन ताणे तीन मयने भितर म्हाका बरो केलो. जोरातल्यान अुठ्ठकर म्हाका त्राण नाशिल्ले. हाडा मेजपाक अितली म्हजी काया जाल्ली. जेन्ना जेन्ना ताप चडटालो तेन्ना खंय म्हाका “बांज” दिताले. ‘बांज’ म्हळ्यार माथ्यावेल्यान कळश्यांनी थंड अुदक ओतप. अेक दिस मजा जाली, बांज घालतकीर डॉ. आलमेदिन दिल्ली ओंखता घरान सगळीकडेन सोदली. नारायणबाबन तेच दिस फोड्या वचून ती हाडील्ली, आनी भायर खुट्याळीक लायील्या दादाच्या जुदीयेच्या (कोटान) बोलसान दवरलेली खंय. निमाणे घरच्या मंडळीक कळ्ळे कीं, दादान खेळपाक म्हाड्डोळा वतना पैश्यावांगडा बोलसातली वखतांय व्हेली. आज्येन आनी अुशीर केलो ना. दोन चुडी पेटयल्यो आनी त्यो वांगडा घेवन आडवाटेतल्यान दोंगरावेल्यान अेकटीच म्हाड्डोळा वचपाक गेली. तरी बरं अर्दे वाटेरुच दादा मेळ्ळो नी हाडून वकत म्हाका दिले. दादाक ते दिसा खेळान पैशे मेळ्ळे जावये, म्हण तो बेगीन घरा येतना अर्दे वाटेर ‘बा’क मेळ्ळो. दुडवावांगडा म्हजी वोखता आशिल्यान, दुडवांक नेट आयला जावये आनी ताणी दादाक जिकून दिला जावये. त्यावेळा जर अशें ताज्या मतीत गेल्ले जाल्यार

दुसरे दिसाय म्हजी वखता घेवन वचत आशिल्लो. तेन्ना सांगपाचे म्हळ्यार खेळाचे व्यसन वेळकाय पळेना.

## "मेणाचित्रांचे प्रदर्शन"

टायफाडातल्यान बरो जातकर परतन गोयांनूच मेणाची मनश्या अेदी बावली करन प्रदर्शन केले. तांतूर म. गांधी बरयता अशें चित्र आसले. हाजेय पयली मडकयच्या जात्रेकुय प्रदर्शन केल्ले. ह्याफावट ते प्रदर्शन घेंवन हांव आनी नारायणबाब म्हाशेलांत चात्रेपुनवेचे जात्रेक घेंवन गेले. प्रदर्शन अुबे करतासर आमकां मध्यान्न जाली. आनी चालू करपाचे वेळार सरकारी फाजेंदाचो (रेव्हनूचो) मानिस जो आमचोच शेजारी गोविंद कामत दारांन अुबो. शिरस्नेप्रमाण तिकिटीक सरकारी स्टेम्प लावपाची पध्दत आशिल्ली. ताजी ताणे चौकशी केली. मुम्बयचे बशेन आमी धरुन चलताले कि चार आण्याचे तिकिटाक स्टॅम्प लागचोना. आमीय चड फोडणीशी करी नास्तना ताका सांगले कि आमी फाल्या स्टॅम्प हाडून मागीरुच प्रदर्शन अुकते करतात, वो ते आदि फुकट दाखयतात. तर ते सभ्याग्यान आमचे अज्ञानाचो फायदो घेवन; आग्रो करुन आमका प्रदर्शन चालू करपाक लायल्ले. आनी ताजे विश्वासान आनी ते प्रदर्शन चालू केले. दुसरेच दिसा आमचेर ताणे वॉरंट लायले आनी प्रदर्शन बंद करपाक लायले. मागीर त्या गांवचे लोकांनी गोविंद कामतीची च्छी थू करुन आनी गांवच्या बरे मागप्यानी वशिलो लावन वारंट बंद करपाक लायले. भुरग्यांची तोखणांय करची सोडून असले घाण कृत्य कशे करपाक धजलो काय म्हण ताकाच धुवन काडलो. अशे तरेन पैशे जमवन मुम्बय वचपाचो बेत रद्द करचो पडलो.

## "दादाचो जुगार नडलो"

दर खेपेक हांव पैशांची अडचण फुडे करता, देकून ताची फोंडणीशी करची पडली. घरची परिस्थिती आमची कठिण आशिल्ली. आमी नव भावंणा, स भाव आनी तिन भयणी. व्हड भायणेचे नांव 'जायू' तिका आमी भावंणा 'आका' म्हणी. तिजे फाटल्यान कृष्णबाब ताका आमी सगळी 'बाबा' म्हणी. मागीर म्हजे

आवडीचो भाव नारायणबाब. ताजे अुप्रान्त म्हजो जन्म जाल्लो. म्हजे फाटल्यान भगवंत आनी ताजे फाटल्यान मोगरे. मोगरेय म्हजी आवडीची भयण. दिसपाकूय ते बरे आशिल्ले आनी तशेंच स्वभावान. मोगऱ्या फाटल्यान विश्वनाथ. विश्वनाथा फाटल्यान दुर्गा, ताका 'बाय' म्हणी, मागीर व्यंकटेश, जाका कलेन रस आशिल्लो म्हण गोंयाच्यान मुम्बय म्हजे लागी हाडून जे. जे. स्कुलान शिकपाक घाल्लो. अशी आमी अवयबापाची नव भांवणा, तेवळचे काळानुसार जाल्ली. आवयबापूय आनी म्हातारी आजी 'बा' मेळून बारा जणा खावपी. मात मागीर बा वेगळी रावपाक लागली. अुत्पन्न पावसारखे आसले पूण भाज्येचे अर्दे उत्पन्न ती घेताली. आमची 'बा' बालविधवा. तिका घोवाबायलेचे संबंध कशे आस्ता त्ये खबर नासले. ती सांगी त्येप्रमाण म्हजी आवय मीनी वागपाक तयार नासली. बा म्हज्या आवयक सांगी कि आपले पुताक म्हळ्यार दादाक रातचो खेळून आयलो जाल्यार मुजरत न्हिंदिल्ली आस्तना अुठून जेवण वाडू नाका. दादा, आसा ना ते विकून सुमारभर पैशयानी जुगार खेळटालो, आनी दूडू वगडायतालो, आनी म्हणटकीर संसाराचेर दुर्लक्ष करतालो. घरण्याचो, जाण्टयेल्यांचो भांगरा वस्तीचो करण लेगीत जुगारा लागून घाण दवल्लेलो. 'बा'क दिस्ताले, आपूण सांगता तशे वर्तन म्हजे आवयन केले जाल्यार दादालो खेळ आपसुक सुट्टलो आनी ताजे भुरगेबाळाकडेन वो संसाराकडेन लक्ष लागतले. आमचे आवयन ते आयकले ना. किद्याक ती पोन्ने मताची, घोवाक देव मानपी आसली. म्हण रागान बा वेगळी रावताली. हांतूर तिजो अेकादो प्रयोग आसलो जावये. दादाकडेन अर्दे अुत्पन्न आसा म्हण्टकीर तो जाग्यार येत काय तिका दिस. पुग अडचणी वेळा बाच तांदूळ, नाल्ल बी जेवणाचे सामान धाडी. दादाक जे किदे अुत्पन्न येताले ते तो जुगारात वगडाअी. कोणेंय विचाल्यार सांगी, "आपूण किंदे पिसो? आपूण खेळ्टा ते गेल्ले पैसे परते हाडपाक, आपूण जुगार वायट म्हण जाणा." पूण पैसे मात ताणे परते केन्नाच हाडले ना. खेळाखेरीज ताका आनी दुसरें कुसलेंच व्यसन नासले. ते काळान घरघरान जुगार खेळ्टाले. तो अेक तांचो करमुणीकोचो आनी मोठेपणाचो अुद्योग आसुये. खरे म्हळ्यार दादाक खेळाचे व्यसन लावपाक कारण म्हळ्यार गांवचेच काय जण आसले. अेक दिस बान वेपार हाडपाक दादाकडेन पैशे आनी

वचपाक व्हडे करुन दिवन, पणजे वचून पसऱ्याखातीर म्हाल हाडपाक धाडिल्लो. तेच व्हड्यात गांवचे खातेपित्यांत मोडपी, ताज्याच वयाचे भुरगे म्हळ्यार कै. दामू नेवरेकर नी कै. अनंतबाब कामत आसले. आमचो दादा खंय ते वेळार १८ ते २० वर्साचो तरणो आसलो. बाकीचे ते भुरगे अट्टल खेळपी आसले. त्येदिसा कोणागेर लग्नाक वचपाक जाय सांगून, वांगडा येता म्हण व्हड्यांत बसले. तांतुको कै. दामुबाबान तर शेवटी आपणाले भाटबेंस घरदार सगळें विकून वडयले, आनी अुप्रांत तो मागीर आपल्या चल्यागेर भौ. म्हाबळू नेवरेकारागेर मुम्बय रावतालो. त्ये काळान तमाम बऱ्या घरचे, भाटाबेसान घट आशिल्ले भुरगे नी जाण्टे खेळाचे वेसनान बुडील्ले. न खेळपी मेळणे कठिण आसले. दादान खंय खुब सांगून पळयलें कि आपणाक खेळ समजना म्हण, पूण ताका थाथारुन; आमी शिकयता म्हण सांगून खेळाक घेतलो. आनी निमाने जावपाचेच तेंच जाले. दादान सगळे पैशें वगडायले. तोंड बाबूरवाणे करुन म्हळें कि आपली आवय आता आपणाक अुलयतली. ताणी ताका भियों नाका म्हण समजायलो आनी अेका गुजराकडलो अुदार माल दिवन परतो धाडलो. मयने भितर त्ये गुजरालो 'खान' (हे पठाण गोंया-मुम्बयन पैशयाची वसुली करपाक आस्ताले. म्हाका दिस्ता पानिपतच्या लढाई अुप्रान्त कांय खान भारतातूनच रावले, तांचे हे वंशज आस्तले) वसुलीक दारानं अुबो रावलो. हे मुसलमान पठाण आठ आठ दिस थेरो दिवन, पैसे घेतले बगर हालनासले. आजेक राग आयलो. पुण किदें करतली? चुक तर दादान केल्या, तोंण घापून पैशे खानाकडेन फारिक केले आनी ताका रवाना केलो. अशें तरेन दादाक खेळाचे व्यसन लागले. आनी ते निमाणे मेरेन आशिल्ले. मुम्बय दादा जेन्ना केन्ना म्हगेर रावपाक अेतालो तेन्ना तेन्ना म्हालक्ष्मीक "घोड्यांच्या रेसीक" पैशें खेळपाची गजाल करी. पूण ताका लागून म्हाका व्यसन लागीत वो घरची मागोर म्हाका दोष दित म्हण हांवे ताजी ती अिच्छा पूरी केली ना.

फुडले आनी अेका प्रसंगावेल्यान खेळाचे व्यसन कितले थराक पावूं येता ताजे अुदाहरण मुखार अेतले. हे जुगार खेळपी भुरगे तशे पळेल्यार भुरगे म्हणपाक अेना. किद्याक धा-बारा वर्साचेर तांची लग्ना जातालीं. सोळा अठरा वर्साचेर तांका भुरगी जातली. मुम्बय कै. दामबाबा अेक दिस आमगेर अेवन पैशे

मागूक लागलो. हांवे ना म्हण्टकर म्हण लागलो, तू पैशे दिना जाल्यार आपूण तुज्या बिल्डींगच्या गच्चेवेल्यान सकल उडी मारता. शेवटी पैसे दिवन धाडचो पडलो. पूण दादान केन्ना कोणाकडेन अुदार मागील्लें म्हजे आयकिवांत ना. तसो तो खुब मानी आशिल्लो. ताणे जुगारान पैशे वगडायले खरे पुण आपल्या वाट्याक आयिल्या भाटावेसावेल्या पैश्यातले, वो चडूच जाल्यार घरच्यो जिनसो विकून. अशे कि केन्ना केन्ना आमका भुरग्याक अेक अेक दिस पोटांन आन्नाचो कण नास्तना न्हिदचे पडला. तांतूर जातालो आवयेचा आनी बाचो घुसमटमार.

## 'मीनीचो घुसमटमार'

कुळाचीय आवयची स्थिती व्हडली बरी नासली. तीका सात भयणी आनी अेक भाव. थोडी अक्षरा जाणा आशिल्ली तरीय पुस्तका वाचताली. आयज दिस्ता ह्यावेळा तांकांय (बायलांक) शिकपाक मेळील्लें जाल्यार ती आयच्या बायलाभाशेन शिक्षीत जातली आशिल्ली आनी आपल्या घराक कमावन हाडून हातभार लायतली आसली म्हण हावें म्हज्या तिनूय चलयांक बऱ्यातले बरे शिक्षण दिले आनी तांका स्वावलंबी केले.

शेजाऱ्याकडले अुसने तांदूळ कितले हाडचे ताकाय जाल्यार सुमार जाय. आवयची कुचंबणा जावन ती नाक मुठीत घेवन म्हऱ्यातल्याकडल्यान अुसणे तांदूळ हाडून भुरग्यांक पेज वाडून सामाळताली. मागारे घरान भाटांतले धान्य येतकर परत करताली. म्हाका याद जाता, अेक दिस आमी फकत पेजे निवळांत दिस काडल्यात. हांव गणपती करतालो ताजे तळयेचे तांदूळ आनी नाल्ल येताले (तळी म्हळ्यार अेक आठवो वो 'पायलेचो आठवो भाग') नी विडो, गणपती घरा व्हरताना म्हाका ते दिताले. तांतूर गणपतीचो सण जातलो. आनी कांय दिस गणपतीच्या पैश्यानी चवथीचो घर खर्च जायी. केन्ना केन्ना जेवण करपाक लाकडां नासताली, तेन्ना अेकाद्री लाकडाची मुंडारी आसल्यार आवय कुराड घेवन मुंडारी फोडी. म्हाका सामकी याद जाता कि भुरगेपणात हि परिस्थिती पळोवन जायते फावट हांवे काजूनी वचून सुके ताळ नी शिरफुटा मोडून हाडून

रात्रीन घालपाक आवयक दिल्यात. आमचे दादाचे, खेळामुखार घरसंवसारांन अिलूंय लक्ष नास्ताले.

दुसरो अुगडास म्हळ्ळो, दादा देव पुजेक गंवर (चंदनाची) झरयतालो लागींच आवय रात्रीकडेन बसून किदे आशिल्लो नासिल्लो ओलो जळाव फुकताली सगळी रानचीकूड घुवरान भरील्ली, तेन्ना आवयन दादाकडेन जळवा बाबत किदें नरी अुलयली जावये. तेन्ना दादान अिनले धुवर किद्याक केला म्हळा आस्तलो ताजेर मीनीन रागात अुलट अुत्तर दिले कि रात्रीन किदें आपले पाय घालून जेवण करु? ओल्या लाकडाचो धुवर जातलोंच. वयल्यान खेळाक रातदिस वतकर सुकी लाकडा हाडपाक कसो वेळ मेळटलो अशें म्हळा जातले. जाले, दादान रागा भरात हातातले चंदनाचे लाकूड तीजेवर मोखले. तरी बरे तीका लागलेना वो ताणे तीका लागचे म्हणूनूय मारु नास्तले. असलो राग हांवे पैलेंच खेपेक पळैयलो. नाजाल्यार दादाक केन्नाय राग म्हण येना आशिल्लो. त्यावेळा हांव सात-आठ वर्सांचो आसूये. गांवचे सगळे लोक दादाक शांत स्वभावाचो म्हण जाणा आसले. हरशी थंड, मात केन्नाय पैशें वगडायले म्हण्टकीर, आनी वयल्यान खेळावीशीं विचाल्ले म्हणटकीर तापतालो.

पैल्ली सांगितल्याभाशेन मीनींचे खरे नांव रुक्मीनी आनी कुळारचे नांव शेवतू. तीजे कुळार लोटलेंचे कुवेलकारांचे. ती खुब सहन करपी आसली भुरग्याखातीर तीने खुब म्हळ्यार खुबुच कष्ट सोसल्यात. आवयन आपल्या आयुष्यान सुख म्हण केन्ना भोगले ना. काम मात मानायाचे केले. कामाक तर ती वाघीन कशी आशिल्ली. वेळ पडल्यार आयदना घाशी, ती आयदना म्हळ्यार आताची स्टीलची ल्हव तपली न्ही जाल्यार तांबे, पितळीची वजनाचे व्हड तोप आस्ताले. किद्याक तेन्ना खाणारी मनश्याय चड आनी भात वो पेज खुब जेवी. मडकयचे जात्रेचे रथा दिस शेंदेडशें लोकांचे जेवण करी, (अेक पुरातन रित आसली, तिका मुक्त दार म्हणी, जेन्ना जात्रा पळोवक भायले वो नात्यातले लोक अेयी तं जेवणाक रावताले, प्रत्येकाच्या घरा दरवर्सा ते लोक अेवन जेवन जात्रा पळोवन वरा वची). अेक रानपी दर वर्सा अेयी, पूण तपली वाळपा, चाळपाक वो तपलो

वयर सकल करपाक आनी वडे तळपा पुरतो. देवतेचे अुफाराक पायले चौदा व्हड वडे तळताले. हे चौदा वडं अुफाराक म्हाजन देवते सामकार मांडटात, प्रसाद म्हण पैरेकार व्हरतात. अुल्लेलो सगळो अुफार देवळी व्हरता. बाकिचे सगळे जेवण म्हळ्ळे चार तरा भाज्यो, रांस, बी मीनीच करताली. आमची मीनी आंगांन सांप किरकोळ. पांच फूट जेमतेम जायत. गोऱ्यान जमा जावपी. दाता फोणो आसलो, मात गाल पडिल्ले. दाता फोणो लिपवपाक दातार ओठ हाडी. डोळे मात्स्ये बारीक, दिसपाक जेमदेम आशिल्ली. तरी पूण वेळ येत जाल्यार पायले देड पायलेचे शीता तपले स्वतः वाळताली. तशेंच परबे परबेक वडे सान्ना करची पड, सान्ना हो हिटाचो प्रकार. हिट ल्हान तर सान्ना घसरट वाटकुळी अुकडटात. है फक्त आमकांच अकरा-बारा घरच्या लोकांकूच न्ही तर गांवचे देवतेचे चाकरमान्याक, पैरेकाराक आनी गावातल्या म्हाराकूय वाटपा खातीर आस्ताले. ताजे वेल्यान ते कितले करचे पडटाले ताचो हिशोब जाता. हो आसलो पूर्वीचो रिवाज. त्यामानान आयच्या बायलांक त्रास कमी काडचे पडटात अशे म्हळ्यार फट जावचे ना. खेरीज आमचे घर देवतेचे देवळालागी आशिल्यान देवीचे भेटीक येवपी भायले मुम्बयकारबी, वो जात्रेक आनी हेर अुत्सवाक लोक आमच्या घरा जमताले, तांगेली बायला-भुरगी आमचे घरा तानेक, तशेच जोती चपला दवरपाक येताली. दारांन जोत्यांची हि रास पडटाली, जाल्यार लोकानी ती चोरची न्ही म्हण मीनी भितर, भितर मुंगारुन दवरताली. कोणेय अुदक मागले जाल्यार, कितल्याय वराचे जाल्यारुय, तिज्यान ना म्हण अेनाआशिल्ले. आमची बांय आशिल्ली पूण अुदाक बरे लाग नाशिल्ले, म्हण्टकीर अुदाक सोपले जाल्यार देवतेचे बायचे गोड आनी थंड अुदाक म्हण वो भटाच्या बांयचे अुदाक ती कळशे भरुन दिसा कडाचेरुय हाडून भरताली, कोणूय जाल्यार म्हणत कि तांतूर किदे आसा? त्या काळार सगळ्यो बायल्यो अुदक हाडून बी भरी. पूण म्हाका ते त्रास कितले आसा ते खबर आशिल्ले. किद्याक तर बरेच फावट हांवे आनी म्हजे फुडलो भाव नारायणबाब ,पैससून अुदक हाडून भरी. बांय २५-३० घसास हात खोल म्हळ्यार ४० ते ५० फूट खोल आसली. ल्हान वयांन कळश्यानी अुदक ओडप म्हळ्यार फकाणा न्ही. आनी तेवूय आठ ते धा कळश्यो हाडोप. आमचे हात दुखुन यंताले, आनी

१०० मिटर्स थावन अुदकाचे कळशी भरुन हाडोप फकाणा नाशिली पूण आवय हे कष्ट नेमान आनी प्रेमान करी. म्हण गांवचे तशंच शेजारचे गावचे तमाम लोकांक ती जाय आशिल्ली. सगळे तिका मान दिताले.

## "बा"

आता म्हजे 'बा' विशीं दोन ओळी बरोपा सारखे आसा. तिजे नांव 'लक्ष्मी'. ती आमचे वाटारार लोकांक लक्ष्मी कशी पावताली. मोठी कर्तव्यदक्ष आशिली ती चौदा वर्सांचेर बाल-विधवा जाल्ली. मगेलो आजो सोयरु कामत, तागेली ती दुसरेपणाची बायल. म्हजो आजोय भोव नेकिचो आशिल्लो खंय खरे अुतराचो आनी मान भौमानाचो जावन गेलो, अशे खुब लोक सांगताले ते हांवे खुब फावट आयकला. गांवात ताजो अुत्पन्नान तिसरो नंबर लागतालो. ते मानान अुत्पन्न बरे पैकी आशिल्लें खंय. लोक अडचणीत पडल्यार पैश्याची मदत करी, तांका तातूतल्यान वाट दाखय आनी धीर दी, अशी बरी कामा केल्यान गावान ताका वजन आशिल्लें. ताजेविशी म्हाका आनी चड खबर ना. जाल्यार ताका सोबित कशी म्हजी 'बा' आशिल्ली. लक्ष्मीनारायणाचो जोडो कसो. तीवूय बी लोकांक अडीअडचणीन मदत करी. शेजारा किदे भस्टचार बी आसलो जाल्यार मदतीक धांवन वताली. शेजारचे भटणीचे बाळंतपणाक धीराची बायल म्हण बाक ताणी वेंगुर्ले व्हेल्ली. आनी हांव तिजे वांगडा गेल्लो. ते भटणीचे वेंगुर्ले आस्पीतलांत ऑपरेशन आसले. अशे तरेन ती गांवचे लोकांक धीर दिताली. तिजी दुसरी मनापासूनची आवड म्हळ्यार धंदो, व्यापार करपाची. पसरो अेक व्यसन जाल्लें तिका. ताका लागून तिने तिन खेपे भुसारी पसरो घालो. पयलो पसरो घरानूच आसलो, दुसरो सोनार पाट्यार, डोंगरे वता त्ये वाटेर, धुतळे म्हण वाडो आसा थै आनी निमाणे तिसरे खेपे श्री रवळनाथाचे देवळालागी आशिल्लो. वयर बरयल्या परमाण आमचे दादाक म्हाल हाडपाक ती पणजे-फण्या धाडी. पूण दादान बोबाळ केल्या टिसापासून खांड्यार, करंजाळे थै फोडू कामत म्हळ्ळो वेपारी आसलो, ताजे कडसून म्हाल हाडी. होच फोंडू काम मागीर तिच्या विश्वासातलो मनीस जालो. शेताचे नाल्लू पाडपाचे भात हाडपाचेय काम तो

पळतालो. अितलेच न्ही जाल्यार चड नाल्ल पाड्याक पडल्यार, वो भात चड मेळ्ळो जाल्यार तो विकपाचे कामूय पळयतालो. तिका अुसणे आंगार पैशे दितालो. बाचो सगळो हिशोबूय तोच पळेतालो, 'बा'क तो पसरो म्हळे अेक व्यसन जाल्ले, पूण बरे व्यसन. तिजेकडेंन पैशे जाल्यान बरेच फावट मीनीची तिनेंच मदत केल्या. पयली पयली दादाचे खेळाक लागून ती स्वतःच म्हाल विकताली. चडसो व्यापार अुदारेचो जातालो. आनी ती अुदारी केन्नाच वसुल जायनाशिल्ली, वयल्यान बऱ्याच जणाक, तांतूर देणेकारुय आसले, लग्नावेळार आनी अितर अडचणीक पावताली. अशे तरेन तिणे पैशे वगडायल्यात, पूण लोकांची जवळीक सादली. मुसोपणात हांव चड करुन तिजे म्हऱ्यांतच चड आस्तालो म्हळ्यार जायत. आमचे अेकमेकांचे स्वभाव पडटाले जावये. स्वतःच्या पायार अुबे रावन पैशे कमावपाची आमच्या दोगांयची आवड सारखी आशिल्ली. तेन्ना हावेयं पसऱ्यार बसपाचे काम केला. तिजो पसरो रवळनाथांचे देवळालागी आसलो. पसऱ्यार बसतालो तेन्ना हांवे अेक संवय लावन घेतील्ली ती म्हळ्यार, मापाक किदेय वस्त घेतली जाल्यार, ती दिस्त फावो जाल्ले मापाची घेवची. सांगचे म्हळ्यार, तांदूळ, तंबाकू, गोड, साखर बी जाय तितलीच तांच्या पिशवेन घालची, आनी केन्नाच कमी जास्त घालची पड नाशिल्ली. ती दिस्ताक दिस्त जाताली. हिच सवंय अुप्रांत म्हजे शिल्पकलेच्या कामात अुपयेगा पडली. बांचे आनी अेक व्यसन आशिल्ले आनी ते म्हळ्यार पोरसू करोप. पावसा दिसानी आमचे घरा लागूनच व्हडले पोरसू करी. दुदी, वायंगी, भेंडी, चिडको-मिडक्यो, वाल बी रोयताली. तशेच तायखीळो तेरे, फागला, कुंडुरेची भाजी, तांमडी भाजी लायी, आनी मागीर कुंडेरेची भाजी आनी कुड्याची भाकरी करी. नुस्त्याचे धबधबे करी आनी बटाट्याच्या केळ्याच्यो फोडी तळून सुरबस जेवण करताली. तिगेली स्पेशालिटी म्हळी, क़िल्लाचे कोंबाची कुंवळ घालून, केळ्याच्या पानान गुंडाळून, रात्रीचे मुमरांत मुंगरुन आमका खतखतीत वाडटाली. भोवच रुचीक लागताली. म्हाका दिस्ता म्हजो मुक्काम तिजे लागी आसपाचे हेच कारण जावये. तिजे वांगडा हांव खुब भोंवलो, बऱ्योच गोष्टी शिकलो. वयर बरयल्या परमाणे वेंगुर्ले वचुन आयलो आनी गोंया पंचवाडे, काकोडे आनी रिवणा पायानीच तिजेवांगडा भोंवला. तोवूय जाण्टी जांवन पायानीच

भोंव तेन्नाची मनश्या चड करन पायांनीच भोंव कोस कोस, दुडवकार मात माचुलानी भोवताले हावे मात जेन्ना तिका शिकपाक मुंबय वचपाचो बेत सांगलो, तेन्ना मात तिणे अपुरबायेन म्हाका म्हन्यान घेत सांगले कि, "राम, पेजेनिवोळ पियोन रावचे पडले तरी हागाच राव," अितले लांब तुका थंय कोण पावतलो? ध्येय्यान फुडे वचपी मनस्याक देव पावता हाजेवीशी तिका खात्री नासुये. मात निमाणे तिने कला शिकपाक मुम्बय वतना म्हाका २४ रुपये दिल्ले. व्हडले समाजिकायेची आनी दुरदर्शी आसली. साठ-पासष्ट वर्सांच्या पिरायेन ती सोंपली.

## "जन आशीर्वाद"

म्हजे आजारपणात जेन्ना हांव थतरवितर जाल्लो तेन्ना जोराचे भिरकेंत हांवे म्हळ्ळे की, "बा, तुवे शिकपाक दिल्ले पैशाचो हांव बरो अुपयोग करुक पावलो ना, किद्याक तर हांव आता हे जग सोडून वता" ही अुतरा मागीर तिणे खुब तेपान म्हाका सांगली, कि तू ही अितलीच उतरा भोवन भोवन जोराचे भिरकेंत बडबडटालो.

सप्तद्वारांचे पारांक बी व्हडली चित्रा तशेच गणपती बी करतालो. ताका लागून म्हाका ल्हान वयातूच लागीचे नी पैसुले लोक वळकताले. ताणी भोंवन भोंवन म्हजी वासपूस करची. म्हाका गुण पडचो म्हण सगळे देवाकडेन मागताले खय. आनी खरेंच सांगचे जाल्यार तांचेच आशीर्वादान आयज हे बरवंक पावलों म्हणपाक जाय. अेक गजाल सागता कि लोकांचे आशीर्वाद आनी आयुष्याची दोर वळकट आसल्यार कसल्याय व्हड संकटातल्यान मनीस सहीसलामत भायर येता. अशे हांवे बऱ्याच फावट अनभवला. अेकदा मुम्बय गिरगांवात रावता आस्तनाची गजाल. हांव भौ. नारायबाब आनी गोयच्यान मदतीक हाडील्लो भौ. रघुनाथ शेट मेळून जेवण करताले. गणपती कारखान्यानूच अेक आडोश्याक आमची रानचीकूड म्हळ्यार कोनश्यातले जमनीर थारायली आयदना, डबे आनी स्टोव्ह. रात जाली म्हण्टकीर सकाळी करुन दवल्लेले जेवण गरम करपाक हांवे स्टोव्ह भायर काडलो आनी रघुनाथ शेटीक मदतीक आपयलो. हांवे स्टोव्ह पेटवपाखातीर स्पिरीट कपड्याच्या गुळ्यार वडवपाक आनी शेटीन फस्का काडी

ओडपाक अेकूच वेळ जाली आनी स्पीरीटान पेट घेतलो आनी अुजो बकबक करीत म्हजे कपड्यार पडून, हांव अुज्याचो लोळ जालो. आकांतान कांयच सुचना जावन हांव रस्त्यार धावपाक लागलो. बरे म्हण बरे, नारायणबाब अितल्यान ते वाटेन येतालो. ताणे लागीच आशील्या गोणपाटात म्हाका गुंडाळून रस्त्यार गडवडा लोळयलो आनी अशे तरेन अुजो पालवलो. त्या वक्तार जर भाव पावना जाल्यार म्हाका दिस्ना बाकी लोग मदतीक अेतले आसले देव जाणा. अेतूय आसले, किद्याक त्या अेकूणीसाव्या शतकाच्या सुरवातेक लोकान बरीच मनीसपणा बाकी आशीली आनी आयच्या स्पिरीटान अुदक चड आनी स्पिरीट कमी आशिल्यान पेट घेवचोय नाशिल्लो. अशेच आनी खुब प्रसंगातल्यान हांव वाटावलां. असे हांव रोमाक स्कॉलरशिपचेर भोवणेर गेल्लो थै म्हजी लंडनचे मयत्रीणेन मिस मार्जरीन असांच म्हाका वाचयला ते हांव मागीर बरयता. मात म्हाभयंकर प्रसंगातल्यान वाटावलो तो सोळा फूट उंचीच्या रानी झांशीचो अश्वारुढ पुतळो करताना. सामान वयर वोडपाक लोखणाची पुली वयर वाश्याक बंदिल्ली. नाच म्हळ्यार साखळी आनी पुली म्हळ्यार तिसअेक किलो वजन जातले. झांशीच्या घोड्याचे पोटाचो कुडको वयर अुखलपाचो यत्न चालिल्लो. अितल्यान पुली बांदिल्लो वयलो वासो मोडून ताका हुमकळायली ती जड लोखणाची पुली सकल येतना म्हाका मातशी चुकली. वयले तुटील्ले वाश्याचे तोंक झेल खावन म्हजे माथ्याक घासून गेले. बरोच घाव जालो आनी पेखपाक बरेच दिस लागले. पूण जर ती पुली आनी वासो म्हज्या केश नाशिल्या खड्यार आपटले जाल्यार म्हजो थैच गुळो जावन पडटलो आसलो. तशेच फुडे अकरा फूट अुचायेचो इटालीन शुभ्र मार्बल कापताना, हांव मरणाच्या दारातल्यान भायर सल्लो. ही म्हजेर देवाची आनी म्हाका बरे मागपी लोकांची कृपा आनी आशीर्वाद म्हणपाक जाय. तेन्नाय अनुभवी कापणाऱ्यानी सदाच्या हुशारीन कापील्लो अेक व्हड फातर सकल वडयताना म्हजेर पडपाचो, मात्स्यो चुकलो आनी कापणाऱ्या कारागीराचेर पडलो. तो सकल आनी ताजे हड्यार तो फातोर. मात बगलाक वणत आशील्यान त्या खांचेन तो अुरील्यान वांचलो, पूण भियोवन तो हालचाल करपाक लागलो. आमी ताका मातूय हालू नाका म्हळे. पूण तो भिल्लो आनी भायर सरपाक यत्न करपाच्या भानगडीन फातोर

हाल्लो आनी ताज्या हड्यार पडलो. मागीर आमी पारय घालून फातर अुबाल्लो आनो ताका अेकदाचो भायर काडलो. मात म्हयनो भर तो के.ई.अेम्. अिस्पीताळांत अुल्लो. हांव अेक हांगा सांगपाक सोदता म्हळ्यार, दुसऱ्यांचे वायट मागले ना, दुसऱ्यांचे वैभव पळोवन तांचे दुस्मानपण केले ना, वो अडचणीन पडील्याची अिस्टेट हातासली ना जाल्यार आपणांक कसलेच भंय नास्ता. जाल्यार संकटावेळा कोण ना कोणुय तरी पावताच. हेच जर अख्या संवत्साराचे मुखेल ध्येय्य जावन अुरत जाल्यार मनिससार समृध्द, सुखी आनी आनंदीत जांवक पावतलो. हाकाच "सुखी संवसार" म्हण येता.

## "नात्याची व्होडवीक"

व्हडलो भाव कै. भौ. कृष्णबाब आनी व्हड भयण आका. ती दोगुय व्हड आशिल्यान बापाय आवयसमान आशिल्ली. चडकरन सगळ्या बाबतींन अशेंच आस्ता. तांतूर आकान म्हजेर व्हड भयणीचो मोग केलो. जाल्यार कृष्णबाबचे वेकणे. पूण म्हाका चड लागी, म्हजेपरस थोडो व्हड कै. भौ. नारायणबाब, म्हजो भावूच नासून मित्रूय आशिल्लो. आमका दोंगायकुय एकमेकांची चड ओड. ताका म्हजे कलेविशी खुब आपुलकी आनी अभिमान जाल्यार म्हाका ताज्या हुनहुन्नरी आनी जीवनाच्या खुब गोष्टींचे ज्ञान आनो ती आत्मसाद करुन घेवपाची जिद्दीचेर मोग, म्हण्टकीर नारायणबाबाविशी बरवप म्हजे कर्तव्य जाता. बाकी भाव म्हजेपरस भुरगं आशिल्यान आनी म्हज्या भुरगेपणान तांचेभीतर ओड जावपासारखी कसलींच वेगळी हुशारी तांच्या लागी दिष्टी पडनाशिल्ली. मात कै. मोगरेआका, ते पिरवळा सांगावकरागेर लग्न जावन आशिल्ले, दिसपाक बरे, स्वभावान साप बरे म्हण अितर भयण्यान चड मोगाचे.

नारायणबाब हरशी शिकपाकूय बरो आशिल्लो. पूण ताज्यान अेक खांट आशिल्ली ती म्हळ्यार कसलीच गोष्ट पूर्णत्वाक न व्हरपाची. लिसेवाचे पयले वर्स जावन तो दुसरे वर्साक आशील्लो पूण ताणे पोर्तुगीज फुडे शिकप अर्ध्यारुच सोडले. त्यावेळा जाय जाल्यार ताका नोकरी मेळ्टली आशील्ली. पुणुन ताणे तशे केलेना. वेंगुर्ले वचून शिकपाचे बेतांत तो सामील आशिल्लो. खेरीज मुंबय गणपती

करपाक ताजो म्हाका आवशीक जालो. अुपरांत ताणे म्हाका म्हळे कि आपणाक कीकीलरीचो धंदो करपाचो आसा, तुजे वळकीन कोणाले तरी पेडण्येकाराक सांगून अुदार म्हाल दिवपाक लाय. म्हजी भौ. शिवाजी म्हात्म्याकडेन वळक आसली. मुम्बयच्या चिरेबाजारांत ताजी पेठी आसली. ताणे अनमन करनास्तना म्हजे अुतराक मान दिवन अुदार म्हाल दिवपाची वेवस्था केली. त्ये विसाव्यासालाच्या सुवातेक दोनशे रुपयांचे म्हालार व्हडले दुकान थाटू येताले. नारायणबाबान गोयांन जात्रानी भोंवपाचो व्यापार सुरु केलो. ताणे व्येपार भोर बरो फुलयलो. पयले पैशे दिवन नवो म्हाल व्हरतालो, अशो तरेन आठधा वर्सा ठांक व्येपार केलो. अितलेंच न्ही तर दुसऱ्यांकय ठोक व्येपार विकतालो आनी दुडू जोडटालो. अुप्रांत ताका किदे अेवजले खबर ना, अेका अेक धंदो बंद केलो नो अुल्लेलो म्हाल आनी अुदारी व्हडले भाव कृष्णबाबाकडेन सोपैली. फुडे कृष्णबाबान तो धंदो कसो किदे केलो म्हाका खबर ना. पूण कृष्णबाबाक पैशे व्याजाक लावपाची सवंय आशिल्लीशी दिस्ता, किद्याक जाल्यार १९३५ सात कृष्णबाबान धंद्याक जाय म्हण म्हजेकडल्यान अकराशे रुपये घेतले. पूण मागीर पैशे परत केले ना. बदला भौ. जगन्नाथ कामतीक व्याजाक दिले. ही गोष्ट जगन्नाथ कामतीन म्हाका सांगली. ते पैशे जगन्नाथान म्हाका व्याजासैत परत केले ते १९४१ सात खांडेपारकाराले ऋण पावपाक अुपकारा पडले.

नारायणबाबाविशी आनी बरोवपाचे म्हळ्यार ताजे आंगात खुब गुण आसले. अेक म्हळ्यार तो बरे पयकी 'नट' आशिल्लो. शिगम्याचे नाटकांत तो मुख्य नटनटींची कामा करी. त्ये खातीर मुजरत मुम्बय वचून कंपनीची नाटका पळेतालो किद्याक त्या नामांकित नटाभाशेन काम करपाक. अुप्रान्त येसायेचे वेळार त्ये त्ये नाटकांचे दिग्दर्शनूय करी. ते खातीर ताणे स्वतः खुब खर्चुय सोसला. मात हालीच कळ्ळे कि मडकयच्या शिगम्याचेर अेक ल्हानशी पुस्तिका काडल्या, पुणून तांतूर नाराणबाबाचे नांव निर्देश ना. जाणे ८-१० वर्सा शिगम्याची नाटका जोरान फुलयली ताजे नांवाचो पुस्तीकेत मातुय अुल्लेख नासप म्हळे व्हड अजाप दिस्ता.

नारायणबाब आदि भावान स्वातंत्र्यप्रेमी आसलो. मुंबय जे जे स्कुलांत शिकतानां म्हजेय स्वातंत्रप्रेम अुफाळून वयर आयिल्ले पूण ते तितल्यापुरतेच. मात नाराणबाब स्वत: सुत काडी. खादी वापरतालो. खादी तो आनी हांव सुर्वे धरन म्हळ्ळे १९१८ धरन वापरी. ताणे माग घालून सुताचे कापड काडपाक सुरवात केली. अेक मात खात्रीन सांगू येता की ताका अेकाच विषयाक बसून रावपाची संवय नाशिल्ली वो अेक किदें मनान घेतले जाल्यार ते पूर्णत्वाक व्हरच्या पयलींच दुसऱ्याक वेंग मारतालो. अेक म्हण आसा न्ही "एक ना धड भाराभार चिन्ध्यो." मागाचे काम अर्द्यार सोडून घरसंसार पळेवक लागलो. आनी घरचे मंडळीक स्वातंत्र्याचे धडे दिवपाक लागलो. म्हळे, आपणांक लागपी तांदूळबी आपणेच शेतकाडून ते जेवप बी असली विपरीत स्वदेशी तत्वां सांगू लागलो. मागीर खुब तेपान म्हाका कळ्ळे की ताणे आमचे आवयकूय जाण्टेवयांन भात कांडपाक सांगचे खी अुप्रान्त घरांतच भात कांडपाचो घाणो घालो. तेन्ना आमचे घरचे अुत्पन्न सुमाराचे बरे आशिल्ले. घराक नवे मदेर आनी सुलचे नळे, तशेंच माळी बी व्यवस्थीत सारकी करुन घेतील्ली. घरचे सगळे बरे चल्ला म्हण्टकार हांवेय घरची चड चौकशी केली ना. हांवय जाल्यार १९३५ सान लंडनच्यान आयिल्लो आनी मुम्बय् भाड्यान ल्हान स्टुडीओखातीर जागा घेंवन म्हजे फुडाराचे आनी व्यवसायाच्या भानगडीत व्यस्त आशिल्लो. मागीर चौकशी केल्यार कळ्ळे कि नारायणबाबाक शेत रोवपाचे अेवजले. ताणे आपले बिन्हाड मडकय 'तोंकार' व्हेले. (म्हळ्यार मडकय गांवचे निमाणे टोक मडकय म्हाडोळच्यान सुरु जाता ती तोंकार सोंपता). थैच्यान आगशी-कुठ्ठाळे दिस्ती पडटा नी लामसर पळेल्यार मारमागोवा (मुरगांव) दिस्ती पडटा. आता जुवारी चो पुल आगशी कुठ्ठाळेक जोडटा तो दिस्ता. खुब सुंदर देखावो पळौक मेळ्ळटा. हांव भुरगेपणा हांगा देगेर बसून तासनतास पळेत रावतालो आनी स्वप्नान बुडटालो. जाल्यार नारायणबाबान थै अेक ल्हानशे घर बांदले आनी आपूण अेकलोच रावक लागलो. किद्याक तर त्येच वेळार शेता रोयता तामींच पावणेर हाडपाची अशे गोंयचे तेंन्नाच्या पोर्तुगेज सरकारान थारायले. जायते बामणानी आपुण शेत रोवपी हे नात्यान शेता पावणेर हाडली. तशेच नारायणबाबानूय हाडली. ताणे मात स्वत: रोयली तर बाकिच्यानी परत भागेल्यांक

लावन आपूण घरा बसून वयली मलई खाली, नफो खालो. खेरीज त्ये आदी 'कोलय' म्हण गांवचे सगळ्या मतान थारायले कि 'आंकसावा' बी घरांतले मनशापरमाण भाताच्यो मुड्यो वाटच्यो. हे ठरावा वरवी गांवचे लोक समाधान रावताले. कांय जणानी विकील्ली आंकसावा परत घेतली. जे आंकसांव रु. १२५ जाल्ले तेंच 'कोलय' केल्यान देंवन रु. ३०-४० मेळपाक लागले. शेत रोवप्याक दोन वाटे आनी मालकाक अेक वाटो अशे थारायले. मात नारायणबाब स्वत: रोयतालो आनी स्वत: कमायल्लें खातालो.

शेत रोयतालो म्हणसर आनी अेक अुद्योग ताणे सुरु केलो. तो म्हळ्यार रंग तयार करपाचो. ताणे केल्ले रंग हांवे आर्ट स्कुलचे डायरेक्टराक दाखयले जाल्यार, ते सामके बऱ्या जातिचे म्हण ताणी सर्टिफिकेट दिलें. अितले बरे रंग तो करी. आता म्हाका दिस्ता कि तेंच रंग चड प्रमाणात ताणे तयार करुन फॅक्टरी घाल्ली जाल्यार तो गोयांतलो अेक व्हड व्यापाऱ्यांत मोडटालो आसलो. पूण जाका जीवनातलो प्रत्येक रंग पळोवपाचो आशिल्लो तो अेकच गोष्टीक कसो कवटांळून आनी पैश्याच्या फाटल्यान लागतलो? हांगा सांगनशे दिस्ता म्हळ्यार म्हज्या पुतान, आदित्यानूय हे वेगवेगळे करपाचे गुण आयल्यात पूण फरक अितलोच कि तो प्रत्येक छंद पूर्ण करता. तो शिल्पकला-चित्रकला करता तशे ताणे गोयांन प्रदर्शनूय भरिल्लें. मागीर ताणे म्हज्ये तकलेचे शिल्प केल्लें ताकाय बाम्बे आर्ट सोसायटीचे पयले बक्षिस मेळ्ळे. मागीर गोंया मेडिकल कॉलेजीत आस्तना जे चित्रांचे प्रदर्शन भरिल्लें, त्या प्रत्येक चित्राचेर कथन करपी अेक अेक कविता रचून त्या त्या चित्रासकल लायील्यो. हे ताणे १९७२ केल्लें. हो अेक पयलोच प्रयोग जावये. त्यो कविता आनी मागीर थोड्यो आनी बरोवन ताणे 'गोंयचो परमळ' नावाचे पुस्तिका छापली आनी ती प्रदर्शित केली. म्हजी न चलपी मोटार पूर्ण अुकती करुन ताजे इंजिन सारखे करुन, नवो रंग दिवन परती चालू केली. अशे सांगपाचे जाल्यार आदित्यान आनी खुबुच गोष्टी करुन त्यो पूर्ण केल्यात. अितलेय करुन आपलो डॉक्टरीचो व्यवसाय उत्तम तरेन केला. तेन्ना हे पूर्ण करपाचे गुण जर मनश्यान आसत जाल्यार तो मनीस सदांच सुखी जाता.

रंग तयार करपाच्या बोवाळान नारायणबाबाच्या मनानूय प्रेम रंगाचे थैमान घालपाक लागले जावये. त्या बोवाळांत ताजी अेका नाईकांच्या चलये लागी वळक जाली. मुखार त्येच चलयेकडे ताणे लग्न केले. महात्मा गांधीचे शिकवणीचो ताजेर खुब परिणाम जाल्लो आसुक जाय. खादी तर तो घालतालोच, पूण दुसरे वर्गाच्या चलये लागी लग्न करपाचोय त्या काळांन ताणे पायन्डो घालो म्हणपाक येता, आनी घरच्या मंडळीचो रोष ओडून घेतलो, तसोच गांवच्या काय लोकांचो. अितलेच न्ही जाल्यार म्हार-चामारांक पंक्तीक घेवन जेवणा घालतालो. देवळांन बामणा बायला भितर आपले बायलेकूय बसयी, ते लोकांक नसाय जातालें. ताणे खुब नवे नवे प्रयोग केले. तो गांवचे मानान खुब नवमतवादी आसलो. मोप बरे रग करी पूण ते विकपा खातीर दुसरे व्येपाऱ्यांक दलाली दिवपाक तयार नासलो. म्हण ताणे आपूण जावन लोकांली घरा रंगवपाक घेतली. कितलोसोच रंग ताजे घरान पडून आशिल्लो. रंग करपाची तराय लेगीत पोत्री स्वदेशी, खुब वेळ घेवपी म्हण हांवे ताका सुचलये कि नवी रंग करपाची माकना आयल्यात, तेन्ना ती वापरुन रंग बेगीन करपाक येता. म्हाका तो खुब मानतालो पूणून अुप्रान्त ताजी वेगळीच तरा जाली. आनी ताजो हट्टपणाय वाडत गेलो. आपणांक जाय तेंच करी. स्वदेशीचे वारे ताज्या आंगान भिनील्यान आनी ते तत्वाक लागून ताणे आपणाले पोत्रेच तरेन रंग करपाचे चालू दवरले. स्वत: शेतां रोयील्यान ताजे लागी हूडू जाल्लं. पूण तरीय तांतूनय ताजे लक्ष्य लाग ना जाले. मुम्बयन अेवन किदे नांव काडचे अशे बी थारायले जावये. मडकयचे आपले घर, शेत आनी रंग सगळे सोडून म्हाका कळैनास्तना अेक दिस दत्त म्हण मुंबय, वांगडा बायल आनी चलयेक घेवन आमगेर आयलो. काय तेप म्हऱ्यान रावलो पूण मागीर आमचेकडेन झगडून ताणे आनी ताज्या कुटुंबान म्हजे स्टुडीओन बस्तान मांडले. थैंच ताणे मागीर अुजवात्यो, रंग बी करपाक सुरवात केली, आनी आपले बायल भुरग्यांसैत रावक लागलो. तरी बरे त्यादिसानी म्हाका कांयच काम नाशिल्लें. थोडे मयने स्टुडीओत रावन मागीर तो विलेपार्ले अेक दुकान घेवन रांवक लागलो. थंयच ताका दुसरी चली जाली. आनी ताजी बायल थंच गोल्डन टोबॅको सिगरेट कारखान्यान कामाक लागली. पूणून तागेले विक्षिप्त स्वभावाक लागून तो थंमच्यान

आमका कोणाकूच सांग नास्तना बायलेभुरग्याक विलेपार्लेक दवरुन अेकटोच गोकर्ण मठाचे स्वाम्याकडेन वडाळ्या मठान रावपाक लागलो. संसाराचो त्याग केल्याभाशेनूच तो भगवी वस्त्रा घालूक लागलो. मागीर म्हाका हे कळ्टकर जेन्ना हांव तांचे लागी मठान पावलो आनी ताका परतो संसारान रमपाक सांगले तेन्ना म्हजेय आयकून घेवपाक तयार ना जालो. शेवट पावसर तो स्वाम्यालागीच वडाळ्याच्या मठान रावलो. मात अेक दिस आमका मठाच्या लोकांनी कळयले कि तो मठान बरो ना. थै गेल्यार कळ्ळे कि ताका मोटारीचो अेक्सीडेंट जाला आनी घाटकोपराक सर्वोदय आस्पीटलांत दवरला. पळेत जाल्यार हडयाक ताका खुब मार लागील्लो आनी प्लास्टरबी घाल्लें. हांवे ओळखी काडल्यो आनी थैंच्या म्हाका वळखपी व्हड सर्जनाक मेळून तो म्हजो भाव म्हण सांगले. ताणे रोखडेच ताका बऱ्या जाग्यार दवरुन, बरे जेवण-खाण आनी अितर सोय सवलत दिली. जाल्यार हो थै झगडूक लागलो कि हांव नावाजल्याचो भाव म्हण्टकर म्हाका तुमी बरे करतात आनी बरे जेवणबी दितात. बाकीच्या रोग्याक किद्याक ती सोय ना? थंयच्या सुप्रीटेण्डनाकडेन वाद घालून परवानगी खेरीज आस्पीटलातल्यान भायर सरुन, प्लास्टरचे बेन्डेज आस्तना आमच्या लागी प्रभादेवीक आयलो. मात बायले-भुरग्या म्हऱ्यान गेलो ना. परतो मागीर अेक दिस साप बरो जातकर आमका कोणाकुय न सांगताच ना जालो आनी थेट परतो स्वाम्यालागी मठान रांवक लागलो. आस्पीटलांत आस्तना खंय पोलीस केस जाली म्हण्टकर ड्रायव्हर ताजे लागी आयलो आनी केस मिटवपाक पैसे दिवपाक केले जाल्यार नारायणबाबान ताका सरळ सांगले कि, "तुका ॲक्सीडेन्ट केलो म्हण पश्चाताप जालो म्हण सांग, तितलेच आपणाक पुरो, आपणे तुका क्षमा केली म्हण समज." असो निस्वार्थपणा आनी परोपकारीपणाय ताज्या लागी आशील्लो. मठान जेवल्यार जेवतालो आनी मनाक दिसले जाल्यार अुपाशीच रावतालो. अशे तरेन ताजी प्रकृती कृष जायत रावली. परतो मागीर तो आजारी पडलो. पायाच्या बोटाक ताका किदे फेरिद जाले. तापान फणफणतालो. जेन्ना म्हाका मठाच्या लोकांनी सांगले तसो आदित्याक घेवन वचून ताका घरा हाडलो. आदित्य तेन्ना कान, नाक घश्याचो डॉक्टर म्हण काम करतालो. ताणेच ताका हॉस्पीटलांत दवरुन ताजे फेरिद सारखे

केले. त्यावेळा म्हज्या अेका पुतण्यान कमलान ही गोष्ट विलपार्ले आशिल्या ताज्या बायलेक कळयल्ले. तशी ती आनी तिज्यो चलयो ताका मेळपाक गेल्ली खय, मागीर थोडे दिस आमच्या घरा रावन तो परतो मठान पावलो.

नारायणबाबान विक्षीप्तपणा आनी केल्ली कामा अर्धवट सोडपाचे सोडल्यार आनी बरेच गुण आशील्ले. ताणे ल्हान भुरग्याखातीर काणयो बरयल्यो. तशेंच म्हाभारतातल्या सान सान काणयो बरयल्यो. ते सगळे लिखाण मठान सोडून शेवटच्या काळान थोडे तेप आपले बायले आनी चलया म्हऱ्यान वचून रावलो. पूण पोरु वर्सा तो सोंपलो. आदित्याक खुब वायट दिसले ते ताजे लिखाण-मठान ना जाले ताजे. मेळील्ले जाल्यार ताज्या नावांन छापपाक येताले. कोणाक गावला ताणे ते आपल्या नांवार खपयला आस्तले. अितले सगळे गुण आशिल्ले म्हजो मोगाळ भाव आपल्या विक्षिप्तपणाक लागून आनी अेकूच गोष्ट तडीक न व्हरपा लागून त्या व्हड संसारान आपले नांव करनास्तना सोंपलो. मात म्हाका दिस्ता ताणे आपणालो मार्ग नक्की केलो ना देकून अेकूय गोष्ट तडीक व्हरुक पावलो ना.

## “डायरेक्टर कॅ. ग्लॅडस्टन सालोमन”

सादारण तीन वर्सा मेरेन घरा रावन, हांव परतून साप बरो जातकर मुंबय १९२७ सालात आयलो. आनी परते अेक वेळ गणपती करपाक लागलो. तेन्ना हांव आंबेवाडीत जे ठिकाण आयजूय गिरगांवात आसा थै रावतालो. हेवय खेपेक म्हाका नारायणबाबाची मदत जाली. आमचे सगळे गणपती, म्हळ्ळे आदले वर्साचे अुरिल्ले तेवय खपून पयलेच फावट गणपतीचेर खर्च वचून ३०० रुपये अुल्ले. त्या काळान ताजी खुब किंमत. अेक आण्याक अेक नाल्ल मेळटालो, आयज १९ ८०न पांच रुपयाक अेक मेळटा. दर खेपेक गणपती करचे वेळार आमचे जेवण चड करुन आमीच करताले. तांदळ्याच्यो वोव जोंधळ्याच्यो भाकऱ्यो तव्यार थापून करताले. वांगडा हाटेलाचे तोंडाक म्हळ्ळे भाजी हाडी. केन्ना केन्ना वेळ नास्तालो तेन्ना आमी पावभाजी खांवन रावताले आनी पोट भरुन अुदक पिताले. तेन्ना गोयंचे आनी आवयच्या जेवणाची याद येताली. केन्ना केन्ना खुशीत आसले

आनी खिशांत पैशे आसले म्हण्टकीर राती वेळेक आमी गवाच्या रव्याचो बरो साजूक तूप घालून सांजो करुन खांताले. अशो हे दोन वो तीन मयने करताले. चवथ एवचे आठ दिस पैकी आमी दिस रात काम करी. आनी सारखे खावपा जेवपा बिगर सामकं लांम जाताले. चवथीचे दुसरेच दिसा बोटी आसल्यार बोटीन (चड करुन बोटी चालू जाताल्यो, मात त्याकाळानी बोटी ल्हान आस्ताल्यो, आता बोटी व्हड जावनूय ओक्टोबर म्हयन्यात सुरु करतात.) अुडी मारुन चवथीक गोंया वचून येताले. ते थोडे दिस मागीर जेवणार बरो ताव मारुन परते मुम्बय येताले.

वयर सांगल्या परमान जेन्ना म्हजे लागी ३०० रुपये अुल्ले, तात्काळ हांवे सर जे. जे. स्कूलांत शिल्पकलेचे शिक्षण घेवपाचे नक्की थारायले. जेन्ना जेन्ना वेळ मेळतालो तेन्ना तेन्ना जे. जे. स्कुल ऑफ आर्टच्यो भोवंडी हांव मारी. थैंय आशिल्या भुरग्याकडल्यान खबरी काडी. केन्ना अेकदा म्हाका थै भितर घुसपाक मेळटा ताजी वाट पळेतालो. पूण प्रवेश मेळवपाक पैसो जाय, म्हण्टकिर तो मेळवपाक गणपतीबा करुन पैसो गांठीक माल्लो. खरे म्हळ्यार आदी 'ॲडव्हान्स पेंटिंग' जाल्ले, म्हळ्यार ॲडव्हान्स पास जाल्लो. पेन्टीगाचो डिप्लोमा मेळवपाचे अेक नीमाणे वर्स अुल्लेले. पूण मलेरिया आनी मागिर टायफायड नी पराटायफायड जांवन दोन तीन वर्सां गोंयाच अुल्लो. त्याभितर हांवे गोंया आस्तना मनशा अेदी मातीची वो मेणाची बावली केल्ली आनी पयली सांगिल्ले भाशेन प्रदर्शनाय भरुन लोकांची ताखणाय मेळयल्ली. म्हाका दिस्ता त्ये प्रमाण मगेलो कल शिल्पकलेकडेन वळ्ळो जावये. आता प्रश्न आशिल्लो म्हळ्यार जी म्हजी दोन तीन वर्सां फुकट गेल्ली ती परती कशी मेळवप. म्हळ्यार जे. जे. स्कूलांत पयले पासून वचन जाल्यार हांव आनी चड काय शिकपाचो नाशिल्लो, किद्याक तंर हांव पयलीच मनशा अेदि बावलं करतालो. म्हण्टकिर कसेय करन तिसऱ्या वर्साच्या वर्गान घुसोप. हांवे खबर काडली आनी कळ्ळे कि गोंयचो आर्टीस्ट भौ. भोंसुले थैंय प्रोफेसर आसलो. ताका वचून मेळ्ळो आनी म्हजी सगळी कथा ताका कळीत केली. तो म्हजेर खुष जालो. ताज्या सल्यान शिल्पकलेचे दोन तीन नमुने करचे आनी कॅ. सालोमन, जो तंवेळा जे. जे. स्कुल ऑफ आर्टसचो डायरेक्टर

आशिल्लो ताका व्हरुन दाखोवचे. म्हण्टकिर ते वेळचे नामांकित शिल्पकार कै. भौ. म्हात्रे आनी दुसरो म्हळ्यार कै. भौ तालीम हांका मेळ्ळो. मगेलो हेतू आशिल्लो कि तांगेले स्टुडीओंत, तांच्याच कामाची नक्कल करुन त्यो नकली भौ. कॅ. सालोमन हांका व्हरुन दाखोवपाची. आनी तो विचार हांवे कै. म्हात्रे आनी कै. तालिम हांचेकडेन प्रगट केलो जाल्यार ताणी म्हाका सागले की तांगेले स्टुडीओंत तशे काम करपाक म्हाका मेळपाचे ना. मगेलें मन विरस जालें. पुण नेट सोडलो ना. आनी खबर काडली की आमच्या पैकी अेक प्रसिध्द शिल्पी कै. भौ. वाघ म्हण आसा. जालें ताका वचून मेळ्ळो आनी म्हजो अिरादो ताका सागलो. भौ वाघ मनश्यांचे मुखवटे करपान खुब नाणावलेलो शिल्पी जावन गेलो. तो देवभक्त आसलो. ताणे म्हाका रोखडीच मान्यता दिवन काम कर म्हण सांगलें. तांचे म्हजेर खुब खुब अुपकार जालें. त्येप्रमाण भौ. वाघ हाणी कोणाचे हेड केल्लें ते बर हुकुम हांवे दोन मुखवटे केलें आनी स्कुलांत व्हेलें.

हांवे पयली हेड मास्तर श्री. तास्कराक विचाल्लें. ताणे तर म्हाका स्पष्टच सांगून वडयले कि पयले वर्सा, सुरवातीपासून शिंकू जाय म्हण. मात प्रो. भोसुलेन सांगिल्लें प्रमाण कॅ. सालोमन दनपारचे जेवणांक वता आस्तनाच ते दोनुय हेड आनी मगेली दुसरी कामा दाखयली. आणी कॅ. सालोमनान श्री. तास्कराक ओर्द काडली कि म्हाका तिसऱ्या वर्साचो अभ्यास करपाक आडमिशन दिवचे. कॅ. सालोमन ती कामा पळोवन भोवच खोशी जाल्लो. दुबावीत जावन दुसरे खेंपेक हेडमास्तर तास्कराक मेळ्ळो. ताणे आपणाले पयलेच पालूपद चालू दवल्लें. आनी म्हण लागलो कि पयले वर्सा धरुन शिकचें पडटले. आता मात म्हगेले काळीज घप्प करुन पडले. किद्याक तर पांच वर्साचो अभ्यासक्रम करपाक हांव शेकचो नासलो. आनी आदी तीन वर्सा गोंया आजारपणा लागून फुकट वगडायल्ली, ताजें आता खुब वायट दिसले. मुखार किदे करचे ते विचारान सुचनासून, मदल्या होलांत पिशांवरी अुबो आशिल्लो. कॅ. सालोमन दनपारचे जेवण घेंवन परतो आफीसांत वचपाक येतालो, ताणे म्हाका आपूण जावन हटकायलो आनी खुषीत येवन मुरमुखेंच हांसून म्हजें फुडें अेवन आनी खाद्यार हात वडवन "फालच्यान अभ्यासाक सुरवात कर" म्हण लागलो. हांवे मगेले मोडके तोडके अिंग्रजी

भाशेत घडिल्ली गजाल ताका सांगली. ताणे आनी फाटी फुडे पळेनास्तना, तांबडो गुन्द जावन म्हाका आपल्या वांगडा यो म्हण सांगले. हेड मास्तराच्या ऑफीसांत दारान अुबो रावन सायबान रागान म्हळे "कामतीक तिसरे वर्सा अेडमिशन दी." जाले, म्हजेवले सावट निवळून हांव व्हडले मनान घरा आयलो. म्हाका मळबाक हात तेकल्ले परी जाले. तो आनंद वर्णवपाक म्हजे लागी शब्द अुणे पडटात. गणेश पुजेकच हो मगेलो पयलो विजय मानून अभ्यासाक ओमगणेशा केलो. शाळेतलो अभ्यासक्रम साप सोपो दिसलो किं, थारील्लो शिल्पकलेचो अभ्यास आठ दिसांचो जाल्यार हांवे तो दोन तीन दिसां पैलीच सोंपवचो. शाळेचे हेड मास्तर तास्कर वो व्हीजीटर्स (होनररी) म्हळ्ळे शिल्पकार म्हात्रे आनी तालिम, हे बाकि भुरग्याल्यी कामा सुदारताले, पूण ताणी मगेले कामाबाबत बरे वो वायट, अशे वो तशे करपाक जाय म्हण् केन्नाच सांगले ना. त्येवेळार म्हाका ताजी चतराय जाली ना. आता मात दिस्ता असो भेदभाव ते नक्की किद्याक करताले ते. मात लंडनचो रॉयल अेकेडमीचो प्रोफेसर म्हाका केन्नाच शिकय नासलो. अुरफाटे म्हणचे आपूण कामतीवीशी चिंता करना. मात बाकिच्यांक सांग कि आपूण शिकयता ताजेर लक्ष दियात म्हण. हांव जेन्ना हेड स्टडी करी तेन्ना प्रोफेसर मॅकमिलन म्हजे लागी आयलो आनी ज्या व्यक्तिचे हेड स्टडी करता ताजी तोंडावळ्याची मापा घेतल्या काय म्हण विचारपा लागलो. हांवे म्हळे की आता घेता. हांवे मापा घेतली जाल्यार ती जीस्ता जीस्त आसली. ते पळवन तो सामको खुशीत येवन म्हजी पाठ थापथोपवन गेलो.

ते तिसरे वर्सा, म्हळ्यार म्हजे शाळेच्या पयल्याच वर्सा परिक्षेत म्हजो दुसरो नंबर लागलो. म्हाका अजाप जाले रोखडेच हांवे माननीय शिल्पी आनी परिक्षक भौ. म्हात्रेक मेळून विचाल्ले कि म्हजो पयलो नंबर कसो किदे आयलो ना? म्हाका खात्री आसली कि म्हजो पयलोच नंबर येतलो म्हण किद्याक हांवे विद्यार्थ्यांची कामा पळयल्ली. भौ. म्हात्रेक म्हजे अभ्यासाची पुराय कल्पना आसली, ताणे आश्चर्यान म्हाकाच परत विचाल्ले, "कसो आयलो तुजो दुसरो नंबर?" अुप्रान्त स्कुलांत चौकशी केल्यार कळ्ळे की शाळेंत हजेरी लागता ते प्रमाण मार्क दितात. चौथे वर्साक मात म्हजो नंबर पयलो आयलो. पूण हांव पयले

बशेनूच हाजीर आस्तालो. ते वेळा म्हाका राणा ऑफ कच्छ स्कोलरशिपूय मेळ्ळी. म्हगेले ते वर्स भोंवच गाजले. त्ये दिसानी हांवे आनी भौ भिकू शेणयान भागीत द्वारकादास मॅन्शनांत कुड घेतीली. शिष्यवृत्तीचे पैशे कमी पडटाले म्हण हांवे क्लासाक सांजची दांणी मारची, घरा येवन अेक न्हीद काडची. अुप्रान्त देवांची प्लास्टरची पायनेला करन तांका रंग बी दिवन विकची. आनी म्हजो खर्च भागवचो. श्री. मंगेश आनी श्री. शांतादुर्गेची पायनलाक बरी मागणी आशिल्ली ,त्यादिसानी मुम्बयन तेन्ना गोंयचे सारस्वत लोक बरे पैशेकार आनी बऱ्या हुद्यार आशिल्ले. ती पायनल सादारण अेक ते दिड फूटाची आस्ताली. तांका फुडे कांच बसयल्ली आस्ताली अजूनय ती कामा सारस्वत भक्त गणागेर पळवंक मेळटली. तिसरं वर्सा हजेरी कमी जाली म्हण दुसरो नंबर आयलो जाल्यार चौथे वर्सा दनपारांच घरा वतालो पूण पयलो नंबर आयलो. म्हाका दिस्ता भौ. म्हात्रेक म्हाका वयर काडपाचो नाशिल्लो जावये. म्हण ताणे आनी हेडमास्तर तास्करान हजेरीचे निमित्य लायले जावये. मात चौथ्या वर्साक कै. सालोमन सायबान जातीन लक्ष घालचें. सदीच येवन शाबासकी दिवची, ताजे हेड मास्तरचेर वजन पडून हजेरीचे निमित्त लायले ना जावये. जेन्ना जेन्ना सालोमन सायब क्लासाक येतालो ताणेंच म्हाका हेड मास्तरा अुजीर बाकी भरग्याक शिकवपाक सांगचे.

## "रुप्या पदक"

ते वर्स अेकूणशे अठ्ठाविसचे, बाम्बे आर्ट सोसायटीची प्रदर्शना ते दिसांनी 'टाऊन होलांत' (म्हळ्यार आताच्या कावसजी हॉलात) भरताली. भारतातले शिल्पी, चड करुन नवे शिल्पी आपली शिल्पा थै धाडटाले. तिन बक्षिसा आस्ताली, म्हळ्यार पयलें भागराचे, दुसरे रुप्याचे, आनी निमाणे ब्रान्झचे (पंच धातूचे). प्रदर्शनाक धाडपाक आमच्या जे. जे. स्कुलातले निमाणे वर्साचे भुरगे तांतूर भाग घेताले. मुजरत सागपाचे म्हळ्यार कै. भौ. करमरकर म्हण म्हजे फुडे शिकपी (सिनीयर) विद्यार्थीय शिल्पकलेंत फुडें नांवारुपाक आयलो तो ब्राह्मण कुळातलो आनी त्यावेळा मुम्बयतच न्हीं अख्या महाराष्ट्रात ब्राह्मणाचो दबदबो आशिल्लो. तांच्या भुरग्यांक फुडे शिकपाक खुबूच सवलती आनी शाबासकी मेळटाली.

तांतूर जर तो भुरगो हुशार आसत जाल्यार मागीर सांगपाक नाका. कै. भौ. करमरकरुय अेक हुशार शिल्पी आशिल्लो. ताणें आनी तांच्या वांगड्यानी ह्या प्रदर्शनात भाग घेतीलो. म्हाका हि गजाल पयली खबर नाशिली. पूण भौ. भौंसुलेन आनी कै. सालोमन सायबान विचाल्ले कि हांव किद्याक भाग घेना कांय म्हण. म्हजी तशी तयारी आसाशे तांका दिसला जावये. पूण म्हज्या मनान विचार आयलो हांगा अितले म्हजेपरस जाण्टे शिल्पी कामा धाडटात, तेन्ना म्हजी पेज तांच्यान शिजतली काय म्हण. निमाणे मनाचो निश्चय केलो, तांतूर नारायणबाबाचे प्रोत्साहन आशिल्लेच. ताणे म्हाका याद करुन दिली कि हांवे मनश्या अितली व्हड मातयेची नी मेणाची बावली करुन गोया जात्रेन अेकल्यान प्रदर्शन भरयला, तेन्ना म्हाका कांय जड वचपाचे ना. तू भाग घेच. मागीर हांवे मनाची तयारी केली.

द्वारकादास मेन्शनांत कामा करपाक जागा बरी आशिल्ली. पयलीची घरा ती, अैसपैस आनी अुचाअिची. आयच्या बशेन धा बाय धाच्यो जागो न्ही. ते अेका खोलयेन, आयचो अेक बेडरुमचो ब्लोक जावपाचो. जनेलायबी मोठी आनी खोली हवेशीर. थैच हांवे पंधरा दिसा भितर 'कोळ्यालो पोर' हे मातयेचे काम पयले करुन मागीर ताजो प्लास्टरचो कास्ट केलो आनी वेळ नाशिल्यान ओल्या प्लास्टरचेर रंग साड्डांवन सामको निमाणो म्हण्टात तसो 'टाऊन हालांत', तो हॉल बंद जावचे वेळार व्हरुन दिलो. हॉलाची सपना घुवन घुवन वयर वता आनी चडपाक कठिण. गड चढिल्याबशेन भासी. तेन्ना ती सपणा चडपाक म्हाका आनी नारायणबाबाक विश्व अेवजलें. तांतूर ओल्या प्लास्टरचो जड 'कोळ्याचो पोर' स्वत: अुखलून वयर व्हरपाचो म्हळ्यार विचार करात. कमिटीचे लोक थंय आशिल्ले, ताणी तर तोंणान बोंटा घालून नवलान नारायणबाबाक विचाल्ले कि हे शिल्प कोणे केले म्हण. हांव बाजूक रावन ते शिल्प बसवपाचे काम करतालो. तेन्ना नारायणबाबान म्हजेकडेन बोट दाखोवन म्हळे कि "ह्या म्हजे भावान राम कामतीन केला म्हण." ते चक्कासूर जावन म्हजेकडेन पळेत रावले. किद्याक जाल्यार हांव त्यावेळार वयापरस भुरगो (शाळकरी भुरगो कसो दिसी) दिसतालो. खेरीज म्हाका मुम्बय कोण वळखी नासलो. 'कोळ्या पोर' नीट जाग्यार बसयलो खरो पूण म्हजे सारख्या नव्या वळखिनाशिल्पा गांवच्या भुरग्याचे कामाक कोण

बक्षिस दितलो, अशे मनान आयले, शिवाय निवड करताना पार्सेलिटी बी करना काय म्हण मनान येताले.

प्रदर्शन अुकते जावपाचे दोन दिस पैली कळयले कि म्हाका रुप्या पदक दिला म्हण, आनी ते घेवपाक हांवे जातीन हाजीर रावचे. जाले व्हडले दबाज्यान समारंभ जालो. जो तो म्हजी तुस्त, तोखणाय करुंक लागलो. किद्याक तर तांका दिसला आसत कि अेद्या भुरग्यान हे सुंदर काम कशे किदे केले कॅ. सालोमनान तर म्हजी खुब व्हाव व्हाव केली तोखणाय करताना परतो परतो म्हजे फाटीर शाबासकी दिताले. ताका भोव खोशी जाली जावये कि ताणे म्हजी खरी पारख केली म्हणपाची. आपणे अेका बऱ्या हुशार शिल्पीक सर जे. जे. स्कुलात प्रवेश दिवन, योग्यच काम केले म्हणपाचे. दुसरे दिस पळेत जाल्यार सगळे वर्तमान पत्रानी म्हज्या कामाची चड तोखणांय केल्ली. आनी म्हळ्ळे कि ते 'खार्व्याल्या पोराकूच' भांगरा पदक फावो जाताले. कॅ. सालोमन सायेबानुय अेक लेख बरोवन कोळ्याचे पोराकूच सुवर्ण पदक फाव आशिल्ले म्हण री ओडील्ली. हि गजाल अुप्रान्त म्हाका बाकी लोकांनी सांगली किद्याक वर्तमान पत्रा घेवपाक म्हाका परवड नाशिल्ले. बरेच वर्सानी कळ्ळे कि म्हजो शिल्पी दोस्त भौ. करमरकरान हानी कात्रना काडून सामाळून दवल्लेली. तशेच फुडेय म्हाका मेळ्ळील्या विजयाची वर्तमानपत्राची कात्रणा ताज्या लागी आशिल्ली. गणेश पुजेकच कै. सालोमनान, तशेच मगेले इष्टानी म्हाका माथ्यार घेतलो. त्या दिस अुप्रान्त स्कुलातले मास्तर आनी शिकपी भुरग्या भितर म्हाका मानाच्यो नजरो गावल्यो. सागपाचे म्हळ्यार तांतून मन धादोस जालेच पूण म्हजो आत्मविश्वासूय वाडलो, सदांच हांवे मन लावन काम केला, पूण जिंकपाचे विचारान मात केन्नाच केले ना. म्हजे काम बरं जावचे आनी ते पळोवन लोक धादोस जावचेशे मात नक्की दिस.

## "फॉरेन शिष्यवृत्ती मेळ्टा"

हे विजयाच्या नाड्यारुच म्हाका विलायतेक फुडे शिकपाखातीर स्कॉलरशिपचेर वचपाची संधी गावली. ते अशे घडले. हो रोप्य पदकाचो समारंभ

जातकर म्हाका तेच वर्साचे भांगरा पदकूय मेळीलॅ, तें चवथ्या वर्साचे जे जे स्कुलाचे भांगरा पदक आशिलॅ. कांय दिसा अुप्रान्त प्रसिध्द शिल्पकार भौ. वाघान म्हाका आपौणे धाडले. तागेले हेतू किदे आसलो म्हाका त्यावेळा खबर ना. तेन्ना हांव मदी मदी तांगेले स्टुडीओंत तांका मदत करतालो. म्हाका थै तो जेवपाक, रावपाक आग्रो करी आनी सांग कि भायले जेवण बरे नास्ता. आपल्यागेरुच रावन मदत करपाक बरी जातली, आनी म्हाकाय व्हड कामा करपाची संद मेळटली. मनान म्हळ्ळे ती म्हाका हरशींय थैं येवन करपाक मेळटाच. ओगीच परक्यागेर रावन जेवपबी म्हाका पसंद नाशिलॅ. आतांय केन्नाय दुसऱ्यागेर रावपाची गरज पडत जाल्यार जीव वयर सकल जाता. जाल्यार भौ वाघाचो म्हजेर जीव जडिल्लो. जेन्ना तो 'मंगेशी' गोंया वतालो तेन्ना दादाक मुजरत मेळून सांग की तुगेलो चलो खाणा जेवणाची हयगय करता. तशे केल्यार तो आजारी पडत देखून आपणागेर रावपाक सांग. आनी त्ये प्रमाण दादान म्हाका खुब अुपदेश करचो. हांव त्याखातीर कै. भौ. वाघाचो खुब अुपकारी आसा.

तागेल्या आपोवण्यावरी हांव ताजं लागी गेलो. ताणे म्हजे काम पळयलॅ. आनी किंदे सांगले ते ताज्याच अुतरानी हांगा बरयता. "कामत, हांवे तुजे काम पळयले. भोव सुंदर जाला. आनी थारायलं कि तुका इंग्लंडाक धाडल्यार फुडे बरे शिकतलो आनी किर्तीय जोडटलो", देकून राजाध्यक्ष फोरेन अेजुकेशन सोसायटीचे कमिटीचे अेक दोन मेम्बराक सांगला (तांतूर अेक जस्टीस राजाध्यक्ष आसलो) कि तुका फुडले शिकपाक विलायेक धाडचो, तो नांव काडटलो. "तेन्ना तुजे मत घेवपाक तुका आपैला, ना म्हण नाका. अशी संधी परत परत येना." ताणे फुडलीय माहिती दिली कि आन्ना म्हाका कायच पैसे दिवचे पडचेना. मात फाल्या शिकून येतकर आनी जोडपाक लागतकर तांचे स्कालरशिपचे पैसे परते करचे पडटले. हांवे ताका थंड साणेन अितलेंच सांगले कि ती शिष्यवृत्ती परत फेडची आस्ता जाल्यार तं म्हाका फुडे कशे शक्य जातले? दुसरे सांगता कि जशे हांवें अितली वर्सा कोणाची पैशयाची मदत घेना आस्तना शिकप केलं तशेंच म्हाका जाय जाल्यार मुखार विलायतेक वचून शिकपाक शकतलो, म्हळ्ळी म्हाका हमी दिसता. ताणे फुडे म्हळे कि ताका म्हजी सगळी खबर कळ्या आनी तेन्ना

आपणाक त्याबाबत दुबाव ना. पूण ताका खुब वर्सा वतली आनी हे भुरगे वयातूच शिकपाचे आस्ता, तेन्ना हि संधी मात सोडू नाका. त्याच भशेन म्हज्याफुडे शिकपी शिल्पकार भौ. करमरकरानूय म्हाका ही स्कॉलरशिप घेंवक प्रोत्साहन दिले. ते वेळार म्हजे बरे मागपी शिल्पकार डीक्रुज हाणें म्हळे कि भौ. करमरकराक हे शिल्पकलेच्या वेवसायांत तुजे काम्पीटिशन (शर्यत) नाका म्हण ताणे तुजी शिफारस केल्या. भौ. वाघ आनी भौ. करमरकरान सुचयल्ली खबर हांवे म्हजो तेन्नाचो दोस्त आनी बरे मागपी भौ. श्रीपादबाब भरणो आनी दुसरे बरे मागपी इष्टांक सांगली. ताणी सगळ्यांनी म्हाका विलयतेक स्कोलरशिप घेंवन वचपाची तसदी लायली आनी अितलेच न्ही प्रत्येकान आपापल्यापरी खुब खटपट केली. अेक दोन कमिट्यांचे मेम्बरानी वांदो अुबो केलो की कला शिकपाक स्कॉलरशिप दिवप संस्थेचे कार्यप्रणालीत वो तत्वांत बसना. तेन्ना बॉम्बे युनिव्हरसिटीक विचारन ताणी जर कला शिक्षणाची शिष्यवृत्तीची शिफारस केल्यारुच मागीर विचार करचो. म्हाका अुप्रान्त कळ्ळें कि कमिटीचे मेम्बरांन सुचयले की कामतीक इंग्लीश अुलौवपाक बरें येना. तेन्ना आतांच ताका स्कॉलरशिप दिवन अिंग्लडाक धाडचे न्ही. रोकडेच मागीर युनिव्हरसिटीन कळीत केले की कला शिकप हेवय बी युनिव्ह्‌रसिटीच्या शिक्षणप्रणालीत येता. हे व्हड आंडबांग मेकळे जातकर "स हजारांची" राजाध्यक्ष फॉरन अेजूकेशन सोसायटीची शिष्यवृत्ती म्हाका मेळ्ळी. हे मोंडे घाल्ले म्हण माका खुब वायट दिसले असें ना. किद्याक मुम्बयकूय म्हाका कला शिकपाक मेळटालीच आसली, शिवाय म्हज्या कलेची तोखणायू जाताली हे हांव जाणून आसलों. आनी अेक कारण म्हळ्यार दुसऱ्या देशान वचपाचे म्हळ्यार आनी तांतुर म्हजी तोडकी मोडकी अिंग्लीश भास म्हण मन धाकधुक करी. त्यावेळा अिंग्लीस लोक आमच्या देशार राज करताले. तांची जोर जबरदस्ती, हेर लोक आनी राजकारणी लोकांचेर दिसपट्टं जाता ते जुल्म हांव पळेतालो. बरेच फावट ते भारतीय लोकांक कुत्र्याभशेन वागयताले. तेन्ना मेळ्यार बरे, नाजाल्यार हाव बेफीकीर आसलो. निकाल कळतकर मात हांव फुल्लो आनी फुडले तजविजेक लागलो. त्ये कामाक सालोमन सायबाची म्हाका भोव बरी मदत जाली. दुसरो मगेलो इष्ट जो म्हजी कामा पळौवन म्हजेर साप फिदा जाल्लो म्हळ्यार भौ

शिवाभाऊ शिरगांवकर, हो मोठो हुशार आनी बरे पैंकी फोटोग्राफर आनी आर्टिस्ट आसलो. ताणेच मागीर मराठी चवथेचे अभ्यासक्रमाक लायिल्ले पाठ्यपुस्तकांन "कोळ्याचो पोर" ह्या कामाचे फोटो दिवन आनी मडकयच्यान केल्ले पलायन पासूनची म्हजी कलेबद्दलची कथा छापून हाडील्ली. ते फोटोग्राफ म्हाका रॉयल अकॅडेमीक स्पेसिमेन्स म्हण धाडपाक अुपकारले. ताणे बापड्यान अेक दुडू लेगीत घेय नास्तना, बरे डब्बल फुलसाईज फोटो करुन दिल्ले. अितलेच न्ही तर आपणाल्या भाच्याचो ओव्हरकोटय ताणे हांव विलायतेक वतना थंयच्या थंडेखातीर दिलो. सालोमन सायबान त्ये फोटो स्वत: व्हरुन अॅकेडेमीचे कीपराक दिता म्हण सांगले. त्येप्रमाण लंडनाक पावना बराबर म्हाका तारेन कळीत केले की, "अॅकेडेमीत प्रवेश मेळ्ळो म्हण, तेन्ना थै येवपाचे तजविजेक लागचे."

## "गॉडफादर कॅ. सालोमन"

जे. जे. स्कुलातले कारकिर्देत कॅ. सालोमन हो विद्यार्थ्यांची बरी पारख करतालो. ताणे निवड केल्ले विद्यार्थी आयज बरे नांव लौकीकाक पावल्यात. ते पैकी प्रो. भौंसुले, भौ. फर्नांडीस, भौ. करमरकर, भौ. देऊसकर, भौ. हेब्बर, भौ. रेड्डी बी नांवारुपाक आयल्यात. सांगपाचे म्हळ्यार सालोमन सायब अेक दिसूय चुक नास्तना आमचे क्लासीत मगेले काम पळयले बगर केन्नाच आपल्या ऑफीसात गेलो ना. तागेलो तो दिसाळो जावन पडिल्लो. ताणे खुब तोखेवन अुप्रांत आपल्या ऑफीसांत वचचे. तशेच अितर विद्यार्थ्यांक म्हज्या कामाचो अभ्यास करपाक सांगचो, नी म्हाका तांका मदत करपाक सांगचे. ते केन्ना केन्ना हांव वेळ मेळटकीर करी. ताका लागून बाकी भुरगे म्हाका खुब मान दित. अेक फावट ताणें रावबहादुर घुंरघराक, त्येवेळचो हेडमास्तराक सांगले की म्हाका नवी स्कोलरशिप दि म्हण. त्येप्रमाण हांव रा. ब. धुरंधराक मेळपाक ताज्या ऑफीसांत गेलो, जाल्यार ताणे म्हाका अेकदम तापोवन काडलो. पयली विचाल्ले कि तू स्कॉलरशिप मागपाक डायरेक्टर कॅ. सालोमन म्हऱ्यान किद्याक गेलो काय म्हण. हांवे हेडमास्तर घुंरघराक सांगले कि बाबा रे, हांव डायरेक्टराकडे वचू नाशिल्लो, पूण तोच म्हगेले काम पळवंक येतालो आनी कामाची प्रगती पळवनच ताणे जावन

तुमका मेळून स्कॉलरशिपा खातीर वास्तपूस्त करपाक आनी त्यादिशेन मदत करपाक सांगल्या. म्हण लागलो "वेल्यान चूरुचूरु कन्न अुलयंता", आनी फुडं म्हळे की, "सालोमनाक कांय कळना बी." ती शिष्यवृत्ती बामणेतरां खातीर आसा. असोच आनी अेक फावट ताणे म्हाका दमटायलो, आनी म्हळ्ळे "तू स्वराज्याच्या चळवळीन किद्याक पडटा, तांतूर तुजे कोण जातीचे आसात काय म्हण लागलो, कि त्याखातीर संपार बी वता तो ?" तेन्ना हांवे म्हळे संपार वचपान जातीचो प्रश्न खंय आयलो ?, ते राष्ट्रप्रेमाखातीर करता. ताजो राग हिसबाभायर वाडलो आनी तापत तांबडो जायत म्हाका म्हण लागलो की, "वैल्यान आनी चड अुलयता, अशे जाल्यार मागीर आपूण तुगेली आसा ती स्कोलरशिपूच बंद करुन वडयता", हे घडपाक कारण म्हळ्यार आमचे स्कुलांत 'जोग' म्हण आडनांवाची चार भुरगी येताली. दोन भाव आनी दोन भयणी, तांगेले रिटायर्ड सरकारी अिंजीनियर बापायन, हे हेडमास्तर रा. ब. धुरंधराकडेन म्हजी कम्प्लेन (कागाळी) केली कि, संपावेळा कामत शाळेन वचच्या दारार अुबो रावन, आपणाले भुरग्यांक क्लासांत वचपाक बळ्या बंदी केली. पुण हांवे हेडमास्तराक खरे तेच सांगले कि आमी सगळे भुरगेच गेटीकडे अुबे आसले आनी "भारतमाताकी जय" म्हणत आमी सगळ्यांक हात जोडून क्लासान न वचपाची, बहिष्कार घालपाची प्रार्थना करताले. तांका वचपाक जाय तांचेर बळजबरी नासल्ली आनी ताणी खुशाल वचचे, हे सांगपान हांवूय आशिल्लो अितलेंच. जे प्रमाण अेकलोय भरगो क्लासाक ते दिस गेलो ना हे सत्य. हि सायमन कमिशन चले जाव वेळावेळ्ळी गजाल. आमका भुरग्यांकूय महात्मा गांधीजीचे भाषण आयकून स्फुरण आयिल्ले. आपल्या देसाचेर मोग दाखवपाची ती वेळ आशिल्ली.

मजा म्हळ्यार त्या अिंजिनीयर जोगान आपल्या त्याच भुरग्यांखातीर म्हजी शिकवण दवरलेल्ली आनी त्याखातीर म्हाका दर म्हयन्याक पगार मेळतालो म्हाका तितलीच मदत जाताली. जाल्यार हि गजाल जातकच दुसरेच दिसा ते जोगाल्या भुरग्यांक हांवे सांगले, की फायच्यान तुमचे सगळ्यांची शिकवण बंद. किद्याक जे भुरगे फट अुलयतात तांका शिकवक म्हाका मातूय आवडना आनी हांव जावन जाल्ले शिकवणीचे पैसे घेंवक गेलो ना, जाल्यार ते भुरग्यांच्या

बापायन म्हजे अेका मयन्याचे शिकवणीचे पैशेय धाडून दिले न्हा वां फट अुलवपी भुरग्यांनी ते मदल्या मदी खाले काय किदे कोण जाणा ! मात कॅ. सालोमन सायबाची तोरवणाय करपाची तितली थोडी. तो अिंग्रज मनीस आनी तोवूय वयल्या हुद्यावेलो आस्तना ताणे मात आमच्या भुरग्यांची राष्ट्रप्रेमाची गजाल मतीन घेतली ना. अितलेंच न्ही तर अुरफाटें लंडन साकून म्हाका 'रॉयल अेकेडमी ऑफ आर्टस्' लंडन हांगा अॅडमिशन मेळ्ळ्या म्हण तार धाडील्ली. जाल्यार आमचो बामण रावबहादूर धुरंधरसाहेब भारतीय अुच्च कुळातलो जावनूय इंग्रजाबाजून अुलयतालो. आता कळता की तेखातीरुच ताका अिंग्लीश गव्हरमेन्टान रावबहादूर हि पदवी दिल्या आस्तली. आनी तांतूरुय आश्चर्याची गोष्ट म्हळ्यार भारत सरकारान अश्या मनश्याच्या नांवान रस्त्याक, पुलांक बी मागीर स्वातंत्र्या फाटल्यान नांवा दिल्यात. भारत सरकारची ती खाशियत सदांच जांवन अुल्या. जाणी भारताचे नांव वयर काडला अश्या राष्ट्रप्रेमी स्वातंत्र्य सैनीकांची खुपूच कमी नांवा रस्त्याक बी दिल्यात. खरो कोण, फट कोण हाची नीट वास्तपुस्त नकरता कोणाकूय किताब दिवपाचो तांचो अितीहास पळयतकच अजाब जाता. आसू चड न अुलयल्ले बरे न्ही, नाजाल्यार लोक फाल्या म्हण्टले हाकाय जे. जे. स्कुलाच्या दारार अुबो रावन राष्ट्रप्रेम दाखयले म्हण किताब बी दिवपाचो आस आसली बी किदें ?

सालोमन सायबाचो म्हजेर आशिल्लो मोग आनी अेका गजालीन तुमका कळून येतलो. हांव जेन्ना अिग्लंडाक गेलो तेन्ना म्हजे गैरहजेरीत जे. जे. स्कुलाचे सगळ्यांत व्हड पदक 'मेयो तेडल' दिवन, ज्या कामाक तें मेळील्ले ताजे फोटो आपूण जांवन सांच्चे प्रकाशित जाता त्या 'इव्हनींग न्युजांत' पूर्ण पानार छापून हाडले, अितलेच न्ही जाल्यार 'अिलस्ट्रेटेड विकलीचे' अंकातय फोटो छापिल्लो. तेन्नाचो 'लक्ष्मी इन्सुरन्स कम्पनीचो' जनरल मॅनजरान, भौ. सांतनम हांणे लंडनाक म्हाका पत्र धाडून "आपणाक फोटो आयील्लो तो पुतळो खुब आवडला नी आपणांक तो जाय म्हण बरयले." पुणुन तेन्ना ते काम ताका दिणे शक्य नासले, किद्याक तेन्ना हांव लंडनाक आशिल्लो आनी ते काम जे जे स्कुलांत आशिल्ले. मात अुप्रान्त हांव भारतात परतो येतकर त्या लक्ष्मी इन्सुरन्स कम्पनीचे वैर बसयल्ले १५ फुटी देवी लक्ष्मीचे ब्रान्झचे पुतळ्याची ऑर्डर दिवन म्हजे कामार खुष जाणाऱ्यान

सालोमन फाटल्यान संतनाम दुसरो. ताणे अश्या तरेन म्हज्या कामाचो शौकी म्हण सिध्द केले. ताका हांव आनी म्हजी कामा अितली आवडटाली कि तागेलें व्हलयेंकडेन लग्न जाता काय म्हण, तागेलो चित्रकार मित्र भौ. पंडिताक विचारपाक सांगले. जेन्ना हांव लग्न संस्थेच्या विरुध्द आसलो तेन्नाची हि खबर.

सालोमन सायबान लंडनात गेल्लो आस्तना मुजरत आर्टिस्ट भौ. देऊस्कराकडेन (जो म्हजो मित्र आसलो) चौकशी करुन सांगले की कामत कॉन्टीनंटची भोवंडी करुन येतकर आपणाक मेळपाक सांग. ते वेळार हांव 'टुरीन्ग स्कॉलरशिपचेर' आशिल्लो हांव भारतान परत येतकर सालोमन सायबाकडेन अुलयलो. ताणें म्हाका च्या पार्टीक आपयलो आनी सांगले की "डेप्युटी डायरेक्टरची पोष्ट आपणे मुद्दाम म्हजे खातीर राखून दवल्या" तेन्ना आपनाक त्ये विषी हय कि नाते कळय. किद्याक जो त्या हुद्यार सध्या आसा तो आनी चार मयन्यानी रिटायर्ड (निवृत्त) जावपाचो आसा. तेन्ना मुखार तुकाच तो जागो मेळू शकता, "किद्याक ते वेळार कांय राजकीय फेरफरक जाताले, आनी भौ. बाळ गंगाधर खेर चिफ मिनीस्टर जाल्लो, म्हाका वेव्हारगीन्यान अुणे आशिल्यान वो लंडनचे वारे भरिल्यान हांवे फाटलो फुडलो विचार करी नास्तना तत्काळ जाप दिली कि म्हाका शिल्पकलेचो स्वतंत्र•वेवसाय करचो आसा. सटकाफटकी जाप दिवपाची म्हगेली सवंय म्हाका खुब नडल्या. हांवे सभ्याग्यान हि जबाबदारी सामाळून स्वतंत्र काम करपाची परवानगी मेळटली कि ना, रावपाक जागा मेळटलो वो ना हाजी चौकशी केलीच ना. अुप्रान्त भारतांत येतकर म्हाका व्यवसाय अुबो करपाक कठीण अणभव आयलो. डेप्युटी डायरेक्टराचो जागो घेवपाक जाय आशिल्लो अशे दिसले, किद्याक तर रावपाक बंगलो, नोकर चाकर, बागबगीचो मेळटालो आसलो आनी शिवाय जाय जाल्यार प्रायव्हेट काम करपाक मेळटले आसले अशे म्हाका अुप्रान्त कळ्ळे. शिवाय सालोमन सायबानंतर हांव अेकादो डायरेक्टरुय जायन आसलो. भारतात त्या जागेक केदो व्हड मान ते म्हाका मागीर कळ्ळे पूण म्हजे सारख्या स्वतंत्र मनाच्या शिल्पीक मागीर रायकीय पुढाऱ्याच्या फुडेन मान सकल घालून होयबाची कामगिरी करपाक जायत आसली काय ना हाजो म्हाका दुबाव आसा. स्वतंत्र्य वेवसायानूय, हावे केन्नाच ह्या राजकीय पुढाऱ्यांची वो मिनीस्टरांची

हांजी हांजी केली ना, आनी ताका लागून म्हज्या कलेच्या अुंचाअिच्या मानान म्हाका खुबुच कमी काम सरकारामार्फत मेळ्ळी. मात हांवे तो डेप्युटी डायरेक्टरची जागा घेतील्ली जाल्यार म्हाका, घर-स्टुडीओखातीर सुरवातीक जी वणवण करची पडली आनी लोकांनी म्हज्या जागो घेवपाच्या विचारा बाबत कमीपणा दाखयलो ताजो त्रास म्हाका जावचो नाशिल्लो आनी सरकारी भक्कम पगार मेळ्ळील्यान अेक मानमरातब मेळटालो आशिल्लो. ते सोडून स्वतंत्र व्यवसायाची जबाबदारी पत्करली. मुम्बयसारख्या व्हड शारान ते अेक दिव्य कामूच आशिल्लें. म्हजे पयले वर्स काम नास्तना काळजीत गेले. लंडनथावन थोडे पैशे गाठीक हाडील्लें ते सुर्वेचे कठिण वेळेक अुपकारले. त्याखातीर लंडनाक आस्तना पैश्याची पोटली साठांवन म्हाका मनाक आनी पोटाक मारचे पडला.

## “विलायतेक प्रयाण”

१९३० जानेवारीचे ३० तारखेक इटालियन (ट्रेस्टीनो) नांवाच्या बोटीन विलायतेक (लंडनाक) प्रयाण केले. इटालियन बोट बाकी बोटी मानान सवाय आनी कमी दिसांचो प्रवास आशिल्लो जाल्यार,

इंग्लीश बोटी म्हारग आनी थोडी चड दिस घेताली. बोटीर हांव मांसाचे जिन्नस खांय नासलो. किद्याक म्हळ्यार गायचे मांसबी खावचे पडत म्हण. मांस खांव नये म्हण म्हजेर जाल्लो चुकीचो परिणाम अजूनूय पाळटा. चुकीचो म्हणपाक हालींच वाचिल्या वेद कालिन ग्रन्थावेल्यान सिध्द जाता, कि तेन्नाच्या लिखाणावेल्यान दिस्ता कि त्येकाळांन यज्ञयागाक बशिल्या गीन्यानीं पंडिताचे जेवणाक सरसकट गोंमास वाडटाले. दुसरो परिणाम म्हळ्यार रामायण वाचून जाल्लो. ते खातीर युरोपियन चलयांकडेन दाटी करी नासलो. अेका वेळार तर चक्क फट मारची पडली. तेबाबत फटकन मतीत येताले ते महाभारतातल्या धर्मराजान केल्या नरोवा कुंजरोवा वेल्यान. लग्नाबाबत विचाल्यार तर हांव वेळ मारुन व्हरी. अीकरा दिसानी बोट व्हेनीस शारान पावली. हे शार अुदकांत वसयला. लोक गोंडालांनी (व्हडयातल्यान) यो वच करतात. हे शार पळवपाक भोव सुंदर. घरायबी अुदकानुच आस्तात. ह्या घरातल्यान कामार वचपाक जाय जाल्यार लोक ह्या गोंडालाचो

ुपेग करतात. त्या शांत अुदकावेल्यान गोंडालान वतना आनी ते चलवप्याच्या ाड ताळ्यानी आनी मेन्डोलीन तो गिटाराच्या धुनीन म्हणीली लोकगीता खुब ीवाक भोंवली. थैच्यान पाय काडपाक जड जाले. पूण ध्येय्य डोळ्यामुखार ्राशिल्ले. थैच्यान हांव आगगाड्येन फ्रान्साक आयलो. पॅरीस ताजे शार. 'कलेंचे ुळार' म्हळ्यार फट जावचीना. पॅरीस शार त्ये काळांत भोवच सुंदर दिस्तालें. ॅरीसची सोभा आनी झगझगाट पळेत रावलो हांव. आनी दुसरे जग पळौवपाची ्हाका संद मेळ्ळी म्हण देवाचे आभार मनातल्या मनान मानले तशेंच शिल्पकार ौ. वाघाकूय धन्यवाद दिले. आजूय फ्रान्स, तांतूर पॅरीसचे नांव जगांत सुंदरतायेक ुखेल आसा. अितलेच न्ही तर मोग करपी लोकांचे ते नंदनवन. जगातले श्रीमंत ोक पॅरीस पळोवपान भुषण मानतात. आनी मनान आयले कि हांगा शिकपाक ेळील्ले जाल्यार भोंवच बरे जातले आशिल्ले. पूण परते दिसले कि इंग्लडान जगार ाज्य केला जाल्यार ते लंडन त्यापरस सुंदर किद्याक आसचे ना? ह्याफावट जरी थोडोच वेळ म्हाका ह्या शारान रांवक मेळ्ळे तरी म्हजी इच्छा देवान मागीर पूर्ण केली, ती म्हळ्यार स्कॉलरशिप दिवन म्हाका परतो ह्या युरोपातल्या सगळ्या शारान कला शिकपाखातीर फिरयलो. परत दुसरे दिस गाडयेन 'कॅले' म्हण्टा थंय आयलो. कॅलेंच्यान 'डोव्हर' मेरेन हांव बोटीन इंग्लीश चेनेल पार करुन 'डॉअरा' थावन परती गाडी घेवन लंडनाक आयलों. प्रवासान म्हजो अेक मित्र जाल्लो, त्या मित्रान, लंडनच्या भारतीय स्टुडंटाक, भौ. आडारकराक, जो मागीर रिझर्व बॅकेचो गव्हर्नर जालो आनी भौ. सुखटणकाराक जो सेक्रेटरी ऑफ बॉम्बे म्युनिसिपालीटी जालो, पत्र घालून बरयले किं म्हाका घेवपाक लंडनच्या व्हिक्टोरीया स्टेशनचेर येयात म्हण. ते कांय आयले ना. निमाणें हांव टॅक्सी करुन इंडीयन यंगमेन्स हॉस्टेलांत, जे ग्रोव्हर स्ट्रीट म्हण्टात, थैं आयलो. थैं म्हाका आय. सि. अेस. शिकपी भुरगो भौ. कामत मेळ्ळो. ताणे मागीर म्हजी सगळी व्येवस्था केली. ते हॉस्टेलांत हांव मागीर पांच ते स मयने अुल्लो. किद्याक सुर्वेचे दिसांनी रॉयल अॅकेडेमीत वचपाक थैसून खुबच लागी आशिल्लें. हांव पायवाटेन, व्हड झाडांच्या मदल्यान अॅकेडेमीत येतालो वतालो. हॉस्टेलांत इंडीयन रविशेचे जेवण मेळ्टाले. दुसरे म्हळे थैंच हांव 'पींग पोंग' आता ताका 'टेबल टेनीस' म्हण्टात तो खेळ

खेळपाक शिकलो. खरें म्हळ्यार हो खेळ ल्हान वयांत शिकपाचो पूण त्या वयांत म्हाका ती संद मेळ्ळी ना. मात हुतुतुत्, आट्यापाट्या मस्त खेळ्ळा.

म्हगेली स्कुलात केल्ली दोन कामा थंय मांडून दवरलेली. अेक केन्सीगटनचे हॉस्टेलांत रावपी, आनी १९३१ सांतली गोल्ड मेडल विजेती कु. मार्जरी मेंगीर, म्हळ्ळी अेक हांसतेमुखाची स्टुडंट, पयलेंच दिसाच्यान म्हजी कामा पळौन म्हजी मैत्रीण जाली. अुप्रान्त तिका प्रि. दिसेय हिवय शिष्यवृत्ती मेळील्ली, ती कु. मार्जरी, मुजरत म्हजे लागी येवन, हांव दुसऱ्या देसातलो खबर आशिल्यान म्हाका किदे जाय नाका ताची चौकशी करन गेली आनी सांगले, "तुका किंदेय सामान बी घेवपाचे आसल्यार आपूण वांगडा येवन घेवन दिता." अशे तरेन म्हाका जाय आशिल्लें सामान तिने खुद्द आपणें वांगडा येवन घेवन दिले. ब्रिटिश लोकांलो स्पष्ट वक्तेपणा नमुणो म्हळ्ळो, तीणे म्हाका पयलीच सांगून वडयले कि भोंवपा खावपाचो खर्च दोगांयनी परस्पर अर्द अर्द वाटून घेवप. तशेंच म्हजी सुरवातेक अिंग्लीश साप बरी नासली आनी तांची थैंची इंग्लीश म्हाका कळपाक कुस्तार जातली, म्हण्टकर मार्जरी म्हजेकडेन हळूहळू अुलयताली; तशोंच थैंचे प्रोफसरबी म्हाका समजून घेताले. थै हांव भारतीय म्हण कोणेय म्हजेवांगडा वायट वेवहार केलो ना. अुलट म्हजी कला पळौवन म्हजे लागी मैत्री करपाक सोदताले. अॅकेडमीतलो प्रोफसर भौ. विल्यीयम मॅक्मीलन हाणे म्हाका अेकदा मुजरत आपौन व्हरन थैं आशिल्लें फळ्यावैली सगळीं बक्शींसा, तस्त्रींपा, मेडल्स, (पदका) वाचून सांगून म्हळे, "हे सगळें तस्त्रीपांक कामत तुवे प्रयेत्न करपाक जाय." अुप्रांत म्हाका त्यो अखखो तस्त्रींपा मेळल्यो. म्हाका व्हड अजाप जालें कि त्ये अेदे व्हड प्रोफसरान म्हजी थोड्याच दिसांन कशी किदें परिक्षा केली कि हांव त्यो तस्त्रींपा जींकपाक शकता म्हणपाचे. अेक मात साप खरें किं दुसऱ्या बऱ्या मनश्याक पारखपाची तांची हुशारी आनी कोणाक लागना. तो अुत्कृष्ठ मनीस आसत जाल्यार ताका ते वयर काडटलेच. त्येवेळार सर सिताराम पाटकरान म्हाका पळौन काडील्लें कुच्छींत्री अुदगाराचो अुगडास जालो. आठ म्हयन्यानीच सुवर्णपदक आनी हेर बक्षीसांचे वाटप आशिल्लें. जाल्यार तो प्रोफसर अेक दिस म्हाका विचारता, "कामत तुवें किद्याक कॉम्पीटिशनाक तुजे काम धाडलें ना?",

फ्राय म्हणून, हांवे ताका सांगलें किं, काम केल्ले, पुणुन ते काम धाडपाक धीर जालो ना देकून बक्षिसांचे सर्तीक काम धाडले ना. ताजेर ताणे 'बू' (Boo) तलेंच म्हळे आनी चलूक लागलो. तेन्ना म्हाका निश्चित कळ्ळे कि म्हगेले कामाचेर ताजो कितलो विश्वास आसलो म्हणपाचे. त्ये वर्सा दुसरे विषयांक म्हाका सिल्व्हर आनी ब्रान्झ मेडलस मेळ्ळी.कु मार्जरी मेंगीरोक गोल्ड मेडल मेळ्ळे. ती म्हजेपरस वयल्या वर्गान आसली. दुसरे वर्सा अेका 'फ्राय'मनशाचे नांवाची शिष्यवृत्ती तशेंच सिल्व्हर नी ब्रान्झ मेडल्स मेळ्ळी. तिसरे वर्सा सुवर्णपदव्याची सर्त आसली. हे सुवर्णपदकाची चढावोड दर दोन वर्सांनी आस्ता. आता हांवे मनान पक्कें ठारायले किं किदेंय जाल्यार त्यावर्सा म्हळ्यार १९३३ सालाच्या सुवर्णपदकाच्या सर्तीच्या मैदानात अुतरोप.

तिसरे वर्साचो अभ्यासक्रम जोरांत चलिल्लो. तशो कु. मार्जरीची मजेविशींची ओंड वाडत चलील्ली, ते पळोवन हांव बरोच बुचकळ्यांत पडिल्लो, अितलो किं ही वेळ लेगीत तीजे मन म्हाका कळ्ळेना. ती खुब वेळ म्हाका घेवन सेक्सपीयरचे नाटकांक 'ओल्डवीक' म्हण्टा ते थेटरांत, तशेंच कॉन्सर्टाक गेल्या. म्हाका अुगडास जाता तो कॉन्सर्टाचे दिसाचो, तो प्रोग्राम 'अल्बर्ट' हॉलांत लंडनाक आशील्लो. लंडनचो 'अल्बर्ट' हॉल हो मोठो नामांकित आसा. हांगा व्हडले नामनेचे, गावपी, नट-नट्यो, कान्सर्ट करपी कलाकारांचे प्रोग्राम जातात. त्या दिसा तो रात्रींचो म्युझीकल कन्सर्ट आसलो. नाच म्हळ्यार शे दंडशें कलाकारांचे अेकठांय कन्सर्ट आसले. कंटक्ट करपी मोठो नावाजलेलो कलाकार आसलो. खुब सुंदर वाद्य आनी कसबी वाद्यकार वाजवपाक आसले तिणे मातशी सवाय तिकीट काडील्ली आनी आमी वैल्या मजल्यार जै खूब थांड रसीक बशील्ले अश्या जाग्यार वचून बसलीं. आमच्या म्हन्यात आसपास दुसरे आनी लोक नासले, म्हाका त्यावेळार इग्लीश संगीतातले चडशे काय कळ नासले पूण कु. मार्जरी मात म्हाका परतं परतं ती कितली सुंदर गातात नी वाजयतात म्हण सांग, ताजेर हांव मान हालयत हांकार दितालो, तशी ती खुश जाताली. इंग्लीश लोकाक तुमी त्या कलेंत रस दाखयलो ना जाल्यार खुब वायट दिस्ता. शेक्सपीयरच्या जन्म गावात दर वर्सा सात दिस व्हडलो सप्ताह जाता, म्हळं ताजी प्रमुख नाटकां

जातात. आमी अेक दिस सकाळींच 'स्टुटफर्ड' म्हण्टात ते शेक्सपीअर्सच्या जल्म गावांत पावले. दनपारचें खावपाचे जीनस घेंवन आमी थंय लागसार आशील्या दोंगुल्लीर भोवापक गेली. नाटकाचो प्रोग्राम सान्चो आसलो. तशी खांवन पीवन आनी दोंगुल्लीचो थंड वारो घेंवन आमी नाटक पळयले. नाटक खुब रंगले, पूण कु. मार्जरीक जाय तसो हांव रंगलो ना, अशें म्हाका जाणवले. तरी तीची म्हजेलागी दोस्ती वाडतच गेली. मात ते नाटक पळोवन तेंच रातची आमी लंडनाक आयली. अेक दिस ती म्हण लागली, 'हाइड पार्कांत' 'सर्पन्टाइन'. म्हण व्हडी चलवपाचो जागो आसा; थंय वचुया नी व्हडो चलौवपाची मौज करुया. इंग्लीश लोकांक आमचे गोंयकाराबाशेन घरा बलकावाचेर बसून हाज्यो ताज्यो गजाली करपा परस हांगा थै वचून मौजमजा करुन वेळ काडपाक आवडटा. आता खंय आमचे लोक हांगा थैं पर्यटनाक बी वतात. त्येप्रमाण आमी दोगांय थैं गेली. म्हाका तांगेले 'रॉइन्ग' म्हण्टा ते ये नाशिल्ले. थोडेशें आमच्या मडकय व्हडे चलवपाक 'व्हल्ले' मारील्ले तितलेंच. ताजो थोडो अुपयोग जालो. त्या दिसा घरा वतकर तीणें म्हाका पयलेंच पत्र धाडलें. सगळे बाबतींत तीच फुडाकार घेताली. हांव ह्या बाबतीत सामको बाप्पा, म्हणचेपरस, म्हाका तशे किदें करोप बरोबर दिस नाशिल्ले, वो मनाक पट नाशिल्लें. त्या पत्रान तिने आपलो सांजवेळ खुब बरे बशेन म्हज्या संगतीत गेलो आनी त्याखातीर 'थॉक्स' दिल्ले.

तिका म्हजेवीशी ओड आशिल्ली हाजे आनी अेक अुदाहरण म्हळ्यार तीणे केकची पार्टी दवल्ली. वेंचिल्याच अॅकेदमीचे विद्यार्थ्यांक तिने आमंत्रण दिवन सांजे वेळ सजयलो. तांगेले रविसे प्रमाण अेक करमणुकीचो भाग म्हण "जाजमान न्हीदपाचो" खेळ दवल्लेलो. सगळ्यांनी अेकठांय जाजमार न्हीदपाचो आनी अितल्यान दिवे पालवपाचो तो खेळ आशिल्लो. कु. मार्जरी म्हाका तेकून आंशिल्ली. पूण हांवे कसलोच पुढाकार घेतलो ना. त्या काळखान म्हाका अितरांच्यो हळूच हांसपाच्यो नी किंळचीं कानान येताल्यो. मार्जरीय नदी मदी हांसताली. अश्या त्या बोवाळात मदींच परती लायट आयली आनी आमी सगळी अुठून अेकमेकांक हस्तालोन्दन करुन आपापल्या घरा आयली. कांय दिसानी तिजी आप्तीष्ण कु. खान हिणे सांगले कि ती पार्टी मार्जरीन म्हजे खातीर केल्ली खंय. तशेंच तीणे फुडे विचाल्ले

क मार्जरीन कीस घेवपाक शिकयला काय ना म्हण? म्हाका हाजो अर्थ कळटालो पुण दाखोवन दिले ना, मात हांवं ठाम बेत केल्लो किं खंयच्याय युरोपियन चलयेकडेन लग्नच सोड, कसलोच सबंध दवरपाचो न्हो. दिस्ताले किं ग्रो चलयो खुब फॉरवर्ड (फुडारलेल्यो) आसतात. दुसरे म्हळ्यार म्हाका मार्जोरीन शि केन्नाच दाखोवन दिले ना. तशी ती साप बरी चली आशिल्ली. बाकी चलयांच्या परस ती आपल्या विषयानूय खुब हुशार तर आशिल्लीच, तशेंच सालस ती मदत करपी स्वभावाचीय आशिल्ली. तिका म्हजे आकर्षण आसा हे म्हाका कळून चुकिल्ले, पूण आपणे त्या गावांक वचपाचेच ना जाल्यार त्या गावाची विचारपूस तरी किद्याक करोप ह्या मताचो हांव. तरी ह्या संबंधीचो विषय अेकदा तिणें काडलोच. अुलयता अुलयता तिणें म्हळें किं तुजो अेक मित्र भौ. बडीगीर, जो कर्नाटकी आनी अॅकेडेमीत शिकपी आसलो, म्हण किं आपूण अजून आकवार आसा. आनी तसो तो सगळ्याक सांगी खंय. तो चलयांच्या बाबतीत मात्सो ढिलो आशिल्लो. तेन्ना हांवे म्हळे किं ताणे निव्वळ फट माल्ली तुका. किद्याक भौ. बडीगीरान म्हाका सांगिल्ले याद जाता किं ताका दोन भुरगोय आसात. आनीक तिका फुडे अशेय सांगले किं भारतातले भुरगे युरोपात शिकपाक येवचे पयली लग्न जांवन येतात. रोखडेंच तिणे म्हळ्ळे, "म्हण्टकीर तुजेंय लग्न जाला तर?", हांवेय वेळ काडीनास्तना ह्या अुलवपाचो फायदो घेतलो आनी म्हळे "हय", आनी अेक व्हड जीती फट माल्ली. तेन्ना म्हाका कळ्ळे किं मोगान लेंगीत सुवार्थ आसा. मात ते दिसाच्यान तिणे म्हजेकडेन मैत्री कमी केली. हांवे फट माल्ली आनी अेका बऱ्या मैत्रिणीक लांब केली. म्हाका कळून चुकलें किं बायलांचे सुवार्थ नाशिल्ले कामांत प्रेम नास्ता न्ही, तर ती दुसमानपणाय करपाक फाटी सरनात देखून हांवें मनान गांठ माल्ली किं आपणांक त्या वाटेर वचपाचे ना म्हण्टकर बायलापासून पैस रावचेच योग्य.

हांव रोमाक स्कॉलरशिपचेर भोवणेर गेल्लो. मार्जरीय प्री 'दि रोम स्कॉलरशिप' चेर रोमान कलेचो अभ्यास करपाक म्हजेबरोनूच थै आयिल्ली. अेक दिस आमी थैच्या खुब पोन्न्यो गुंफो पळौवपाक गेल्ली. वाटेर आमी थोडे खाले, आनी परती रस्त्याकडेतल्यान अुलयत फुडे चल्ली. म्हजे संवयीप्रमाण हांव अुलौवपाच्या घोंसार

आयिल्लो. अितले भितर अेक व्हड मालवाहू ट्रक जोरान आमच्या दिशेन आयलो खंय आनी हांव भायल्या बाजून आशिल्लो, मात प्रसंगाचे ध्यान दवरून तिणे ट्रक म्हज्या म्हऱ्यान पावता सरशी म्हाका ओडून रस्त्याकडेन काडलो, तरी मात्सो चाटून गेलो. त्या दिस जर तिजे लक्ष नाशिल्लें वो भयान हाका ओडून काड नाशिल्लो जाल्यार थंयच म्हजी समाधी जातली आसली. तुमकां खरे दिसू वा फट, तिने पयलेच फावट, हस्तोलंदन सोडल्यार, म्हजो हात अेक तरेच्या गाड प्रेमान आपल्या हातान धरिल्लो आनी म्हाका पुनर्जन्म दिल्लो. हांव तिजे अुपकार केन्राच विसरचो ना.

## "सुवर्णपदक आनी भोंवतेची शिष्यवृत्ती"

तिसरे वर्साक हांव शिकतांना, अेक दिस प्रोफसर मॅकमिलन क्लासांत आयोल्लो आस्तना, सगळ्या विद्यार्थ्या अुजीर म्हाका म्हऱ्यान आपयलो आनी म्हण लागलो, कामत, हे वर्सां तुवे कितली, बक्षोसां जिंकपाचे थारायला? म्हाका मतींत हे प्रश्न पयलो गेलो ना. नी म्हाका अचकिन बुचकळ्यांन पडील्लेवरी जाले. बाकीचे भुरगेय म्हज्या अुत्तराची वाट पळेताले. ताळ्यार आयलो आनी म्हळें, "म्हजे तरेन हांव नेटान प्रयत्न करता, पळौया कितली मेळ्टा ती." तेन्रा ताणें म्हळे कि ह्या फावट तुजे लक्ष 'सुवर्णपदकाचेरुच' आसपाक जाय, आनी प्रयत्न करशी जाल्यार तू ते नक्कीच मेळोवक शकतलो अशी म्हाका साप खात्री आसा. हरशी ह्या वर्सच्यान मनान सुवर्णपदक मेळवपाचे बेत चलताले. पूण अेका साध्या भारतीयाक, तेवूय अिंग्रज लोक आमचेर राज करताना आनी आमका भारतीयांक तुच्च मानताना, हांवे तशी अिच्छा करोपूय म्हाका विचित्र दिसले. तेन्रा हांवे अर्जुनाबशेन म्हज्या अिंग्रज प्रोफेसराक निक्षून सांगाप फावो दिसलें ना. ह्यावेळार म्हाभारतातलो अर्जुन-द्रोणाचार्याचो तो 'लक्ष्य' चो प्रसंग डोळ्यांसमोल्यान गेलो. जेन्रा अर्जुन आपल्या गुरु द्रोणाचार्याक फक्त पक्ष्याचो डोळोच दिस्ता म्हण सांगून त्या डोळ्याचो अचूक वेध घेता तो विचार त्यावेळा मनासमोल्यान आयलो आनी दिसले कि हावंय म्हज्या प्रोफसराची अिच्छापरमाण करुन दाखयन काय?

प्रदर्शनाक दोन मयन्याचो वेळ आसलो. आनी मागीर दोन दिसानी [illegible]वर्णपदक आनी हेर बक्षीसाचो समारंभ आसलो. कामाचो विषय आसलो, [illegible]Expulsion of Adam and Eve from Eden Garden." म्हळ्यार "आदाम [illegible]ानी इव्हाची अेडनातल्यान हकालपट्टी", सगळे भुरगे आपापल्या परी काम [illegible]रपाक लागले. म्हजो स्वभाव किं म्हज्यान सुरवातेकसान काम करु नजो. [illegible]ातसो आळसूय आंगान, आनी 'आमच्या चड कत्र कामतींचो' पयलीसून [illegible]वभाव, निमाणे रातदिस अेक कत्र काम सोपवपाचो. जस जसो निमाणो दिस [illegible]गगी येता तसें काम करपाक स्फुरण, हुरुप येता. बाकी भुरगे म्हण लागले कि [illegible] किद्याक निमाणे करपाक दवल्ला, आमी तुजे कामाची नक्कल करतले म्हण? [illegible]ात परते परते येवन हांवे किदें सुरु केला काय म्हण पळोवन वताले. मात हांव [illegible]ंचन आशिल्लो. म्हजे तकलेन विचारांचे थैमान चलील्ले. पूण अेकूच विचार [illegible]क्की जाय नाशिल्लो. विषयूय मात्सो वैचारिक आशिल्लो. निमाणे पंधरा दिस [illegible]ासा म्हळ्यार हांवे कामाक सुरवात केली. "आदाम आनी इवची अेडनातल्या [illegible]कालपट्टी." ते अेक मुरल आशिल्ले. मुरल म्हळ्यार 'टू डायमेनशनल पॅनल'. [illegible]ोन वटेतल्यानूच मुर्त पळोवपाची तरा. आकृतीतली फाटली वाट पळौंक मेळना. [illegible] रिलीफान आकृत्यो मात्स्यो जाडयेच्यो आस्तात. पुतळ्या बशेन न्ही. म्हळ्यार [illegible]ुर्तीबशेन सगळे बाजून ताका आकार नास्ता. जश्यो पैली डोंगरान वो गुंफेत मुर्ती [illegible]ोरताले, ते भाशेनचे हे शिल्प आस्ता वयर सांगिल्ले बशेन, पूर्ण मुर्ती सगळे [illegible]ाजून पळौंक मेळ्टा ताका 'थ्री डायमेनशनल आर्ट' म्हण्टात, जाण्यार मुरल वो [illegible]रिलीफ फक्त फुडल्यान पळौंक येता.

हे काम हांवे फक्त पंधरादिसानी सोपयले. ते आदि, दोन मयने पयली [illegible]ांव अेकलोच 'म्हुस्टरशायर' म्हण्टा थै अेंका खेडेगावात गेल्लो. त्या नयनरम्य [illegible]खेडेगांवान म्हज्या मनावेले टेन्शन, दाब ल्हव जालो. म्हज्या आंगान आनी मनान [illegible]वचैतन्याचो वारो भल्लो. आनी परतो लंडनाक येवन कामाक लागलो. कामाक [illegible]लागता ते सामान, कामाचो लाकडी सांगाडो बी तयार केलो. माती कालयली [illegible]आनी कामाक बसलो. तरी म्हाका किदें शिल्प करोप ते तकलेन येना जाले. [illegible]किंदे तरी वेगळेच करप दिस्ताले पूण ज्युस्त शिल्प कशे घडोवप ठर नाशिल्ले. हांव

अस्वस्थ जालो. शिल्पाचे चित्र डोळ्यामुखार येना म्हण्टकर किदे करचे ते सुचना जाले आनी वैचारीक थकव्यान म्हाका केन्ना न्हीद लागली ते कळ्ळेच ना. त्यंच रातचे म्हाका अेक भोवच सुन्दर सपन पडले ते अशे, "हांव अेका सुन्दर फुलझाडांच्या पोरसांत पांवला जाल्यार, थैं नाच म्हळ्यार धा-विस तरतरेच्या आंगलोटाच्यो तरण्योताट चलयो, पंधरा ते विस वर्साच्यो, आंगान कांयच वस्त्र नास्तना, नागड्यो अुगड्यो, आपले लवचिक शरिर हालयत, केस वाऱ्यांर अुडयत, हांसत खेळत हांगाच्यान थैं झाडाझुडपान धावताना म्हाका दिसल्यो. काय पोज घेंवन अुब्यो, जाल्यार कांय त्या पोरसांत भोंवताल्यो, कांय झाडासकल बसील्यो दिसल्यो. हांव सामको अजापान, तटास जांवन तांका पळवंक लागलो. अेक सुन्दरशी नाजूक आंगलटीची, लांब केसाची चली परती परती म्हजे सामकार येवन वताली. हेर चलया परस ती म्हाका वेगळेच रुपाची आनी आकर्षित करपी दिसली. हांवे तिका ठोस पळवन म्हज्या डोळ्यान ठासवन घेतली. सकाळी अुठलो जाल्यार तिजें रुप डोळ्यामुखावेले हालना जाले. तोंड कशेबरी धुवन, चा ची अिल्लीय याद जायनास्तना हांवे कामाक सुरवात केली. मात 'आदामा' खातीर हांवे प्रख्यात चित्रकार भौ. श्री. मुरलीधर आचरेकराक मॉडेल म्हण अुबो केलो. म्हजेखातीर तो वस्त्र आंगार दवर नास्ताना अुबो रावलो. आमी तेन्नाय दोस्त, आनी मागीरुय दोस्तूच अुल्ले. आदाम आनी इव मातयेन रुप घेंवपाक लागली. त्या राती जसी म्हाका इव नागडीच त्या निसर्गाच्या माध्यमांत फिरताना दिसली तशीच हांवे तिकां प्रत्यक्ष मातयेन कोरायली, आनी आदाम आनी इव नागडीच अेडन गार्डन सोडून वता अशे दाखयले. तांका नागडी आसात म्हण लज ना. किद्याक निसर्गुय नागडेच आस्ता म्हण तांच्या आजूबाजूक हांवे पक्षी जनावरा झाडापाना, मळब, अुदक जोडयेन दाखयले. आनी वयर अुजव्या कोनश्यान अेक डोळो तांचेकडेन पळेतासो दाखयलो. हो डोळो देवाचो आसू येता वो तांका धांवडावपी मनश्यांचो आसू येता. काम अेकदांचे मनपसंद जाले आनी ते निमणे राती हांव सुशेगाद न्हीदलो.

बाकी भाग घेवपी सगळे भुरग्यांनी पयलींच कामा सुरु केली आनी निमाणे दिसांनी ते आपले काम सोपोवपाच्या तयारीक आशिल्यान, म्हजे काम

पळोवंक पावले ना. म्हाका धाकधुक जाल्ली किं कोणूय म्हज्या सपनातल्या त्या सुन्दर मोडेलाक पळोवन ताजी कॉपी करीत म्हण. दोन दिस पयली दोग जाण आयले पूण तेन्ना ते काम प्लास्टरच्या (म्हळ्यार प्लास्टर ऑफ पॅरीसान) मोल्डान आशिल्ले, आनी तांची कामाय पूर्ण जाल्ली. अेकदाचो प्लास्टरचो 'कास्ट' न ते शिल्प तयार जाले. आनी ताका सोबीतसो निसर्गाचो आनी आमच्या गोयचो पांचूचो पाचवोकाळसर रंग दिवनूय वड्यालो. शिल्प पळवन म्हाका खुब खोस जाली. कलाकाराक आपल्या मनाबशेन कला घडली म्हण्टकीर, गुरवार बायलेक बाळंतपणाचे त्रास सोसून सुन्दर भुरगें जातकर जाता तशोच अती आनद म्हाका जालो. आनी अेका मित्राक घेंवन हांवे ते शिल्प त्या प्रदर्शन हालात व्हरुन दवरले. ताजेर जाय तसो वयल्यान अुजवाड सोडलो. आजुबाजूची भुरगी थक्क जावन ते म्हजे शिल्प पळोंवक लागली. चलयो लजत, मुरमुरत तो नागडो निसर्ग पळोवन धादोस जाल्ली म्हाका दिसली. तो निमाणो दिस आशिल्लो. दुसरे दिस प्रदर्शनाचे अुकतावण आसले. दोन दिस प्रदर्शन लोकांक, तेवूय वयल्या मानाचे कलाकार, विद्यार्थी आनी ॲकडमीचे प्रोफेसरांक आनी आमंत्रीत केल्ले टिकाकारांक पळोंवक दवल्लेले. खुब लोकांनी म्हजे शिल्पाची स्तुती केली, आनी प्रश्नाचो अेकाफाटल्यान अेक भडीमार केलो. चड करुन 'आदाम आनी इव' नागडी किद्याक हो तो प्रश्न आस्तालो. जेन्ना हांव तांका सांगी किं सगळो निसर्गच जर नागडो, जाल्यार सगळ्यांन पयली जन्माक आयिल्ली (बायबलच्या सांगणेप्रमाण) दादलो आनी बायलेची जोडी विवस्त्र कशी न्ही? ते बराबर ते धादोस जातालें, आनी म्हजेकडेन हस्तांदोलन करताले वो फाटीर साबासकी दिताले. हातूत शिल्प निवडपी कमिटीचे मेम्बरुय आशिल्ले. तो म्हजेर खुश आसपी प्रोफसर विल्यम मॅकमिलन जाल्यार साप खोसी जालो आनी ताणे कानान म्हळे "कामत, तू म्हजी अिच्छा पूर्ण करतलोशें म्हाका दिस्ता," आनी गालातल्या गालान हांसत, हात हालयत गेलो.

तो बक्षीसाचो दिस दोन दिसानी अेवपाचो आशिल्लो. आमी सगळेच ताजी आतुरतेन वाट पळेताले म्हज्या मनांन धाकधूक आशिल्ली. दोन राती म्हाका न्हीद सारकी लागलीच ना. अेक मन म्हणी, ते सुवर्ण पदक म्हजेच,

जाल्यार दुसरे मन म्हणी अिंग्लीस लोक चिवट आनी आपल्याच लोकांक मदत करपी (पारशयल), ह्या अेदेश्या मोटवे, काळ्या मनश्याक अेदो मान दितले? आनी तोवूय तांच्या देसान ? शक्य ना ! अशे विचाराच्या थयमानान अेकदाचो तो दिस अुजवाडलो. बक्षिस मंडप लोकांनी खचाखच भरिल्लो. मानयेचे चित्रकार, शिल्पकार, टिकाकार, पत्रकार आनी नामांकित प्रतिष्ठीत लोक आपापल्या तेवेळाच्या पोशाखान मिरयत आयिल्ले. सगळे मेळून अदमासे आठशें वैर लोक जमिल्लो. हो बक्षीस समारंभ व्हड दबाज्यान जाता. हांव म्हज्या दोस्ता वांगडा खुब फाटल्या ओळीन बसील्लो. आमच्या मुखार बाकी सगळे विद्यार्थी बशील्ले. मिस मार्जरी बरेच फुडे बशिल्ली. पूण तिने हात हालोवन म्हाका खुणायले आनी 'थम्बस अप' केले. हाजोच अर्थ हांवे ह्या बक्षिस समारंभान मानाचो मुजरो घेवचो. पयली भाषणा जाली. मागीर अॅकेडेमीचे मुखेल अध्यक्षान नावां घेवपाक सुरवात केली. म्हज्या पोटान गुळो आयलो. आनी छाती धडधडू लागली. अेक मन सामके सांगताले कि गोल्ड मेडल म्हाकाच मेळटले मात दुसरे मन सांग तू व्हड आशा दवरु नाका किद्याक तू अेक काळो ल्हान भारतीय. हांव भाषणा आयकूपाच्या मनस्थितीनूच नाशिल्लो. पेन्टींगाचो निकाल जातकर पैलेच नांव आयले खंय "रॅमारचेंद्रा पॅंडरॉंगा केमाट," सुवर्ण पदक, म्हजे दोस्तानी म्हाका हालवन जागो केलो आनी सांगले किं म्हजे नांव 'गॉल्ड मेडल' खातीर दुसरे फावट घेतला आनी तांनी म्हाका कॉंग्रेस्ट दिले. हांव फुडे वाट काडीत वतालो जाल्यार आनी अेक फावट म्हज्या नांवाचो उद्‌घोष जालो. तसो गर्दील्यान हांव पळत स्टेजीर पापलो. पायं लटपटताले, हाताक आनी तोणाक घाम आयिल्लो. कपडे सारखे करित, टाय सारखो आसा कि ना ते पळयत हांव थरथरत स्टेजीर पावलो. गोल्ड मेडल हातान दितकर जमिल्या सगळे लोकांनी अुबे रावन म्हाका टाळ्याच्या गजरान सलामी दिली. पयलेच भारतियाक गोल्ड मेडल दिला ते पळोवन तांका आश्चर्यच जांवन नकळत ते अुबे रावले जावये. हांवेय नम्रतेन म्हजी मान वाकवन अध्यक्षाक आनी व्यासपीठार आशिल्या प्रोफेसरांचे आभार प्रगट केले आनी हास्तांदोलन केले. मागीर सगळे जमिल्ले लोकांक मान सकल वाकोवन आभार प्रगट केले. तेन्ना परतो टाळ्यांचो कडकटात जालो. अितले जातासर हांव स्टेज अुतरुन वचपाक

ागलो जाल्यार परते म्हज्या नांवाचो अुच्चार जालो खंय पूण गोल्ड मेडल हातान नाशिल्यान हांव सामको भुलसून गेल्लो जावये आनी परते म्हजे नांवाचो अुच्चार हज्या मतीन गेलो ना वो म्हाका परते मेडल मेळटले म्हणपाचे; मात पटांगणान ासील्या लोकांनीच म्हाका जाग्यार हाडलो आनी म्हजी स्वारी परती स्टेजीच्यो ायंड्यो चडपाक लागली. परते अध्यक्षान हांसत म्हळे कि किदे केमट, गोल्ड ाडल मेळटकर तू 'अॅक्सायट' (फुरफुरल्लो) काय म्हण, आनी ताणे दुसरे मानाचे ंसल्व्हर (रुप्याचे) पदक दिले आनी म्हाका सांगले कि परतो वचू नाका, तुजे ब्रातीर आनी अेक बक्षिस आसा आनी ताणे अनावन्स केले (परते थै जमलेल्या ाोकांक सांगले) कि कामतीक प्रवासी शिष्यवृत्ती मेळ्टा आनी ती कॉन्टीनेटल ी युरोपाक वचून थैंची पैली आनी आंताची आधुनिक कला पळोवपाक खातीर भासा. तेन्ना परतयो टाळ्यांचो बरोच वेळ कडकडाट जालो. म्हाका दिस्ता गोल्ड ोडल मेळ्ळे तेन्ना जे सकल जमिल्ले कांय जाणाक म्हजेविशी शंका आशिल्ली, ंवूय म्हाका सिल्व्हर नी प्रवासी शिष्यवृत्ती मेळ्या ते पळोवन म्हजेविशी खात्री जांवन ताणी टाळ्यो माल्यो आस्तल्यो. अशे तरेन पिक्चरांनी बी दाखयतात तसो मकार थैं घडलो. सकल अुतरतकर म्हजे भारतीय नी इंग्लिश मित्रांनी म्हाका गराडो घालो आनी तें गोल्ड मेडल हातान धरुन पळोंवक लागले, नी कांय भारतीय मित्रांनी म्हाका वयर अुखलून धल्लो. अितल्यान मिस मार्जरीय, मिस खान वांगडा म्हज्यं म्हन्यान आयली आनी तांणी म्हजेकडेन हस्तांदोलन केले. मिस मार्जरीन बरेच वेळ म्हजो हात हातान दवल्लेलो. तेन्ना म्हाका कळ्ळें किं तिका खरेंच मनापासून आनंद जाल्लो. दोस्तीची गोष्ट मोगा मेरेन पाविल्ली जाल्यार, मार्जरी कशे तरेन आनंद प्रगट करतली आशिल्ली काय म्हण आयज विचार येता.

## "आदि भाकित केल्ले"

अेक मात सामके ठोस कळ्ळे किं इग्लीश लोक हुशार मनशांक शाबासकी दिवपाक फाटी रावनात. मागीर राजकारणांत ताणी आपणाले नांव वगडायला ती गोष्ट वेगळी. भारतात शिकताना वो बाम्बे आर्ट सोसायटीचे पदक मेळ्ळां तेन्नाय म्हज्या ओळखीच्या अेक-दोन भारतीय लोकांनीच साबासकी

दिली तितलीच. भारतीयान म्हाका अुत्तेजन दिले म्हळो शिल्पी भौ. करमरक आनी दुसरो त्यावेळचो नामनेचे शिल्पी भौ. वाघ. भौ. वाघ तर म्हजी लायक वळखून आशिल्लो. अेक फावट तो अेका मारवाड्याचो मातयेचो बस्ट ते मारवाड्याच्य घरांनूच करी. हावूय भौ. वाघाक हातभार लायतालो. मारवाड्यान म्हजे काम पळवन भौ. वाघालागी म्हळें कि हो भुरगो फुडें व्हड काम करपी शिल्पी जातलो ते म्हाताऱ्या मारवाड्याचे भाकिताचो म्हाका भोवन भोवन अुगडास जाता. मा जे. जे. स्कुलांत शिकवपाक येवपी ते दोन विझीटींग प्रोफेसर म्हळ्यार कै. भौ म्हात्रे आनी दुसरो कै. भौ. तालिम हांनी म्हाका केन्नाच शाबासकी दिली ना अितलेच न्ही तर शाळेंत शिकोवपाक येताले तेन्नाय चुकुंन लेगीत अेकय दिस अेका अुत्तरान म्हळे ना किं, "कामत, तुजे काम बरें जाला, वो सांगलेना कि काम चुकला, ते अशें तरेन वो तशे तरेन सारके कर." सांगपाचे म्हळ्यार हे आमचे चड करन भारतीय लोकांचो गुण वो अवगुण म्हण या वो अेकट्याचो दुसऱ्याक दुस्वास आसुये. वो दुसऱ्यांची व्होडवीक मानपाक तांचे लागी मोठे मन नासुये. किद्याक तर हांव भारतात परतो येतकर लेगीत ताणीं म्हजे अभिनंदन केले ना.

मारवाड्याभाशेन वो शिल्पी करमरकरभाशेन जाणे सुरवातेपासून म्हजी वाखाण्णी केली ती म्हळ्यार आमचे जे. जे. स्कुलाचो डायरेक्टर कॅ. सालोमन सायब आनी मागीर इंग्लंडच्या रॉयल अकादमीच्या प्रोफसरानी आनी प्रिन्सिपालान केली. म्हाका ह्या अकादमीचे सुवर्ण पदक मेळटकर अॅकादमीचे मंडपांत मोटे नामनेचे चित्रकार नी शिल्पी आमंत्रित आसले. तांतूतले चार पांचानी वोळख वो देख नास्तनांय मुजरत म्हजे लागी अेवन म्हजे अभिनंदन केले. मजा अशी जाली, अेकट्यान म्हज्या म्हऱ्यान येवन म्हाका हस्तांदोलन करित विचाल्लें कि हांव बाम्बेचो विद्यार्थी काय म्हण. आनी ताणे आपले आफीसांत आपणाक येवन मेळ म्हण आमंत्रण दिले. हांव ताका वळखिनासलो म्हण हांवे ताका ताजे नांव विचाल्लें. म्हजे वांगडा आशिल्या वर्गमित्रांनी खुणेन आनी फाटल्यान आशिल्यांनी म्हजी फाट धोकसून विचारु नाका अशे खुणायले. तरी थैं चड लक्ष दिनास्तना हांवे त्या गृहस्थाक नांव विचाल्लेंच. परिचय करन दिवन ताणे आपले नांव 'सर

वेल्यम टोथस्टोईम' म्हण सांगले, आनी आपूण रॉयल कॉलेज ऑफ आर्टसचो प्रिन्सीपॉल म्हळें. म्हजे कॉलेजीतले वांगडी ताका वळकताले जावये. ताणी भुप्रान्त सांगले कि, "तुका आमी खुणायल्लो, तरी पूण तुवें लक्ष दिले ना." अशे रीतीचे ते इंग्लीश लोक हुशार मनशाची तुस्त तोखणाय करताना आपूण मोठो तो ल्हान हे पळे नासले. हांवे मात तांचो घेंव जाय तसो फायदो घेतलो ना. ती म्हजी ल्यल्यापासन वृत्तीच ना, नी आतां हे घटकेकूय ना. हांवे म्हजी स्वतः जावन क्रेन्नाच जायरात केली ना. भारतात जाल्यार हांली पैशे दिले बगर वर्तमान पत्रां कोणायची तोखणाय करी नात. अशी पध्दत जाल्यान लायकी नासिल्येच मनीस पैशे दिवन वो, पत्रकारांक पार्टीबी दिंवन आपले आनी आपले कलेची जायरात करतात आनी ते प्रसिध्दीचेर पैशेय कमयतात. मात हांव लंडनच्यान मुंम्बय पावना भेरेन मुम्बयच्या द टाओम्स ऑफ अिन्डीया, दि क्रोनीकल इत्यादी वार्तापत्रानी म्हाका खुब प्रसिध्दी दिली. पानाची पाना भर भरुन प्रसिध्दी दिली. हांतून चड वाटो डायरेक्टर सालोमनाक, तशेंच हांवे जरी वयर म्हळें कि भारतात योग्य मनश्याची तोखणाय जायना ताका आनी अेक अपवाद आसा. फोटोग्राफर आनी आर्टिस्ट शिवाभाऊ शिरगांवकर हाणेंय म्हज्या कामाचे काडील्ले फोटोय ह्या वर्तमानपत्रानी छापून हाडपाक बरीच मदत केली खंय.

## "म्हाराज सयाजीराव गायकवाड"

अेक गजाल मात कृतज्ञतेन सांगपाक जाय म्हळ्ळी महाराज सयाजीराव गायकवाड हांची. ते त्याकाळान बडोद्याचे म्हाराज आसले. तंन्नाची ही गजाल. भौ. सरदार पन्नीकर हो अेक जबरदस्त इंग्लीश बरवपी, तसोच हुशार मनीस आसलो. ते नेटार तो राजा महाराजाचे संस्थेचो मुखेल सरदार जाल्लो. म्हजी ताजेंकडेन वळख पेन्टर शिल्पी भौ. डिक्रुज ह्या म्हज्या मित्रान मुंबय करन दिल्ली. हांव लंडनांत वतकर ताका मेळपाक गेलो, जाल्यार ताणे म्हाका किदे विचारचे? सुर्वेकच ताणे म्हळे, "कामत, तुवे तो ओव्हरकोट घाला तो मुम्बयच्या चोरबाजारांत घेतलो काय म्हण." हो ताजो कदाचित विनोद आसलो जावयें वो म्हजे आंगार तो विनोदी दिसलाय आसुये. हांवे ताका दुखयनास्तना सांगले कि तो ओव्हरकोट

म्हजे अेका मित्रान आपणालो पोत्रोच दिला. मात तिन वर्सा अुप्रान्त ताणेंच म्हाका आपौन सांगले कि बडोद्याचे म्हाराज 'श्रीमंत सयाजीराव गायकवाडान' मुजरत मेळपाक आपैला. मात म्हाका समाधान जाले किद्याक जाल्यार, जे मनशान म्हजो ओव्हरकोट "चोर बाजारातलो" काय म्हण विचालूं, त्येच मनशाकडल्यांन म्हाराजान म्हाका आपोवने धाडचे हो केदो व्हड योगायोग. म्हाराज त्यावेळा लंडनच्या व्हडल्या नी नामनेच्या हाईडपार्क म्हऱ्यान आशिल्या 'सेव्हॉय' म्हण्टात ते हॉटेलान रावतालो. म्हाका महाराजान आपणा वांगडा 'च्या' घेवपाचे निमंत्रण ह्या भौ. सरदार पन्नीकराकडल्या धाडील्यान हांव वेळेपरमाण म्हाराज श्रीमंत सयाजीराव गायकवाड हांका मेळ्ळो. अदे व्हड लंडनच्या हॉटेलांत वचपाचो तो म्हजो पयलो अनभव. सगळेकडेन लखलखाट, व्हड व्हड भांगराकिनार आशिल्ले मखमलचे पड्डे, तशेंच व्हड हारशे आनी मखमलीचे सोफा, खुर्ची, पांयासखल अुंची कारपेट, मडकय ल्हान घरान रावपी म्हाका तो राजवाडोच कसो दिसलो. म्हजी छाती मातशी वयसकल जाताली. तसोच मन घट्ट करन नी छाती फुलयत, म्हाराज रावताले ते 'स्युट' (व्हड दालनात) प्रवेश केलो. भितर सरत जाल्यार हांगाय तसीच सजावट. मदीच अेका व्हड मखमलीच्या सोफ्यार म्हाराज सयाजीराव आपल्या सलवार कुर्त्यान, गळ्यान मोत्याच्यो माळो नी हांतात हिऱ्याच्यो मुद्यो घालून विराजमान जाल्लें. म्हऱ्यान म्हाराजाले सेक्रेटरी आनी दोगजाण इंग्रज निमंत्रीत पावणे आसले. म्हाराजान म्हजो परिचय ते सायबालागी करन दिवन आपल्या बाजूक बसपाक सांगले. तांतलो अेक सर आसलो. ताजे नावाचो आता म्हाका अुगडास जायना. पूणून तो ओरियंटल लॅग्वेजीसचो स्कॉलर आनी ते संस्थेचो मुखेल आसलो. म्हाराजान बळख करन दितकीर ते इंग्रज मनशान म्हजेविशी चौकशी केली. रोकडेच ताकतीकेन म्हाराजान म्हाका थामयलो आनी म्हळे कीं आपुणुच कामतीची माहिती सांगता, जाल्यार म्हाका व्हडले अजाप जाले ते तागेले म्हजेविशीचे अितंभूत ज्ञान, अथ ते तिथी मेरेन म्हजी म्हायती म्हाराजान कथन केली. तांतून मुम्बय धरुन लंडनमेरेंची म्हजी वाटचाल. म्हाका मेळील्ली मुंबयची बक्षीसा तशेंच रॉयल अकाडेमीची सगळी बक्षिसां नं शिष्यवृत्ती, टुरींग स्कॉलरशीप हाजो व्हांडविकेन वळेरी सांगली नी निमाणे आमच्या भारताचो हो

अेकमेव कलाकार जाणे पयलेंच सुवर्णपदक मेळवपाचो मान पटकायला म्हण म्हज्या खांद्यार हात दवरुन म्हजी फाट थपथपायली. हांवे मनान म्हळे अंदो म्हडलो म्हाराज आनी म्हजेसारख्या अेकसचीत विद्यार्थ्याची म्हायती ताणे खै मेळयली? ह्या गजालीचे म्हाका अजाब जाले, आनी प्रश्न पडलो, ताका म्हजी अितली गरज किद्याक. जाल्यार मागीर कळ्ळे कि म्हाराज हुशार कर्तबगार मनशांची वळख करुन घेतालो आनी तांचे विशीं अितंभूत चौकशी करतालो. हे ताजे मोठेपण आसले. अितलेंच न्ही जाल्यार खुबशे हुशार मनशांक ताणे शिष्यव-त्योय आनी परदेश्याक फुडे शिकपाक धाडल्यात नी नोकऱ्यो दिल्यात. भौ. अरविंद घोष I.C.S. (आय.सी.यस.) जावन येतकर सरकारी नोकरी सांडून म्हाराजाकडेन नोकरी करी. मागारे त्या थोर तत्ववेत्यान ताजीय नोकरी सांडून पोंडीचरीक आश्रम काडलो. तो अरविंद आश्रम म्हण खुब गाजलो. तशेंच भौ. बाबासाहेब आंबेडकराकूय अमेरिकेत शिकपाक म्हाराजान आपल्या खर्चान धाडील्लो. अशे बरेच लोक ताज्या पदरासकल आसले आनी अुपरांत व्हड मनीस जाले.

निरोप घेताना म्हाराजान आपुलकेन म्हळें कि आपणाले नातवाचो प्रिन्स प्रतापसिंहाचो, जो मागीर म्हाराजा जालो, ताजो अेक टेनीस खेळ्टा अश्या अेक्शनान पुतळो करचो मनान आसा. तेन्ना तुगेले कोटेशन आपणाले सेक्रेटरी लागी दी. सेक्रेटरी महाराष्ट्रीय ब्राह्मण आसलो, नांव आठले वो आठवले अशे किदें नांवाचो आसलो. म्हण्टकोर हांवे त्या सेक्रेटरी लागी म्हजे कोटेशन दिले. ते म्हजे पयले कोटेशन जावयं. पूण मागीर चौकशी केल्यार तो सेक्रेटरी सांगू लागलो कि इंग्रज शिल्प्याचे कोटेशन सवाय दरेचे आशिल्यान ते काम ताका दिले. मगेले भिडेस्त स्वभावाक लागून हांवे ती बाब तितल्यारुच सांडली. निदान म्हाराजाकडेन ओळख जाल्ली म्हण्टकोर हांवे मुजरत ताका खास मेळून हि गजाल ताज्या कानार घालपाक जाय आशिल्ली, आनी वळखीचो फायदो घेंवक जाय आशिल्लो. पूण म्हजे स्वभावान ते ना. मागिरुय हांवे केन्नाच कामा मेळपाक व्हड वो ल्हान मिनीस्टरांक वो नेत्यांक मेळून म्हाका काम दिवपाखातीर फस्तीक पाडू ना, आणी ताका लागून खुब व्हड कामा; मोक्याच्या जाग्यार लावपाची वगडायल्यात, मात मागीर म्हाराजाचो लाईफ सायझच्या दुप्पट वस्ट करुन थै बदोड्याच्या

जिमखान्यार लायला. पूण ते पयले वयले काम मेळ्यार म्हजी कामा करपाचें सुरवात झकास जातली आसली. वयर सांगला तो अिंग्रज शिल्याचे नांव आसले विल्यम मॅक्मीलन. अुप्रान्त तो सर मॅक्मीलन जालो, नी ताणे किंग जॉर्जचो पुतळो केलो, तो दिल्लीच्या इन्डीया गेट आसा थै लायील्लो. मात हे काम इंग्रज शिल्प्यान भारतात केल्लें निमाणें काम जाले. आयज तो पुतळो दिल्लीच्या म्युजीयमात आसा. अुप्रान्त अेकदा हि खबर हांवे म्हजो प्रोफेसर भौ. मॅक्मीलनाक सांगली. जाल्यार ताणें म्हळे किं, "कामत तू खुब सादो, देकूनच म्हाका तुजे मुखावेले आयुष्याची चिंता दिस्ता." हि ताजी मनापासूनची मजविशींची तळमळ आसली. मात मागीर ताज्या अुत्तरांची घडी घडी म्हाका याद जाताली. ताणे फुडें म्हळें कि, "तुवें रोकडेंच म्हाराजाकडें वचून विचारपाचे किं तुमी सादी नी सवाय मोटार घेवच्ये परस बरी नी म्हारग रोर्लसराइस किद्याक पसंद करतात?" पूण तुज्यान ती व्यापारी घटी ना.

## "प्रोफसोर सर विल्यम मॅक्मीलन"

अेक दिस अेकेडेमीचे भायरच म्हाका प्रोफसरान आडावन विचाल्लें, "कामत तुवें अेकेडेमीचें शिकप यशस्वी पणान पुराय केला. देकून मुकार तुवें किदे आपल्या भावी जिवीतार्थाखातीर थारायला?", आपणांक तर तुजी खुब काळजी दिस्ता. तुमका फट दिसुये किद्याक अेका काळ्या विद्यार्थ्याखातीर अितले तळमळीन किद्याक विचारतलो? पूण अितली ताका म्हजी मनापासून चिंता आनी कळकळ आसली. फुडें म्हण लागलो "तुका लंडनाक रावन काम करपाचें आसल्यार आपूण तुका अुत्तमपैकी शिफारस पत्र दिता," वोव आपल्या अेका शिल्पकार मित्राक सांगून ताका तुका फुडे मदत करपाक येत. खरे म्हळ्यार थै हांव राविल्लो जाल्यार फुडे विश्वाचेर नांव करपाक वाव आशिल्लो. जगभर म्हजी कामा लागू शकताली आनी जगान अेक बरो शिल्पी म्हण जगभरचे लोक वळखतले आसले. मात म्हाका भारताचे व्होडके लागील्लें. दोळे मुखार म्हा-भारत देंस दिस्तालो. हांवे फाटलो फुडलो विचार करनास्तना जाप दिवन म्हळें किं, "म्हजो भारतात परत वचपाचो बेत आसा." ताजेर ताणें वायट दिसून म्हळें,

'तुजी मर्जी," आनी थै तुका बेसबरे यश मागता. अुप्रान्त ताणें म्हळे किं, "तुका हांव १०० पौंडाची स्कूल लिव्हींग शिष्यवृत्ती दिवपाक लायता, तुका आरंभाक थै अुपकारा पडटलें. त्याप्रमाण स म्हयने अदीक लंडनांत रावलो आनी हांवे थेवेळांत सीरॅमिक्सचो अभ्यास केलो. १९३५ जुलैच्या ३० तारकेक म्हळ्यार म्हजे जन्म दिसाच हांवे भारताचे पुण्यभुयेंत परत पांय लायलो.

## "गोयांत अपुर्वायेन दिल्लो अेवकार"

भारतात परत येवपाचे म्हाका व्होडके लागीले. लंडनाक दिवपाक केल्ले बरे हुद्ये हांवे नाकारले. म्हाका सदांच भारताचे आनी गोंयचेवीशी व्हडवीक अुल्या. म्हजे मतान दुसऱ्या देसान वचून कायम रावपूय अयोग्य न्ही, जण अेकल्याची अिच्छ्या. किद्याक तर हे जगूच पयली "वासुदेव कुटुंबकम्" वो मराठीन म्हण्टा तशे "हे विश्वची माझे घर". पूण म्हाका म्हज्या भारताची आनी फाटोफाट गोंयची पयली पासूनच ओड. लंडनच्यान अेंवन हांवे म्हजो व्यवसाय मुम्बयन सुरु केलो खरो, पूण मनापासन म्हजे मन गोंयच्या वास्तव्यांन आशिल्ले. आंताय भारताभायर पोटा खळगी भरपाक म्हणा वो चड दुडू वो मानमरातब मेळोंक म्हणा लोक अमेरीका, अिंग्लंड, जर्मनी बी वतात, पूण मन तांचे भारतानूच आस्ता. आपल्या आवयक कोण विसरत. जो विसरता तो मनीस न्ही. जनावरान व्हड जातकर आवश्यक विसरपाचे लक्षण आस्ता, पूण आपूण जन्माक आयिल्या जागेक मात ती विसरनात, हे ती परती आपल्या पयल्या जागेक सोदित येता म्हण आयकिवात आसा.

म्हण्टकोर लंडनची म्हजी साटली पोटली हांवे बांदली, मित्र मत्रिण्यांक शेवटचो मेळ्ळो, तांतूर मिस मार्जरी आनी मिस खान आशिल्लीच. सगळ्यांनी म्हाका भारतांत भरभराट मेळची म्हण मागले, पूण तांच्या सगळ्यांचे घरचे पत्ते घेवपाक हांव म्हजे आदतीनूसार विसल्लो. तांचेच न्ही तर प्रोफसर विल्यम मॅक्मीलन वो अेकेडेमिचो प्रिन्सीपल सर विल्यम टोथास्टोईन हांचे तरी पत्ते हाडपाक जाय आसले, आनी तांचेकडेन केन्नाय पत्रव्यवहार चालू दवरुक जाय आसलो. म्हजो दोस्त भौ. करमरकर हाका मात ती सवंय बरी आशिल्ली. अितलेंच न्ही तर

म्हजेंवीशी रकानेचे रकाने भरुन आईल्ली पेपरातली, मेगेझीनातली खबर कापून ताणे सामाळून दवल्लेली. तो आस्तना, वो तो स्वर्गवास जातकर तरी ती परती हाडपाची म्हण्टकर, जेन्ना जेन्ना पत्रकार वो लेखक वो टिव्हीवेले लोक म्हजी मुलाकात घेंवक येताले तेन्ना म्हजे लागी ती कात्रणा नास्ताली. तांचो तांका खुब वापर जातलो आशिल्लो.

मुम्बयकडे प्रयाण करपाक हांवे बोटूच पकडली किद्याक ती सवाय पडटा. विमान त्याकाळान खुब म्हारग आस्ताले. श्रीमंत, राजेरजवाडे अितलेंच लोक विमानानी प्रवास करताले. हांव तर सामके सवाय बोटीन येवपाक भायर सल्लो. म्हाका मेळील्ले दुडू फुडाराखातीर सामाळून दवरपाचे आशिल्ले. व्यवसाय करपाचो म्हळ्यार स्टुडीओ लागता. स्टुडीओ ना जाल्यार व्हड जागा भाड्यान घेवची पडटा. हाजो विचार करुन मुम्बय पावतकर कमीत कमी खर्च करपाचे थारायले. हे सगळे बेत करता करता मुम्बयक बोट पावता म्हण कप्टनान सांगले. मुम्बयचे बंदर लामच्यान दिस्ताले. मन भरुन आयले. आपलो देस, आपली मनश्या खुप वर्सानी पळयतकर अशें जाताच. त्ये प्रमाण बेलार्डपीअराक आमची बोट धक्याक लागली, मन परते भारावन आयले आनी धाकधूक दिसपाक लागली. अेक पयले म्हळ्यार म्हज्या मायदेसाक हांव परतो पाय दवरपाचो आनी जे शिकपाक गेल्लो ते शिकून पदरांत पडलेच, जो ल्हानपासून ध्यास लागील्लो तो पूर्ण जालो म्हण. तशेंच शिक्षण क्रम सोपचे पयलींच म्हाका अेकेडमीचे गोल्ड, सिल्व्हर नी टूरींग स्कोलरशिप मेळून हांवे म्हजे स्वप्नाचेर कळस चडयलो, आनी म्हजे 'लक्ष्य' म्हळ्यार गोल्ड मेडल तेवूय पयलोच भारतीय कलाकार म्हण, मेळवपाचो मान घेतलो. आता मेरेन कलेच्या खंयच्याच भागानी म्हळ्यार चित्रकला (फाईन आर्ट) शिल्पकला, फोटोग्राफी, वास्तुशिल्पकला हातून कोणेच भारतीयान विश्वविख्यात रॉयल अॅकेडमिचे गोल्ड मेडल मेळवंक नासले.

दुसरे विचारान धडधडपाक लागले म्हळ्यार आता कोणागेर वचून रावपाचे आनी म्हाका घेवपाक कोण येत काय म्हण. भाव नारायणबाब तरी येतलो काय ना? असो विचार करतासर कस्टमबी जाले. 'आदाम आनी अिव्ह'चे प्लास्टरातले काम हांवे लाकडाच्या बॉक्सान दवल्लेले. सामान हातात आयले

आनी हांव भायर येता म्हळ्यार नारायणबाब तर सामको सगळ्यांत फुडं आशिल्लोच. शेवाय म्हजे बरें मागपी म्हळ्यार भौ शिवाभाऊ आनी बरेच कलाप्रेमी लोक तुरतुरे घेंवन आयिल्ले. जे जे स्कुल ऑफ आर्टस्चो प्रिन्सीपॉल कॅ. सालोमनसायब आनी विद्यार्थी फुलांचे हार बी घेवन हजर आशिल्लं. वर्तमानपत्राचे पत्रकार, फोटोग्राफर आपणाले कमेरे घेंवन सज्ज जाल्ले. ताणी म्हजेर घुरीच घाली, आनी प्रश्नांची सरबत्ती चालू जाली. सगळ्यांनी म्हाका हार-तुरे दिले. तसो हार-तुरे घाल्लो म्हजो फोटो टाईम्स ऑफ अिन्डीयाच्या पयल्याच पानार छापून आयिल्लो. आमच्या गोंयच्या भौ. मोरायसाबाबान इव्हनींग न्युजांत व्हडलो देड पानी लेख बरयलो, हातूंत ताणे म्हजे जन्म ते इंग्लडनचो विक्रम सगळे बरवन वडयलं. टायम्सान तर म्हज्या फोटो सकल हांव पयलोच भारतीय जाणे लंडन रॉयल अेकेडेमीचे 'गोल्ड मेडल' मेळवपाचो मान पटकायलो म्हण बरयले. म्हाका घेवपाक अितले सगळे लोक येतले म्हणपाचे हांवे चित्‌क नाशिल्ले. हांव सामको चकासूर जालो. सगळ्यांकडेन हस्तांदोलन करत आनी परते मेळपाची आमंत्रणा घेंवन, हांव नारायणबाबा वांगडा आमच्या अिष्टाच्या घरा गेलो. म्हजे तेवेळा स्वतःचे घर मुम्बयन नाशिल्ले. म्हजे घर म्हण्टा ते मडकय. तेन्ना आता रोखडेंच गोंया वचपाचो बेत केलो. नारायणबाबक घेंवन हांव दुसरेच दिसा गोंया वचपाक भायर सल्लो. व्ही.टी. स्टेशनावेल्यान आमी गाडयेन वचपाचे थारायले. बोटी जुलै म्हयन्यानी बंद आस्ताल्यो. नाजाल्यार ते सोयीस्कर जावपाचें. दुसरे दिस कुळेंचे स्टेशनार फातोडेचे पावले आनी फोगोट्यांच्या कडकडाटान आमी जागे जाले, अितले कि आमचे कानूच गच्च जाले. कुंडयेचो कामत थैं कस्टम अधिकारी आसलो. आमका सोदित, आमी आशिल्या डब्यांत येवन म्हज्या गळ्यान हार घालो आनी म्हाका बरे मागून अभिनंदन करन गेलो. तेन्ना म्हाका गोंयच्या मानपानाची मातशी झुळुक लागली. आमची गाडी थैयच्यान सुटली ती सावर्डे स्टेशनार आयली. थैं वचपाचे कारण म्हळ्यार पचवाडे म्हगेली व्हडली भयण कैं. सिताबाय स. शेणवी भांगी रावताली. कुळारचे नाव जायू, आनी आमी सगळी भावडा तिका 'आका' म्हण्टाली. स्टेशनारुच म्हजें भांव बरें फोगोट्यानी स्वागत जालें. अेक दोगाची भाषणाय जाली. थंयच मडगावकरानी हांवे सांचे येवचे म्हण

सांचो प्रोग्राम थारायल्लो, आनी निमंत्रण दिले. आकान आपल्या घरा व्हरुन म्हजी खुब अपुरबाय केली आनी ताका म्हजो अुमाळो येवन आनंदाची दुखां व्हावपा लागली. बरे गोड धोड करन म्हाका जेवपाक वाडलो. खुब तेपान घरचे आनी गोंयचे जेवण जेवन म्हाका अितले दिसानी पयलेच फावट जेवल्याबशेन दिसले.

जेन्ना हांव सांचो मडगांव स्टेशनार पावलो तेन्ना म्हाका अचाट गर्दी दिसली. हांवे नारायणबाबाक म्हळें आरे आमी ह्या गर्देन चिडून वचना मरे. तशेंच परते फोगोट्यांनी कान साप बसून गेले. फोगोटयांची व्हड लामलचक माळ लाअिल्ली खंय. ती आकांताची गर्दी पळोवन आमचे तोंड अुकतेच अुल्लें. अितले लोक जमतले अशी हांवे कल्पनाच करु नाशिल्ली. मुय रिघपाक जागा नाशिल्ली म्हळ्यार जाता, सगळो आवाट लोकांनी खचाखच भरिल्लो. बँडाचेर सुदरशें वाजप लागील्लें. थंयसून विद्यामंदिरमेरेन सगळो रस्तो लोकांनी म्हाका पळोवक भरिल्लो. कांय लोकांनी हार म्हज्या गळ्यान घाले जाल्यार थोडे फुलांचो तुरो म्हज्या हातात दिवपाक धडपडटाले. ते सगळे काडून हांव नारायणबाबाकडेन दितालो म्हणसर आनी हार नी तुरे येताले, अशया गाज्यावाज्यान आमची स्वारी विद्यामंदिराकडेन पावली. मंदिरान स्वागताची अुलौपा सोपतकर कै. भौ. नरसिंह नायक, जो तेवेळचो व्हड राजकारणी फुडारी मनीस जांवन गेलो, जो भौ. बाळू नायकाचो बापूय, ताणें रातचे जेवणाचे आमंत्रण दिवन म्हाका आपल्या घरा घेवन गेलो. पळेत जाल्यार ताज्या घरानूय शंभरेक लोक जमला. ते आदि कै. भौ. दामोदर नायकान, जो त्यावेळा अेक समाजकार्य करपी आनी व्हड व्यापारी जावन गेलो, ताणे दुसऱ्या दिसा 'चा'चो प्रोग्राम दवल्लेलो, आनी म्हाका आमंत्रित केलो. अुप्रान्त मुरगांवा सांजचो प्रोग्राम जालो. म्हजे वांगडा कै. भौ. प्रोफसर शाणू भरणो आशिल्लो. नावीगासावाचो कापीतांव (नेव्हीगेसनचो कॅप्टन) आनी ताजे बायलेन वांटो घेतील्लो. शांम्पेन वाटिल्ली. कापीतांवाच्या बायलेन नाचांचे सुचयलें. भारतात येतकर नाचपाचो म्हगेलो पयलोच वेळ आसलो. त्ये अुप्रान्त कै. भौ. पिसुर्लेकारान, जो त्यावेळा गव्हर्नमेन्टचो चिफ आर्किटेक्ट आसलो, ताणें मुजरत निमंत्रण दिवन आपणागेर जेवणाचो बेत केल्लो. सांगपाचें म्हळ्यार मुरगांवकारानी पयलीच दंणगी म्हण रुप्याची थैली भरुन रुपये दिल्लें, जे मागीर हांवे मडकय घरा हाडून दवरलेलें.

पुखार त्ये थैलीचे किदे जाले आनी खंय पावले ते हांवेळ म्हाका कळून येवना वो दुसऱ्या कोणेय केन्नाच म्हाका कळूक दिलं ना. आनी हांवेय कोणाचकडेन ताजी खरती म्हण वास्तपूस्त केली ना. ह्याच गोष्टींवेल्यान म्हाका मेळील्या गोल्ड मेडलची याद जाता. जेन्ना ते मुम्बयच्या आमच्या घरान कपाटान दवल्लूले ते गोया आमी सगळी १९५१ न मडकयच्या जात्रेक गेल्ली, तेन्ना घरान चोरी जावन रॉयल अेकेडेमीचे भांगरा पदक, खेरीज दुसरी दोन भांगरा पदका, चार रुप्याची पदकां, तांतूर अेक मेयो मेडल, दुसरे बॉम्बे आर्ट सोसायटींचं रुप्यापदक खेरीज घरकान्नीचो भांगरा वस्तीय गेल्यो. त्यावेळा आमच्या वांगडा म्हजो व्हडल्या भावचो चलो कमल म्हण्टा तो येवन वचन आस्तालो. ताका घराचेर देखरेक करपाक सांगिल्ली. पूण चोरुच ते, तांका खंयच्यान सुगावो लागलो कोण जाणा कि आमी भायरगांवा गेल्या म्हणपाचे, ताणी घर साफ करुन वडयले. हांवे पोलिसांत कळैले पुण कांयच अुपयेग जालो ना. मुम्बयचे पोलिसांचो नंबर अिंग्लंडच्या स्कॉटलन्ड पोलिसामागीर लागता म्हण आयकपान आसले पूण म्हज्या बाबतीत तांचो कांयच अुपयोग जालो ना. अुप्रान्त खुब जणानी म्हाका विचाल्लूं कि ते चोरिची गजाल वर्तमान पत्रान कशी दिली ना काय म्हण. असले जायरातीचो हांव भोवतो न्ही म्हण तांका सांगचे पडले. लंडनात आस्तना आनी अुप्रान्त भारतात नी गोंया येतकर जाल्ली जायरात ती लोकांच्या अुस्फुर्त मनान केली म्हण ताजी व्होडवीक. पूण आयचे कलाकार आपले नांव जावचं म्हण, आनी ताजेर चड दुडू कमावचे म्हण वर्तमानपत्राच्या संपादकाक पैशे दिवन वो पार्ट्यो दिवन, अिल्योश्योय गजाली छापून हाडून फायदो करन घेतात. असली तरा म्हाका केन्नाच रुचली ना.

मुरगांवचो प्रोग्राम सोपलो आनी अितल्यान कै. श्री. मिनेज ब्रागांसान आपणागेर जेवपाक व्हरुन भोव बरो सन्मान केलो तो हांव केन्नाच विसरु शकना. ह्या पार्टीक पोर्तुगेज साहेब आईल्ले तशेंच गोंयचे तेवेळचे प्रतिस्थीत हिन्दू आनी किरिस्तांव आसले. मात सगळ्यान चड अजाप जाले ते जेन्ना म्हज्या अेकुलत्या मामान कै. श्री. विनेबाब कुवेळकारान म्हाका जेवणाचे आमत्रण दिलें तेन्ना. ते दिस हांव म्हगलें आत्येगेर रातचो रावील्लो. थैय येवन ताणे म्हाका आमत्रण दिलें. ताणेय फोगोट्यो म्युजीक लावन पन्नास-साठ लोकांक निमंत्रण दिवन जेवपाचो

बेत केल्लो. हे अेक नवल आसले. किद्याक तर लंडनाक वचच्या मेरेन मगेले मामान म्हाका केन्नाच भाचो हे नात्यान आपणागेर आपोवन व्हेलो ना, न्हय तर मगेले आवयकूय पयली केन्नाच आपल्या घरा आपयली ना. आता कळता कि ताणे म्हाका आपयलो तो म्हजे गोंयात नांव जातकर वो चड कत्र आपली प्रतीष्ठा वाडची म्हण जावये.

अुप्रान्त फोणेचे म्युनिसिपालटींत स्वागत समारंभ जालो. थंय डॉ. आल्मेद अध्यक्ष आशिल्लो. आभाराचे अुलवपांत हांवे तांका आनी जमिल्या लोकांक याद करुन दिली कि, दोतोरान म्हाका कसो दुसरो जन्म दिलो तो. वयर बरयल्या परमाण तुमका ती गजाल कळ्या आस्तली कि म्हाका जेन्ना टायफायड आनी पॅराटायफायड जाल्लो तेन्ना दोतोराक फोंड्यासून माचूलान रातचो हाडून म्हजो जोर देवयल्लो आनी म्हाका आयुष्य नव्यान मेळील्लो. ते आयकून डॉ. आल्मेदांक खुब खोष जाली. थैंसून मडकय येवकार समारंभ आसलो. जेन्ना हांव म्हाडोळाक पावलो तेन्ना म्हाड्डोळाक जात्रेचे रुप आयिल्ले. सगळे म्हाड्डोळकार, मडकयकार, आनी कुणयकार बी थैं म्हजी वाट पळयत राविल्ले. फंडेच्यान मडकय वतलो जाल्यार म्हाड्डोळाक येवन वचचं पडटा. तिन चार मैलाची हि वाट डोंगरातल्यान वाकडीतिकडी वता जाल्यार मदीच म्हाड्डोळची शेंता लागतात, नयनरम्य निसर्गाच्या कुशीतल्यान ही तिन चार मैलाची वाट आमी भुरगेपणान पायानीच माड्डुयताले. पूण आयज मडकय वचपाक वेगळोच बेत थारायलो ताजी म्हाका तेवळ कांयच खबर नाशिल्ली. रस्त्यार तोरणा, गुडयो अुबारलेल्यो. वाजंत्री ताशे व्हड व्हडल्यान वाजयताले. घुमटांच्या तालार पोराटे-तन्ने नेटान नाचताले, तांतून बांमण, वाणी, शेट आनी गावड्याले भुरगे सगळे विसरून नाचताले. फोगोट्यांचो बार हांव थैं पावतकर सुरु जालो. ताजो आवाज थामतासर वाजंत्र्यांनी ताशे, सांज्यो बडवपाक सुरवात केली. सगळे जल्लोश्याच्या नेटार देहभान विसरुन आपणेंच पराक्रम केला अश्या नेटार नाचपाक लागले. मदींच कोण हवेंत गुलाल फेंकतालो. परते फोगोट्यांचो बार जालो आनी सगळ्यांक थंड रावपाक सांगले. म्हाड्डोळच्या पाटांगणात म्हाड्डोळच्या आनी प्रियोळच्या माननीय लोकांची भाषणा जाली. हो प्रोग्राम संपता म्हणसर थैं जमील्या लोकांनी म्हज्या नांवाचो जयजयकार केलो.

गळो वाटार म्हजे नांवाच्या जयजयकारान भारावन गेलो. खुब लोकांनी म्हजे व्यान हार घाले. कांय लोकांनी फुला म्हजेर वडयली. म्हाका दिस्ता म्हाड्डोळच्या लकारांचे ते काम जावये. अितले जातासर लोकांनी म्हाका खांद्यार घेतलो. गळ्या लवाजम्यासैत आनी परतो म्हज्या नांवाचो जयजयकार करीत लोकांच्या द्यार लजेस्त बसिल्ली म्हजी स्वारी मडकयच्या वाटेक लागली. ती तिन चार लाची वाट हांव चल्लो म्हण ना. म्हाका लोकांनी सकल दवल्लोच ना. जसो रथ डकय नाचेयतात त्याच अुमेदिन आनी नेटान ते म्हाका नाचयत व्हरताले. त्येकाक तो मानाचो अनभव दिस्ता जावये. अेकाच्या खांद्यावेल्यान दुसऱ्याच्या रतासैत म्हजे आंग दुखपाक लागले. अेकदाचे आमी मडकय घरालागी आशिल्या ायऱ्या तळाक पावले. थैंय खुब मानाचे आनी जाण्टे लोक जमिल्ले, हातात रतुरे घेवन. ह्या पायऱ्यो मडकयच्या श्री नवदुर्गे देवळाच्या पाटांगणा सामकार सोपता. पायऱ्यो सोपता आनी डाव्या आंगाक आमचे घर लागता. मडकय ावतासर तिळसांची ७ वरा जाल्ली. जात्रेक मडकयचो रथूय ह्याचवेळार देवळाक भोंवताणी काडून भारापेड्यार व्हरुन दवरतात. मळबांक तांबडो रंग चडिल्लो आनी म्हाकाय थैं जमिल्या लोकांच्या डोळ्यानूय तोच तांबडे रंगाचे रीफ्लेक्शन (छटा) दिसलें, मात कड ओलसर आसली. म्हजेय डोळे तांबडे आनी ओलसर जाल्यान काय कोण जाणा, दुसऱ्यांचेय तसेच काय दिसले जावये. मागीर दुसरे दिसा घरच्या लोकांनी सांगले कि खरेच मडकयकारांचे डोळे आनंदाश्रुन भरिल्ले. देवतेचे दर्शन घेतकर, मागीर घरा येवन आवय-बापायचे दर्शन घेता आस्तना म्हाका अुमाळ्यान अेकदम भरते येवन डोळ्यांतल्यान अश्रु भायर सल्ले. हरशी म्हज्या डोळ्यांन अश्रू चड करन येनात. पूण तो दिस भारावन वचपाचोच आशिल्लो. आवयच्या डोळ्यांक तर आनंदाश्रुची धार लागील्ली, म्हाका वेंगेत घेवन कवटाळीत रावली पूण तिच्या तोणातल्यान अेकूय शब्द फुटना जालो. मागीर 'बा'न म्हाका ओडून घट्ट धल्लो आनी परतं परतं म्हणपाक लागली 'रामान, नांव काडले, रामान नांव काडले !' तो प्रसग वर्णन करपाक म्हजेलागी आनी अुतरा कमी पडटात.

देवळा पाटांगणान नाटका वेळार घालतात तशी स्टेज घाल्ली, आनी ताजेर त्यावेळची बरी कदेला आशिल्ली, आनी मान्यवर ताजेर बशिल्ले. प्रोफसर

शाणू भरणो आनी बाकीचे जायते जणानी भाषणा करुन म्हजी जाता म्हणसर तोखणाय केली. आपणाल्यो म्हजे लागी आईल्या संबंधाच्यो गजाली तिखटमीठ लावन सांगताले. निमाणे म्हाका हार घालपाचे प्रोग्राम आशिल्लो. अेक ओकरा वर्सांची जायत, गोरीपान, मुदयाळे केसांची चल्ली हार घेवन अुबी राविल्ली. लोकांच्या ताळ्यांच्या गजरांत तिणे म्हाका हार घालो. म्हजे हांगा थै लक्ष नाशिल्ले, जाल्यार म्हजी नदर त्या चलयेच्या नदरेक भिडील्ली, कोणाक खबर फुडे जावपाच्या नात्याची ती नांदी आशिल्ली. देवतेच्याय मनानूय ते आशिल्ले जावये. नाजाल्यार तीच मुदयाळ्या केसांची सुंदर चली फुडे सात वर्सांनी म्हजी अर्धांगीनी कशी जाली? देवतेन म्हाका दिल्ली ती अमोल भेट आशिल्ली काय? ताजी गजाल मुखार येतली.

## "पणजी येवकार दिता"

दुसरेच दिसा पणजेचो स्वागत समारंभ आसलो. पणजेचो स्वागत समारंभ आसलो. पणजेकारांनी प्रोशेशनाक पाट्यार थावनच सुरवात केल्ली. खुब लोक जमिल्ले. तांतूर पोर्तुगेज सायबूय आशिल्ले. हांव थैं पावलो मात, नाका नाका म्हण्टा आस्तना, त्या जमील्या पणजेकारांनी म्हाका खांद्यार घेतलो. कालचो तो तिन-चार मैलाच्या खांन्यावेल्या प्रवासात म्हजी अर्दी हाडा खिळखिळी जाल्ली. मनान म्हळे अुरिल्लीय हे पणजेकार साप्प करता काम म्हण. पूण अुपाय नाशिल्लो. म्हजे आयकूपाक ते अुमेदिन आयिल्ले लोक तयार नाशिल्ले. ताणीय जो म्हाका खांद्यार घेतलो तो सामको कामराचे म्ह्न्यांत देंवयलो. फोगोट्यो फुट्टाल्यो, तासे वाजताले आनी तांका साथ म्हण जमील्या लोकांचो टाळ्या कडकडाट. हे दबाज्याक किरीस्तांव, हिन्दू आनी मुसलमान सगळे लोक व्हडले आवाजन जयजयकार करत चल्लेले. वांगडा पणजेचे मुखेल बॅन्ड आसले. म्हाका त्या गोऱ्यापान, अर्दी पेन्ट घाल्या तरण्याची याद जाता. ताणेय म्हाका खांद्यार घेवपाक फुडाकार घेतील्लो. मागीर विचारतकर कळ्ळें किं तो म्हळ्यार कै. भौ. भाऊसाहेब बांदोडकार आशिल्लो. पूण गोंयचो मुख्यमंत्री जातकर म्हाका ती वोळख मात दाखयलीना आनी हांवेय केन्नाच त्याबद्दल अुलौवन तांका सांगली ना. कांय

मनश्यांक स्वत: व्हड पदार पावतकर फाटल्या ल्हानपणाची याद दाखोवक लज देस्ता जावये. अुलट ती दाखोंवपान त्या मनश्याचो व्हडपणा चड दिस्ता. थोडे क्रेस्तांव सोडले जाल्यार तुर्त अंकल्याचोय अुगडास जायना. थंय खुब जणांची अुलवणी जाली. चडशी पोर्तुगेज भाषेन आसली. म्हाकाय खुमरखुमी आयिल्ली. तशें हांवे कांय म्हऱ्यातले लोकांक म्हजे मनातले अुलोंवन दाखयले तशें ताणी म्हाका पोर्तुगेज भाषेन अुलंवक नाका म्हण निक्षून सांगले. किद्याक जाल्यार म्हगेले अुच्चार सारके जाय नाशिल्ले. अितलो आमका गोयंकारांक पोर्तुगेज भाषेचो मोग आशिल्लो. तशीच ती सुंदर भाषा. हांव म्हणीन कि इंग्लीश भाषेपरस चड रसाळ. मात कोणाचेय आयकनास्तना हांवेय ल्हानशेंच पोर्तुगीजीन अुलोवप केले आनी पणजेकारांचे अुपकार मानले. पणजेकारानी कामरा वतीन म्हाका चादिच्या करंड्यान घाल्लें मानपत्र दिले. तांतूर माननीय पणजेकारानी सयो केल्यो. लोकांचे म्हण्णें किं गोयांत हाजें आदी असो स्वागत समारंभ केन्नाच जालो ना, आनी हेमुखार जायतसो दिसना. कशेय आसू हांव मात म्हजे गोंयकारांच्या भोवच रिणात आसा. ते पावोंवपाक मेळ्यार पुटो म्हण मागता.

खेरीज जायते लोकांनी जेवणाचो बेत दवरल्लेलो. तांतूर मुखेल म्हळ्यार कै. भौ. प्रो. तळावलीकर, डॉ. साकरदांडो, नेवरेकार बी आसले. आनी अेक मुजरत सांगपाचे म्हळ्यार म्हान कोंकणी कवी कै. भौ. बाकीबाब बोरकार हांणी अेक म्हजे जीवनाचेर सुंदर कवन करन म्हाका अर्पण केल्लें ते म्हगेले निष्काळजीपणा लागून मडकय घरांत वंटीचेर आशिल्या पायनेलांत घालून दवल्लेले, ते थैं आसले अज्ञानी भुरग्यांनी केन्ना काडून वडयले ते खबर ना. मात दोन वर्सांफाटी आनी अेक गोंयचो व्हड कवी भौ. मनहरराय सरदेसायानी अुगडासान म्हाका तेंच कवन तोंडपाठ म्हणून दाखयले. म्हाका अजाप जाले. नी मनहररायांचे कौतुक दिसलें, किद्याक ते गोष्टीक नाच म्हळ्यार पंचवीस तिस वर्सां वैर जावन गेल्ली.

## "मुम्बयचो येवकार"

मुम्बय म्हजी गोंयच्यान परते येवपाची वाट पळेताली. यो जाल्यार सर जे. जे. स्कुल ऑफ आर्टसचे डायरेक्टरान कॅ. सालोमन सायबान स्कुलांत

आमंत्रण दिवन म्हाका मोगान येवकार दिलो. हांवे अुपकाराचे अुलवपांत म्हळें कि तुमी म्हजे स्वागत केल्लेबद्दल हांव तुमचो आभारी आसा, मात त्ये मानान हांवे व्हडले अशे कांय करुना. जसो पक्षी दिसभराचे अणभवान परत आपणाले घोटेरांत येता तसोच हांव भायर सगळें युरोप भोवन आनी लंडनांक शिकून, ज्ञानाची पोटली बांदून तुमचे भितर आयला. त्ये अुम्रांत गोअन ओीन्स्टीट्यूटांन आनी आर्ट सोसायटी ऑफ अिंडीया ह्या संस्थेन म्हाका आपोवन स्वागत केले. मुखेल म्हळ्ळे, मुम्बयचे दि गोवा हिन्दू असोशियेशनान व्हडले दबाजान, मुखेल मंत्री नामदार भौ. बा. गं. खेर सायबाचे अध्यक्षते खाला आखील्लो आनी रातचे जेवणाचो व्हड समारंभ केल्लो, ताजी म्हाका आजूय याद येता. हांलीच काय वर्सांपैकी त्येच संस्थेन म्हाका हेर मानयेच्या गोंयकारा वांगडा भोवमानाचो वांगडी करन घेतला. ताजी म्हाका खुब खोस्त भोगता. अेक मात सांगपाचे म्हळ्यार हांव जांवन खैचेच संस्थेचो वांगडी जालो ना. किद्याक वांगडी जावन आपणे कायच काम न करचे परस म्हाका दिस्ता न वांगडी जाल्लो बरो. गोंयकारानी मुम्बयकारानी, आनी हेर लोकांनी दाखैल्या मोगाचो, आपूलकिचो हांव भोंवच ऋणी आसा.

## "शिल्पकला व्यवसाय सुरु करता"

मानमरातब, तोखणायो सगळ्यो सोपल्यो म्हण्टाकीर आता पोटापाण्याचो आनी फुडाराचो विचार करपाची वेळ आयली. शिल्पकला करपाक स्टुडीओक अेक व्हड जागा लागता आनी ताका खुब पैसोय लागता. पूण सुरवातीक स्वत:चो स्टुडीओक पैशे घालपाक म्हजे लागी पैसो नाशिल्लो वो घरची मंडळीची मदत न करपाचे परिस्थीतीक लागून पैश्याची मदत शक्य नाशिल्ली. आनी आसल्यारुय हांव ह्या मानांर पावतकर घेन आशिल्लो अशें दिसना. भुरगेपणापासून हांवे म्हज्ये कर्तबगारीचेरुच शिक्षण घेतले आनी नांव कमायले. तेन्ना प्रश्न अुबो रावलो किं व्यवसाय कसो सुरु करोप? म्हण्टकीर विचाराअंती भाड्यान जागो घेवन हांवे म्हजो पयलो स्टुडीओ चर्नीरोड स्टेशन सामकार "लॉड मेन्शनांत" तळमजल्यार सुरु केलो. दोन तीन मयने जाले काम मेळू नासले. म्हजेर कल कल आयील्लो. मागीर बरेच तेपान म्हाका अेका पार्शाली दोन कामा मेळ्ळी. तेन्ना म्हजे नांव

ाकांक खबर जाल्ले. तांतूर पार्शी लोक कर्तबगार मनश्याक सदाच मदत करतात. ी बरे जाले, म्हजेर अुसणे पैसे घेवपाची वो रिण काडपाची पाळी आयलीना. ंडनसून येतना म्हजेलागी दोन हजार रुपये आशील्ले. ताजे अशें जाले कि थैं वि अेक ब्रॉन्जचं (पंचधातूचे) काम केल्ले. खेरीज स्कूल लिव्हींग शिष्यवृत्ती फिसर विल्यम मॅक्मीलनसायबान मुजरत दिल्ली ताजो अुपयेग जालो. मुम्बय यवसाय सुरु करतलो ते कोणायची मदत नास्तना ह्या काळजीनूय त्या थोर ाच्या प्रोफसरान म्हाका ती व्हड मदत केल्ली. रा. ब. राजाध्यक्ष फॉरेन अेज्यूकेशन शष्यवृत्ती ते आदिच बंद जाल्ली. किद्याक जाल्यार आता म्हजे शिक्षण सोपील्ले ानी ताणी म्हाका घेतील्ले पैशे हळूहळू फारिक करपाकूय सांगिल्ले. ते मागीर हाका जशी कामा मेळत गेली तशी हांवे ते परत केले.

अुप्रान्त म्हाका कामा मेळत गेली. सगळ्यांत आदि गोंयचे 'आबाद फारीयाचे' ब्राँजचे धा फुट अुंचीचे काम १९३६ सांत मेळ्ळे. हे सुरवातीचे व्हड काम आशिल्ले. हांव सामको खुष जाल्लो. आंगान नेट आयलो आनी तन मन ोतून हांवे ते काम केल्ले. हालीच म्हाका कळ्ळें कि अमेरीकेच्या 'टायम्स' मेगेझीनान हे म्हजं काम अेक 'मास्टरपिस वर्क' म्हळ्यार शिल्पकलेचो अप्रतिम नमुनो म्हण बरयल्लं खय. धा फुटाचो पुतळो करपाचो म्हळ्यार लॉड मेन्शनाची जागा अुणी पडपाक लागली. किद्याक धा फुटाचो पुतळो करपाचो म्हळ्यार अुंची निदान पंधरा फुट जाय. शिवाय दाराय उंच नी रुंदशी जाय. म्हण आबाद फारीयाचे मातीचे काम हांवे दुसरे स्टुडीओंत म्हळ्यार बानाजी निवास जे स्टॅन्डहर्स्ट रोडचेर आसा थैं केले. ताजी अुंची पंधरा फुट मेरेन आसली. हे काम सोपंवक म्हाका दोन ते अडेच वर्सा लागली. किद्याक हांवे पयले केल्ले मोडेल कमिटीन चेन्ज करपाक लायले. ताजी गजाल फुडे सांगता. आनी हे काम सोपतासर रोकडेच ताजेपरत अुंच काम, पंधरा फुटाचे लक्ष्मी अिन्शुरन्स कंपनीचे 'श्री लक्ष्मी देवतेचे' काम मेळ्ळे. लक्ष्मी देवतेचे काम करपाक म्हाका व्हड स्टुडीओची गरज आशिल्ली. निदान वीस-पंचवीस फुट अुंच स्टुडीओची गरज आसली. म्हाका खबर आशिल्ले कि भाडं दिल्ले पैशे अेकदा दिले कि परते येनात आनी ती जागाय आपली जायना. कांय तेपान तेच पैशयानी अेक आपलो स्वतःचो स्टुडीओ

अेतलो आशिल्लो अशें मनशाक दीसू येता. म्हण्टकर विचार केलो कि आपणंच अेक स्वत:चो स्टुडीओ किद्याक बांदू नये? स्टुडीओ बांदलो जाल्यार हासलाक पडटा म्हण स्टुडीओ बांदपाचे थारायले. पूण थारावपन आनी प्रत्यक्षांत हाडपान जमीन असमानाचो तफावत आस्ता, ताजी कामाक हात घालतकर अदमास आयलो. स्टुडीओ बांदपाचे काम तितले सोपे नासले, आनी तो बांदपाक म्हणसारखे दुडू म्हजे लागी नासले. तांतूर मित्रानी आनी भावान बी पैशे व्हेले. म्हजो जे. जे. स्कुलातलो गोंयकार मित्र कै. भौ. डीक्रुज कलाकार हो आपूण सदीच अडचणीत आसा, घराचे भाडे फारीक करुं जाय म्हण सांगून असणे पैशे व्हरतालो, मात केन्नाच परत केले ना. स्टुडीओ बांदपाचे कामात मात आडखळ हाडली. तशेंच व्हेल्ले पैश्याची परतफेड म्हण गोंयचे हुतात्म्याचे कामात मोडो घाल्लो, आनी शेवटी ते काम म्हजे हातचे गेले ते बद्दल हांव मागीर बरयता. खेरीज म्हजे व्हड भावान 'बाबान' धंद्याक जाय म्हण अेक हजार रुपये व्हेल्ले. ते काळांत १९३८ त अेक हजाराची किंमत आयज म्हळ्यार १९८० त पन्नास वौ अैशी हजार वो चड जायत, आनी अशो तरेन पैशे सदाच कमी पडिल्यान म्हजी व्हडली पंचायत जाताली. तरी स्टुडीओ बांदपाचे कांम आंगार घेतलेच आनी स्वत:चे देखरेखीन रातदिस खपून पूर्ण केलेच.

म्हगेले मित्राचो, भौ. शिवाभाऊचो मेवणो, भौ. प्रभावळकर घरा बांदपाचो धंदो करी. ताजी वळख जाल्ली. हांवे ताका मुम्बयन पेडेर रोड म्हण्टा थै, म्हालक्ष्मीचे देवळा अदमासाक अेकादी जमिन सोदपाक सांगले. भौ. प्रभावळकराची आनी अेका डॉ. मंडलीकाची बरी ओळख आसली. आनी तेन्ना तो पेडररोडवैली आपली जमीन विकतालो. आनी कोणुय सभ्य मनीस जालो जाल्यार, म्हजेकळेन त्येवेळा पैशे चड ना म्हण्टकीर, मागीर पळौवया बी किंदे म्हण्टलो आसलो, जाल्यार त्या सभ्याग्यान, डॉ. मंडलीकान म्हाका किंदे सुनावचे, "कामत हातात पैशे नास्तना जमनी घेवपाक आनी घर बान्दपाक सोदप कशे शक्य जाता?" ते आयकून भौ. शिवाभाऊक खुबच वायट दिसले. जाले, हांव जाग्याच्या सोदान आशील्लोच, मुम्बयनूच म्हालक्ष्मी देवळा म्हन्यांन, काल्टॅक्स पंपा म्हन्यान अेक जागा आशिल्ली. आता ती जमिन भौ. खंबाटान विकूंक काडील्ली. आनी तेन्ना

तेचे मोल फावो जाल्ले म्हळें भोंवच उणे आशिल्लें, म्हळ्यार धा रुपये वार (मीटर) प्रमाण आसलें. तो जागो सामको नाक्यावेलो म्हळ्यार आयज जी कॅडबरीची कम्पनी आसा ताज्या सामकार, म्हण्टकीर त्या जागेक चड मोल आसलें. म्हाकाय तो जागो खुब मानवलेंलो. पुणून भौ. खंबाट्याक रोख पैशे जाय आशिल्लें. पूण ताजी कशीय तजवीज जातली आसली, पूणून तो जागो व्याग्रमुखी म्हण्टकीर मित्रवर्गानी घेंव नाका म्हण मसलत दिली. पूण आयज ते मनाक पट्टा, किद्याक जाल्यार ते जागेर आयज मेरेन सारखे घर केन्नाच अुबे रावले ना, ज्या कोणे बांदपाक घेतला ताका किदें ना किदें हकलादी आयल्यात. हांली अेक अर्धवट बांदिली बिल्डींग म्युनिसिपालटीन अेफ, अेस, आय परस व्हड बांदिल्यान अर्धवट तोडली. हांव असल्यो गोष्टी मानपी मनीस न्ही पूण लोकांचो आग्रह जालो म्हण्टकर घेतली ना. आयज दिस्ता बरें जालें. मागीर म्हजो ओष्ट भौ. विनायक मयेकार, आमचो गोंयकार, नवोंच आर्कीटेक जाल्लो, ताका जागो पळवक सांगलें. सध्या म्हजी 'कामत बिल्डींग' आनी ताज्या फाटल्यान 'स्टुडीओ कामत' आसा तो प्रभादेवीक आशील्लो जागा ताणे दाखयलो, आनी म्हळे हो जागो म्युनिसिपालटीच्या मालकीचो अुदारेन मेळटा, त्येप्रमाण जमीन घेंवन वडयली. चार रस्ते वतात अश्या चौकार आनी सामकार श्री. दत्तमहाराजाचें देवूळ अशी निर्मळ जागा म्हाका आवडली. विशेष म्हळ्यार भोंवताली गोंयच्याबशेन माड आनी माडयो खुब आशिल्यो. गोंयच्याबशेन बैठी नळ्याची घरा आनी फुडें समुद्र आनी ताजे नेटान येणारे वारें. त्यावेळा तो परिसर भोवच सुंदर आशिल्लो. आयज पत्त सिमेन्ट कॉंक्रीटच्यो बिल्डींग्यानी आनी रस्त्यानी गजबजला. त्येवेळार रहदारी तर अितली कमी किं फक्त १६२ नंबरी बस अंका वरान अेकदा येताली ती परळगांवाच्यान शिवडी वताली. आता दर पाच मिनटान वीस-पंचवीस बसीस थैंच्यान वेगवेगळ्या मुम्बयच्या जागानी वतात. धुल्ल तर अितलो कि दिसा दोनदा झाडू मारची पडटा आनी मोटारींच्या आवाजानी कान कित्र जातात.

श्री म्हालक्ष्मीचो पंधरा फूट अुंचीच्या पुतळ्याची ऑर्डर हातान अशिल्ली म्हण्टकर, स्टुडीओ पयलों बांदपाक सुरवात केली. स्टुडीओ आनी घर बान्दपावेळा हांव स्वतः थै अुबो रावन कामगाराकडल्यान घर बांदून घेतला. कान्ट्रॅक्टर नावांक

आशिल्लो. शिवाय आमका शिल्पकारांक असल्या बांदकामाचे तशेच प्लान बी काडपाचे ज्ञान अुपजत आस्ता. तांतून पैशे कमी पडटाले म्हण्टकर नांवाक सादोच कॉन्ट्रेक्टर घेतलो. मदी गोंयच्यान कै. भौ. नारायणबाब आनी कै. भौ. कृष्णबाब येताले आनी देखरेख करपाक वो बाकी मदत करपाक ताणी हातभार लायलो. माज म्हजे फाटलो कै. भौ. भगवंताक तसले म्हळ्यार कला वो बांदकाम पळोवपाचे आंग नासले. तो भुसारी धंदो करपान हुशार आसलो. पूण अजाप म्हळ्यार ताजो व्हड चलो सुरेश आपली सर्वे डिपार्टमेंन्टची नोकरी सामाळून कन्स्ट्रक्शनचे काम करतालो. घराण्यातले ज्ञान अितर पिढीक आपसूक येता. तशेंच म्हज्या आदित्याक कला आनी बांदकामाचे बरेपैकी ज्ञान आसा. स्वतः आपले हातान तो ते काम करता. खरो म्हळ्यार ताका जे जे स्कुलात आर्कीटेक्टाक घालपाक हांवे बरेच यत्न केले पूण डिग्रीक अेडमिशन मेळना म्हण्टकीर तो डिप्लोमाच्या क्लासाक वचपाक तयार जालो ना. म्हजे सरकारी आर्कीटेक्ट मित्र कै. भौ. जाधवान ताका खुब समजायलो किं तू बरे पैकी चित्रकार आसा तेन्ना तू बरे पैकी आर्कीटेक्ट जातलो वयल्यान तुका चित्रकलाय चालू दवरुक मेळटली. आयज आर्कीटेक्ट, कॉन्ट्रेक्टर नी चित्रकार पेन्टर हे खुबुच दुडू कमायतात. पूण तो मागीर डॉक्टर जातकरुय हांवे ताका बरेच फावट म्हळे किं 'आदित्य, डॉक्टरी धंदो सोडून घरा बान्दपाचो धंदो किद्याक सुरु करीना ?' ते धन्द्यान ताजी कला नी ताज्यान आशिल्ले कन्स्ट्रक्शनचे ज्ञान अुपयोगाक येतले आशिल्ले.

अेकदाचो स्टुडीओ बान्दून जातकच हांवे श्री लक्ष्मीचे माती काम करुन ब्रॉन्झ कामाक सुरवात केली. मागीर बाकिचीय बारीक सारीक कामा मेळत गेली. सर दिनश्या वाच्छ्याचे धा फूट अुंचायेचे काम मेळ्ळे, जे आता, चर्चगेट स्टेशन सामकार अुबे आसा. तेवेळा म्हजो धाकटो भाव व्यंकटेश मुम्बय म्हजे लागी आयलो. ताकाय चित्रकलेन रस आशिल्लो नी मडकय हांवे करुन दवल्लेली प्लास्टरचे मोल्डातल्यान देवाच्यो मुर्ती वो अितर शिल्पा ते आनी नारायणबाब मेळून काडी आनी ती रंगोवन बी जात्रेन विकपाक दवरुन दुडू करी. शिवाय शाळेन आस्तना तो चित्रा बी काडी. म्हण्टकीर म्हजे लागी ताका हांवे आपोवन घेतलो. शिकपाक तो फाटी आशिल्लो म्हण हांगा जे. जे. स्कुलान फाईन आर्टाक

ाखलो घेवन दिलो. मागीर तातूर ताणे डिप्लोमा मेळयलो. तो म्हाका कामात मदत करी आनी कला ताज्या आंगान आशिल्यान तो शिल्पकला स्कुलात न शिकता म्हजे शिकवणीचेर अेक शिल्पकार जालो स्वत:य तो ल्हान शिल्पा करी. पूण चड कत्र म्हजे लागी रावन तो म्हाका कामा मेळटा तेंत्रा मदत करी. मात फुडे म्हजे लागी कामा कमी जाली तेत्रा तो रिकामोच घरा रांवक लागलो, म्हण्टकोर हांवे म्हजो मित्र कै. भौ. पांडुरंग नाईक, त्येवेळचो विख्यात फिल्म फोटोग्राफर, जो मुळचो म्हाड्डोळचो ताका व्यंकटेशाक किंदे कामाक लावपाक जाय म्हण सांगले. ताणे रोखडेंच म्हळे कि आपून ताका फिल्म अुद्योगान कलेच्या डिपार्टमेन्टान कामाक लायता. थै ताज्या शिल्पकलेंचो, चित्राचो अुपयोग आर्ट करपान जातालो. तसो व्यंकटेश, बिमल रॉय ह्या डायरेक्टरचो आर्ट डायरेक्टर सुध्धेंदू रॉय हाजे लागी कामाक लागलो. थै तो डेप्युटी डायरेक्टर कसो वावूरतालो. आपल्या कामाचे हुशारीन तो थै व्हड पुतळे वो राजाचे म्हालाचे, श्रीमंताचे घराचे सेट अुबारतालो. बेगीतल्या बेगीन व्हड मानयेचे वो प्लास्टरचे पुतळे अुबारपाची संवय ताका म्हजेवांगडा काम करताना जाल्यान तो बरोच फुडे आयलो, पूण म्हाका सदाच वायट दिस कि धडाडी ताजे लागी नाशिल्यान तो केन्नाच स्वत: असो आर्ट डायरेक्टर ह्या नांवान नावाजलो ना. खरें म्हळ्यार बाकी आर्ट डायरेक्टरा परस व्यंकटेश्याक कलेचे ज्ञान चड आसले पूण अुलवपाचे वो फुडे फुडे करपाची कला ताजे लागी नाशिल्यान तो आर्ट डायरेक्टराचे हाताखालचो आर्टिस्ट कसो अुल्लो. म्हाका ते गोष्टीचे खुब वायट दिस. हांगा म्हाका तरण्यां भुरग्यांक सांगन दिस्ता कि बऱ्या कामा वांगडा मनश्यान धडाडीय आसची पडटा, तोंच मनीस वयर सरता, नाजाल्यार आसा त्यें जाग्यार समाधान मानून रावपाचे.

व्यंकटेस्याच्या स्वभावाची याद म्हळ्यार हांव अिंग्लडच्यान गोंया जेत्रा पावलो तेत्रा तो चौदा पंदरा वसाचो आशिल्लो. हांवे अपुरबायेन ताज्या फाटीर हात माल्लो आनी म्हळे तु चित्रा बरी काडटा पूण शिकपाक बरो ना पयले शिकून बरे घे मागीर चित्रकला शिकवपाक तुका मुम्बय व्हरता. जाले हे कारणाक व्यंकटेश रडपाक लागलो. ताजे मागीर ३८ सान तो मुम्बय जेत्रा आयलो, म्हाका कामान

मदत करी. पूण ओतकामाची ताका सवंय नाशिल्ली. अेक दिस ओतकामावेळा व्यंकटेश, धगधगत्या पंचधातुची रस आशिल्ली मुस, सांखळेन वयर ओडपाच्या तयारीन. हांवे तेन्ना ताजेर तापून हाताक धरुन फाटल्यान काडलो. किद्याक सवय नाशिल्या मनश्याक त्या खुब अुष्णतेच्या मुशीम्हऱ्यान वो अुज्याच्यो लाटयो आशिल्या खोरना म्हऱ्यान मातस्या चुकीन जळपाचो भय आस्ता, जाल्यार व्यंकटेशांक तो अपमान दिसलो आनी गोंया परतो गेलो, वयल्यान घरच्या लोकांक सांगता हांवे ताका माल्लो म्हण. असो खुबुच संवेदनशील तो आसा. ताणे सारखे शिक्षण न घेतील्यान अिंग्लीशीन तो अुलोवक शकनाशिल्लो म्हण्टकर म्हजेर कोणूय बरं लोक अेतकर व्यंकटेश भितर रानचूकडीन भयणी म्हऱ्हान गजाली करत बसप हांवे ताका बरेच फावट सांगले किं असे व्हड मनीस घरा अेतकर तुवूय आमच्या मदी अेवन बस आनी वोळखी करन घे. पूण ते ताका शेवट मेरेन जमले ना. म्हाका दिस्ता ताज्या ह्या लजेस्त आनी स्वत:क कमीपणा घेवपाच्या स्वभावाक लागून तो आर्ट डायरेक्टर जालो ना. म्हजो मित्र भौ. आचरेकर चित्रकार आशिल्लो पूण तो राज कपूरचो आर्ट डायरेक्टर जाल्लो. आनी भौ. आचरेकर म्हजे वांगडा लंडनाक शिकपाक आशिल्लो, शिवाय अुलौपान खुब लापीट आनी हुशार आशिल्लोय. आर्ट डायरेक्टर ज़ावन ताणे खुब कामा केली आनी नांव नी दुडू कमायले.

अेक मात हांगा सांगन दिस्ता ते म्हळ्यार व्यंकटेशाचे म्हजेर आनी दतीचेर खुब प्रेम आशिल्ले. आमका तो बापायआवय समान मानतालो म्हळ्यार फट जावचेना. लग्न जाय म्हणसर तो जेवपाक खावपाक आमगेर आस्तालो. लग्नापैली पैसे हातान येतकर ताणे हाऊसिंग सोसायटीचो दोन खोल्यांचो वरळीक, म्हजे घरा लागीच जागो घेतलो. ताका सदांच आमचो अेक व्हड आधार दिस्तालो. स्वभावान तो थंड आनी कमी अुलवपी आशिल्लो. लग्न जातकरुय तो आमगेर आयल्या बगर राव नाशिल्लो. नारायणबाबाबशेन व्यंकटेशानूय म्हाका कामान खुबुच मदत केल्या ताजे अुपकार केन्नाच विसरु शकना. ताजे लग्न नलीनी आमोणकर म्हण चलये लागी आमी करुन दिले. दतीच्या दुसरे भयणीच्या घरची ती आशिल्ली. लग्न जातकर बरेच वर्सांनी डॉक्टराच्या अुपायानी तिका अेक चली

जाले. दतीनूच तीजे बाळंतपण काडले. व्यंकटेश तेन्ना खुब कामान आसतालो. पूण चली मातशे क्षीण आंगाचे जाल्यान देड दोन वर्साचे आस्तना ताका न्युमोनीया जालो आनी तातून तें भायर पडले. ते अुपरात व्यंकटेश्याक दुसरे अपत्य जाले ना. खुब अुपाय जाले, म्हण्टकीर म्हज्या डॉक्टर जाल्लं आदित्यान आनी दुसरे चली रेखान ताका खुब समजायले कि अेक बरें दत्तक भुरगें घेवपाक. पुण दोगांय तयार नाशिल्ली. नलीक खुबुच भयरो आशिल्लो. तशेंच खंय भायर भोवपाचे, बरे जिन्नसबी भायर वचून खावपाचे, होटेला सिनेमा पळौवपाचे दोगायकूय आवड अशी नाशिल्ली. व्यंकटेशाक चामडीचो 'सोरियासीस' म्हण्टा तो रोग जालो. शिवाय जाण्टेपणात 'पार्किंसिझम' म्हण्टा तो नेंव्हाचे दुखणे जाले. आदित्यान आनी ताजे डॉक्टर बायलेन नितान तांचे दोंगायचे आरोग्याकडेन लक्ष पुरयले. जेन्ना जेन्ना तांका डॉक्टराची गरज पड तेन्ना तेन्ना न वाजेता दोगायनी तांका मदत केल्या वो विशेषज्ञाकडेन व्हरुन दाखयला. ताकांय दोगांयचो आधार कसो जाल्लो. पूण मागीर मुम्बयच्या प्रदुषणाक लागून ताणी गोंया मडगांवा ताजे बायलेंचे भाच्या म्हऱ्यान अेक दोन रुमाचो फ्लॅट घेतलो आनी ती आदित्याच्या सांगणे वेल्यान मदी मदी गोंया वचून रावपा लागली.

## "योगायोग"

अशे तरेन धाकधुकेन भांडवला खेरीज बांदपाक आरंभ केल्ले घराक पैशे मेळत गेले, ते अेक नवल म्हणपाक जाय अुप्रान्त म्हजो व्यवसायी मित्र कै. भौ. करमरकरान लेंगीत विचाल्ले, "कामत, तुवें रिण काडून घर आनी अेदो व्हड स्टुडीओं बांदलो काय किंदे? तेवळा म्हजो स्टुडीओं अेक व्हड शिल्पकाराचे स्टुडीओंवरी आशिल्लो. भौ. करमरकर म्हाका व्हड आसुनुय ताजो स्वतःचो तेन्ना स्टुडीओं नासलो, ताका अजाप जाले म्हण्टकीर हांवें म्हळें, 'रिण घेवपाक म्हाका सदांच भय दिस्ता. म्हण्टकीर धाडस करन हांवें जसे कामाचे पैशे अेतात तशें तें स्टुडिओं आनी तिन मजली घरान घालें.

हेच दिसानी म्हजो दुसरो गांयकार ओष्ट कै. भौ. शंकर भरणो जो अे.सी.सी. सिमेन्ट कम्पनीन कामाक आसलो, ताजी शेअर्स मार्केटान ओळख

आशिल्ली, ताज्या ओळखीन शेअर्स घेतले. थंयच शेअर बाजारान अेका गुजराथी मित्राचे नादान घोड्याचे शर्यतीक वचपाक हांवे सुरवात केली. बरेचशे पैशे वतकर थारायले कि शेअर बाजार नी म्हालक्ष्मी रेसकोर्स बंद. मात पयले पासून म्हाका घरा-जमिनीची ओड खुब. गोयांत हांव जमीन घेवपाक रेपणामेरेन पावलो. मात लोकांनी चलयो पळवपाक भोंवता म्हण फाम घाली. असोच जमनीचे सोदात आस्सना फोंडेचो आदमीसादोर भौ. वालेसाकडेन जमनीची चौकशी केली, ताणे अुसगांवा डॉ. डायसाली जमीन विकपाक आसा म्हण सांगले. अेक दिस हांव पणजे माधवाश्रम होटेलांत जेवतालो, थैंच कै. भौ. माधवबाब नेवरेकार जेवतालो. भौ माधवबाब मुळचो मडकयचो पूण व्यवसायाखातीर खांडेपारा येवन स्थायिक जाल्लो. तो लाकूड तोडपाची आकसांवा (कामा) घेतालो. हांवे मुजरत वचून ताका हर्डकिलं, किद्याक हांव जाणा आसलो किं माधवबाब अुसगांवचे म्हऱ्यान रावतालो आनी व्यवसाय करतालो. तांगेले थंय हांव युरोपाक वचचे पयली १९२५ त अेक फावट पाविल्लो. तांका भोव बऱ्या पैकी सज्जन ग्रहस्थ म्हण हांव वळखतालो. मडकयचे जात्रेक आयल्यार तो चुकनास्तना आमगेर येतालो. तांका हांवे म्हळे, माधवबाब तुम्ही म्हाका वळकलें? ताणी रोखडेंच म्हळे, हे किदे विचारपाचें ? तू राम न्ही रे ? अुप्रान्त ताका म्हजो जागो घेवंपाविशींचो विचार सांगलो जाल्यार ताणे म्हाका कळीत केले किं ती वितोर दिआसाली जागा ताज्या भाटा सामकारुच आसा, तुका पळोवपाक जाय जाल्यार आपून दाखोंवक शकता. आपूण तिनसांदा घरा वचपी तेभा तूंय वांगडा अेशी जाल्यार फाल्या सकाळींच वचून पळौया, हो आयतोच योग आयलो तो पळोपन हांवे वांगडा येता म्हळे, आनी त्येप्रमाण हांव आनी माधवबाब दिवे लागणेर तांगेले खांडेपरच्या घरांत प्रविष्ट जाले. हे घर खांडेपरा 'ओपा' वचच्या वाटेर चौकार आसा. हांव भीतर सरता जाल्यार म्हजे आश्चर्याक पारावार अुल्लोना. किद्याक म्हळ्यार अेक गोरी चली मानेर मुदयाळेस के सोडून दर्शनी कुडीतलो 'किटसन' (जर्मन लाफयाव) दिवो पेटयतालो. तो देखावो खरेंच भान विसरपा लावपो असोच आसलो. दिव्याचो पिवळट चक्क अुजवाड तिज्या त्या नितळ धव्या कातीर आनी काळ्याभोर मुदयाळ्या केसार पडून अेक लोभसवाणे चितारलेले चित्र कशे म्हजे डोळ्यामुखार

अुबे रावलें. भानार येवपाक हांवे मनान गांठ माल्ली कि लग्न जाल्यार हेच चलयेकडे जावप नाजाल्यार कोणाच लागसार जावोप ना. गेली सात वर्सा खुबशें लोकांक हांव लग्न जावचो ना म्हण सांगून निरुस्साय केल्ले, नी तांगेलो रोष ओडून घेतिल्लो. कांय अिष्ट आशिल्ले शत्रू जालें. लग्न न जावपाचे कारण अितलेंच आसलें कि नव संसारात लग्न म्हळे अेक नाटक जांवन पडला अशे म्हजे मत जावन पडिल्ले. विश्वामित्राचे ध्यान जशे मेनकेन भंग केले, तशेंच म्हजो पण त्यादिसच भंग पावलो. निमाणे मागीर तेच चलयेकडेन म्हगेले लग्न जालें आनी चलत आयिल्लें लग्न संस्थेचो हांवय अेक नवो सदस्य जालो. मागीर म्हाका लोकांनी अुगडास करन दिलो कि हेच मुदयाळे केंसाचे चलयेन, हांव अिंग्लंड थावज येतकर मडकय स्वागत समारंभाचे वेळार म्हाका पयलो हार घाल्लो, हि योगायोगाची गजाल न्ही जाल्यार किदें ? तिजे घरचे नांव आशिल्ले 'दती', दत्तात्रयाक मागून जाल्ली म्हण दती दवल्ले खंय. मात हांवे लग्नान तिका 'पुष्पाराणी' नांव दवल्ले, पूण हांवय तिका लग्नाउपरांत 'दती' हेंच नावान अुलो मारी. ल्हानपणान तिका पोर्तुगेज शिकपाक मडकय कै. भौ. शाणू भरण्यागेर म्हण वयर बरयल्यापरमाण नांवाजलेल्या शिकवप्याकडेन दवल्लेले. थेंय शिकताना त्या स्वागत समारंभाक हार घेवन तिका स्टंजीर अुबी केल्ली. अशे तरेन दैवान फुडें ती म्हजी बायल जातली म्हण मडकयच्या स्वागत समारंभाक म्हाका हार घालपाक धाडोल्ली जावये.

कांय दिसा अुप्रान्त डॉ. डायसान कळीत केलें कि श्री मंगेशाचो प्रसाद जालो जाल्यारुच आपूण ती जमीन विकता आनी तीजे मोल ओकरा हजार जातलें. रोकडेंच ताणे म्हाका कळयलें कि ताका श्री मंगेशाचो प्रसाद जालोना म्हण, जागो विकपाक नकार मेळ्ळो. हे भावीकपणाचे प्रत्यक्ष अुदारण पळवन हांव चकासूर जालों. किद्याक मुखार ते जमनीतली थोडी जमीन दोन लाख, कि जास्तच रुपयांक मद्रास रबर फॅक्टरीक विकली. म्हाका तर हो व्हडलो दैवी चमत्कारासो दिसलों. आनीक अेक गोष्ट स्पष्ट करपाक जाय म्हळी, डॉ. डायसाचे पुर्वज ३०० ते ४०० वर्सा पयली हिंदू बामण आशिल्ले. ते काळान ते बाट्न किरिस्तांव जाल्ले. तांचे मुळावें नांव 'देसाय' आसूयेशे म्हाका दिस्ता. किद्याक

कांय देसाय श्री मंगेशाचे भक्त म्हाजन आसात. आनी नांवानूय साम्य आसा. म्हजें अैकिवात आसा कि बाटयतकर चड कन्न पयले नावाबशेनूच ख्रिश्चन नांव सांदून दवरताले. स्वत: डॉ. डायस पोर्तुगालाक वचन शिकून आयिल्लो डॉक्टर आनी ज्ञानी, जाल्यारुय ताणे आपणाली आदले मुळावे कुटुंबाचे दैवताची भक्ती नी भाविकपणा सोडू नासले. हेरुय जायते किरिस्तांव हिंदू देवांक अजूनय भजतात.

मात ती डायसली जागा, जी अुसगांवा वयल्या मुख्य रस्त्याक लागून आशिल्ली ती मेळनाशे पळोवन मागीर त्यंच जमिनीचे सीमेक लागून वेलेवटेन दुसरी जमीन आसली, ती १९४३ त हांवे विकत घेतली. ते जमनीर थोडे माड आनी आम्याची (हापूस) गाफी रोयल्यात, खेरीज थोडी चिकूचींय झाडां रोयल्यात. तशें पळेल्यार हि जमिन भोव सुंदर. मदल्यान तिज्या बाराय म्हयने व्हावणारो व्हाळ आसा. अेका वटेन डोंर्गुली जाल्यार दुसरे वटेन सुपीक जमीन आसा. यूरोपसून येतमेरेन म्हजे तकलेन सामाजिक कार्य करपाचे घोळताले, आनी तेच खातीर म्हाका जमिनीची गरज आसली. त्ये सुवातेर गरिबांक दोन घरा बांदून दिवप, मागीर ताणी आपणाले पायांर अुबे रावन आपल्या कुटुंबाचे कल्याण करचे. निर्मळ सुचिर्भुत आरोग्यकारी रावपाक शिकचें. खेरीज त्ये वाटारावेले लोकांकय तों आदर्श शिकौवप. पूण जाले मात वेगळेच. म्हळ्यार जमीन घेतमेरेन ते आतामेरेन म्हाका देमान करचो पडलो. म्हजो मेवणो कै. भौ. विनायक नेवरेकार, गोंयचो नामनेचो वकील आशिल्यान कोर्ट कचेरी करपाचे काम सोपे जाले. ताणे मनापासून न्यायघरांत वचून म्हाका न्याय मेळवपाचो यत्न केलो. अुप्रान्त गोंयचे पॉलिटिकल चळवळीक लागून थंय कांयच समाजकार्य करपाक पावलो ना. खेरीज अेक दोन नात्याचे लोकांनी अुलवन दाखयले किं, "रावणाक भिके दुवाळे" जाल्यात. हाजो अर्थ हांवे समाजकार्य करचे न्ही. म्हज्या मतान आमच्या गोंयकाराक समाजकार्य म्हळे अनित्य कार्य काय दिस्ता. म्हण ते पोटाकार्यच करित रावता जावयें. त्याखातीर गुजराती, मारवाडी, पारशी लोकाबशेन हास्पीटला, शाळा बी चडश्यो काडील्यो दिस्ती पडनाशिल्यो. आता त्यामानान धेंपो साळगांवकर बी लोकांनी समाजकार्य केला. फुडे बाको गोंयकार करतलेशे अिश्चिता. मात समाजकार्य करपाची म्हगेली आवड कमी न जाता अधिकाअधीक वाडत आसा.

म्हजे हांतात पैशे आयल्यार अजूनय तो आदर्श प्रयोग करपाक हांव तयार आसा. त्येच दृष्टीन पैशे जमयतलो म्हण त्ये जमनीर माड, गार्फा बी रोयल्यांत, पूण फळ मात अिल्येंय हातार चडना. जाल्ले जाल्ले फळ चोरयेक वता. गोंय स्वतंत्र जाल्याक आनी सरकारी वचक नाशील्यान चोरयो मारयो चडूच जांवक लागल्यात. तशेंच नाल्लाक दर आयिल्यान जो तो आपणाले भाटाक वावर करपाक, नवे माड रोवपाक लागल्यात आनी धंदो करतात. कांय जणानी तर माडाक शिपणीं लायल्ली. तांका आता चुरके पडल्यात. सरकारान संरक्षण दिना ना जाल्यार ती झाडा फुकट वतली, न्हीच तर भाटा तळपट जांवक वेळ लागचो ना. चोरयो जावपाचे दुसरे कारण म्हळ्यार नाल्लाची वाडटी दर. मात म्हाका खात्री आसा कि हांव जर थैंच भाटान वास्तव करन रावल्यार खुब कार्य करपाक शकन. आता मेरेन चड अुत्पन्न काट्टलो म्हण, लाख - सव्वा लाख रुपये खर्च केला. खेरीज शेता वावरप्या वांगडा काम करुन म्हगेले रगयत सांडयला. भाटान मदल्यान व्हावपी व्हाळाचे धडेचे फातर हांवे स्वतः अुबारुन सारखे बसयल्यात. थैंच राखपाक कोण नाशिल्यान लोक कुल्यो धरपाक धडेचे, हांवे बसयल्ले फातर हालयतात नी धड परती परती मोडटा. आपणें सारखे करोप आनी दुसऱ्यानी ताजी वाट लावप. थै रावपाक हांवे चुट्टांची खोप बांदिल्ली, त्ये अुक्तेदार खोपेन रातीकडेन हांव अेकटो निदला. खाणा जेवणाची तमा दवरीनास्तना धा धा दिस अेका जेवणार रावलां. कोणाकीय फट दिसपाक फावो, पुण तिखटें भींडासोलांचे फुटे कडयेन, अुकडे तांदळाचे शीत करन हांव जेवला. म्हगेले गोंयचे सोयऱ्यांनी तोंडान बोटा घालून अजापान म्हळां कि हे "दुवाळे ताका कित्याक? सुखाचो जीव त्रासान घालूक." अशे तरेन जागेचे फाटल्यान लागून जागा तर घेतलीच पूण जो लग्न न जावपाच्या तत्वाक चिकटून बरीच वर्सां रावलो ताका खांडेपरा बायलूय गावली.

हांव लंडनाथावन मुंबय येतकर खुब जणांनी म्हजेसरी लग्नाचे टुमणे लावन बेजार केल्लो. तांतूर अेक चलयेची गजाल सांगपा सारखी आसा, नी तुमका साप मानवतली ती चली अेका नामनेच्या न्यायाधिश्याची भयण नी सरकारी अिंजेनिअरची अेकटीच चली आसली, अितल्यावेलान तुमका तिज्या

व्हडवीकायची कल्पना येव येता. त्या न्यायाधिशान म्हजे अिष्टाकडेन, तिजेवीशी लग्नाखातीर अुलौवणे केल्ले. त्ये चलयेचे नांव आयज अुगडास जायना. ती चली सदींच शेवोर्ले मोटार घेंवन म्हजे स्टुडीओंत येताली. तीजी बाकिच्याय चलयांवरी म्हजेलागी लग्न करपाची खुबच अिच्छा आसली. तिणें जाता त्याभाषेन म्हाका हायस दाखोवपाचे खुब यत्न केले. किद्याक तिका खबर जाल्ले कि स्टुडीओं आनी घर पूर्ण करपाक म्हाका दुडवांची साप गरज आसा म्हणपाची. स म्हयने मेरेन तिणे भोंवच यत्न केलो. म्हाका दुडवांची लालूच दाखयली. तिजेखातीर बापायन खंय ते वेळचो अेक लाख दवरलेलो. आयज ताजे कितलेशेच लाख वा अेक कोटी किंमत जावये. खंरीज तिजे आनी तिजे आवयचें मेळून अैशीं हजाराच्यो वस्ती आसल्यो. म्हजेर छाप घालपाक ती हुंड्याच्यो आनी भांगराच्यां गजाली भोवन भोवन सांगी. खरें म्हळ्यार सुर्वेचे दिसानी म्हाका ते अेक वरदान जातलें आशिल्ले. तिणे सगळे तरेंचे अुपाय करन पळलें. त्ये वेळार सचिवालयाकडें ओव्हल मैदानाच्या सामकार आशिल्यो अिमारती दाखयल्यो आनी सुचयलें कि तशें घर बांदुया. पूण हांव गणमणलो ना. निमाणे रडून बी जमता काय पळयलें. त्येवेळार तर म्हजो ठांस विचार लग्न न करपाचोच आसलो. हांवे तशें तिका सुर्वेकच कळीत केल्ले. तरी ती मगेली फाट सोडीना जाली. दिसपाक ती किरकोळ प्रकृतीची, रंगान गोरी आनी दिसपान सादारण आशिल्ली. अेकदम आकृष्ट करन घेवपासारखीय तीची सुंदरकाय नाशिल्ली म्हण जावये वो ती म्हजी बायल जावपाची नाशिल्ली म्हण म्हाका तशी लग्न न जावपाची बुध्द जाल्या जावये. निमाणे जेन्ना तिणे कंटाळून अेका जाण्टे विधूर डॉक्टरा लागी लग्न केले कि जो सर्जन आसलो, तेन्नाच हांव शांत चित्त जालो. हाजे पयली लंडनाक मिस मारजोरीचो यत्न तुमका खबर जालाच. मात म्हज्या आयुष्यात आयिल्ली पयली वयली चली म्हळ्यार मिस मारजोरी.

## "शिल्पकलेचो व्यवसायी अणभव"

सर जे जे स्कुलांत शिकताना म्हाका अभ्यासाची तशेंच परिक्षेंची शिल्पाचो कामा खुब बेगीन करपाची सवंय जाल्ली, पूण ताजी खरी बुनीयाद मडकय गणपतो

ो बाकी चित्रा (पुतळेबी) करताना जाल्ली हांव नारायणबाबाक घेंवन खुब कमी ळात काम तयार करी. आमच्या कामत घराण्यांय कसलेंय काम करपाचे आसल्यार पयली न्होदो काडपाची सवंय. मागीर त्ये कामाचो निमाणो दिस लागी ेता म्हण्टकर रातदिस अेक करन निमाण्या दिस ते अुबे करोपची. मात कांय ोका परमाण तो दिस जांवन आनी दिस लावपाची सवंय ना. कशेंय जाल्यार देल्या वेळा पैकी काम तयार जावपाकूच जाय. जाल्यार बाकी लोकांक परत्यो रत्यो विनवण्यो करच्यो पडटा आनी पैशे दिवनबी अेकदाचे काम दिल्ले तारखेपरस डड दिसांनी पदरान घेंवचे पडटा. त्याखातीर कामतीनी चड करन केन्नाच कोणाक फसवक ना. म्हजो धाकटो भाव व्यंकटेश फिल्म स्टुडीओंत काम करतालो. पंधरा वीस फुट व्हड मातयेंचे वो प्लास्टरचें काम डायरेक्टर लोक दोन तिन दिसाचें वो चडच जाल्यार आठवड्याचो वेळ दिताले. पूण तो कामतीच्या रक्ताचो आशिल्यान काम वेळार अुबें करन दि. त्याखातीर तो आर्ट डायरेक्टरांचो लाडको शिल्पी जाल्लो.

मात जे. जे. स्कुलातले बाकी विद्यार्थी म्हजे कामाची मातशे फरकान नक्कल करी. कितलेंय केले तरी म्हजे कामाची ढब ताच्या कामाक येना आशिल्ली. तांका चुकवपाक मागीर हांवें अेक अुपाय सोदलो. परिक्षेच्या आठ दिसांन पूर्ण करपाच्या सब्जेक्टाक (विषयाक) हांव निमाणे दोन दिसान तो विषय सोपयतालो, मागीर मात तांचो निरुपाय जातालो, किद्याक ते थोडे वेळान तो विषय सोपवंक शकनाशिल्लें. ते विद्यार्थी म्हजे फाटल्यान लागताले कि हांव कामाक किद्याक सुरवात करना काय म्हण. तांका मागीर थाप मारची पडटाली कि म्हाका अजून कामाचो झेत वो अिम्प्रेशन येवना म्हण. हिच रविस हांवे लंडन रॉयल ॲकेडेमिनूय चालू दवरलेली. म्हण्टकर काम निमाणे दिसानी बेगीन सोंपवन बरेंय करचे पडी. ताजो अुपेग म्हाका मागीर केदिय व्हडली कामा थोडे दिसानी करपाक जातली. सोळा फूट अुंचिचो पंचधातूचो घोड्यावेलो शिवाजी म्हाराजालो पुतळो करपाचे वेळार हांवें पैज मारुन मातयें काम ते पंचधातूचो पुतळो फक्त तिन म्हयन्यान अुबो केलो. शिवाय म्हाका दिल्लो वेळूय तीन म्हयन्याचो आशिल्लो. बाकी शिल्पकार अितल्या थोड्यावेळान करपाक तयार नासले. तिन म्हयन्यान

तयार करुन तो महाबळेश्वरच्या प्रतापगड किल्याचेर वयर तोंकार बसोवन फुडें अेक दोन म्हयन्या भितर पं. जवाहरलाल नेहरुच्या हातान ताजें अुकतावण करपाचो बेत आशिल्लो. तुमका सांगपाक म्हाका खोस जाता किं जपानी कलाकारांचें अेक शिष्ठ मंडळ मुंबय आयिल्लें. त्ये वेळचो बाम्बे आर्ट सोसायटेचो सेक्रेटरी आर्टिस्ट भौ. ओक आनी अेक बॅरीस्टर तांका घेंवन म्हगेले प्रभादेवीचो स्टुडीओ दाखोवपाक आयले. तांका हांवे सांगलें किं तो सबंद पुतळो सुरु ते सोपवपाक फक्त तिन म्हयने लागले म्हणपाचें. तांका सगळ्याक अजाप जालें. म्हजी आनी त्या पुतळ्याची तुस्त करुन तांणी म्हळें किं, "जपानांत नवे तरेची सगळी यंत्र सामुग्री आसूनय आमका तिन म्हयन्यात अेदे व्हड ब्रोन्झचें काम करप शक्य जावपा नासलें." पूण म्हजें दुसऱ्यांक सांगणें किं कला मात घाई गडबडीत वो थोड्या वेळान करोप योग्य न्ही. व्हडली कामा करताना म्हजी संवय वो खोड म्हणश्यात जाल्यार म्हाका नडल्या. अश्या कामान खुब खेपो म्हाका त्या कामांन जाय आशिल्ली खोषी मेळूना. म्हण थोड्या वेळात, घाईन कामा करपाचें धाडस करपाक दुसरे शिल्प्यांक हांव केन्नाच सांगचो ना. हाका दोन कराणा आसा. अश्या शिल्पान, कांय वेळा चुको अुरपाक शकतात ज्यो लोकांक कळना, पूण शिल्पकार धाडोस जायना. दुस्रें म्हळ्यार मानसीक आनी शारीरिक त्रास खुब जाता, तो शिल्पाक मागीर नडटा. हाज्यावेल्यानूच याद जाली म्हण आनी अेका शिल्पाची गजाल सांगता. जेन्ना शिवाजी पार्कचो अठरा फुटाचो ब्रान्झचो पुतळो करपाक म्हाका विचाल्लें, पूण अट आशिल्ली 'स' म्हयन्यान करपाची. तेन्ना पयल्या अनभवावेल्यान हांवे कमिटीक स्पष्ट सांगलें किं स म्हयन्यान हांव पुतळो करपाक शकता, तरी हांव हे फावट तो करपाक तयार ना. अितेलंच न्ही जाल्यार दुसऱ्या शिल्पाकूय तुमी स म्हयन्यांची अट घालची न्ही. काम बरे जांवक जाय जाल्यार शिल्प्याक भरपूर वेळ दिवपाक जाय, म्हण्टकीर तें शिल्प सुंदर जाता. नाजाल्यार तांतूर खंय तरी कमीपणा, चुको अुरपा शकता. तें हांवें तांका म्हजें अणभवावेल्यान सांगिल्लें. आनी निमाणें सांगलें किं अश्या थोड्या वेळान करपी शिल्प्याचें निमाणें मरण जाता. ह्या शिवाजी पार्कतल्या शिवाजीचो अश्वारुढ पुतळो करपी शिल्पाक निमणें मरणाक आमंत्रण दिवचें पडलें. तो शिल्पी मगेलो मित्र कै. भौ. पानसरे

भासलों. खरें म्हळ्यार मॉडर्न वो सेमीमॉडर्न शिल्प करपान ताजो हातखडो. पूण
: काम ताणें करपाक घेतलें. तागेलें ते व्हड असें पयलेंच काम. ते काम
गेपोवपाक ताका 'स' म्हयने न्ही अठरा म्हयने लागूनूय त्यें कामाचें हुस्क्यान
आनी काम दिणाऱ्यानी आपलो पैश्याचो वाटो अुबरल्यान तो खुब बरो नी हुशार
रवशिल्पी आमका मित्राक आनी महाराष्ट्राक मुकलो. सध्या सरासर शिल्पाचे पैशे
कमिशन म्हण घेवपाक सुरु जाला. हांतूर शिल्प्याक तोटो जाताच शिवाय कामार
ताजो परिणाम जाता. रस्तो बांदपी कॉन्ट्रेक्टराकडल्यान जसे सरकारी अिंजीनियर्स
वो तांच्या वयले लोक कमिशन लुबाडटात आनी मागीर तो रस्तो, बेगीन खराब
नी सवायफुको माल वापरुन वर्साभरान पेड्यार जाता तशेंच पुतळ्या बाबतीनूय
जाता. हांव अितलेंच भाष्य करता कि असलें अुदारणांनी आमची सरकार शाणी
जायनात जाल्यार दिसान दिस आनीकूय कमिशन अुकळपाचे धंदे भारतात सर्रास
वाडत चल्यात. हिं कामा घेणारेय कामा आंगार घेतात आनी आपले नी कामाचे
तिन तेरा वाजयतात. हांवें मात असली कमिशन दिवन केन्नाच कामा घेंवक ना.

म्हजेर थोड्यावेळांत कामा करपाचे प्रसंग पयली बरेच फावट आयल्यात.
झांशीचो राणी लक्ष्मीचो अठरा फुटी अश्वारुढ ब्रान्झ धातूचो पुतळो हांवें धा
म्हयन्यान केला हो घोड्यार बसील्या झांशीच्या राणीचो आनी तिच्या फाटकुळेर
तीजो दत्तक भुरगो बसला असो पुतळो थोड्या म्हयन्यान करपान जीवाचे मरण
जाता. तशेंच म्हज्या व्हड वयान म्हळ्यार वयाच्या सत्तराव्या वर्सा, हांवें अठराफुटी
सुभाषचंद्राचो पंचधातूचो पुतळो अेका वर्सान तयार केला. काम दिणारे घाई
करतात खरे, पुण अेकदा घाईन काम पूर्ण जातकर ताजे अुकतावण बरेच तेपान
म्हळ्यार वर्स देडवर्सानूय सवकास करतात. कारण किंदें सांगता जाल्यार अुकतावण
करणारो मंत्री वो पांताप्रधानाक वेळ दिवपाक जायना मात हो वाया गेल्लो वेळ
कलाकाराक दिल्लो जाल्यार तो थंडसाणेन आनीकूय बरें काम करु शकता. पूण
ह्या लोकांक सांगचें कोणे? मांजराच्या गळ्यान घंटी कोणे बांदची? मात तांका
वस्ताद शिल्पी आस्तात तें शब्द दिवनूय काम त्या वेळांत करनात, अितलेंच न्ही
तर गुड्डुलसाव करुन वेळ वाडोवनच घेनात तर पैशेय वाडोवनय घेतात. अश्या

बाबतीत 'गोलमाल' आस्ता, "तुम्हारी बी चूप मेरी भी चूप", खेरीज सुर्वेक काम मेळपाक कमी कोटेशन दितात नी अुप्रान्त वाढवन घेतात.

ह्या व्यवसायात आनी अेक खोट आसा. जेन्ना पयली कामाची ऑर्डर मेळ्टा तेन्ना ज्या मनश्याचो पुतळो करचो आस्ता ताजे तरेकवार फाटो दिवंचे आस्तात आनी तांतूतले शिल्पाक मानवतात तशे दोन तिनूच फोटोबशेन तो तयार करचो आस्ता. पूण मातीचे काम पूर्ण जाता आनी पसंत जाता तेन्ना अेक पार्टीचे सरकार आस्ता. आनी जेन्ना ब्रोन्झचो पुतळो तयार जाता तेन्ना दूसऱ्या पार्टीचे सरकार आस्ता. हे नव्या सरकारचे मंत्री आपले मोठेपणा दाखोंवक वो पयल्या सरकाराच्या मंत्र्याक कमीपणा दिवक, तयार जाल्या पुतळ्यान खोडी काडटात. शिवाय दुसरे फोटोन ती व्यक्ती चड बरी दिस्ता सांगून, नव्या पोजीचे फोटो हाडटात, आनी त्या जाल्या पुतळ्यान फरक करपाक सांगतात. म्हाका अेकदा अश्या परिस्थीतीक तोंड दिवचे पडला. आनी ते म्हळ्यार नेताजी सुभाषचंद्राच्या पुतळ्यावेळार. हे काम कांग्रेसच्या राजवटीन म्हाका अंदमान निकोबार बेटार लावपाखातीर तयार करपाक सांगिले पूण ते काम अेका मंत्र्याच्या अखतारीन आशिल्ले. ताणे काम मातेचे आनी मागीर ब्रान्झचे जाय म्हणसर ललितकला अकादमीचे शिल्पकाराक भौ. शकू चौधरीक पळोवपाक लायील्ले. दिल्ले फोटो बरहुकूम पुतळो जाल्लो म्हण्टकर भौ. चौधरीन तो पंचधातून ओतपाक सांगलो. पंचधातून पुतळो तयार जातासर नवीन मंत्रीमंडळ तयार जाले. तेन्ना नवीन मंत्री शेरनवाझ रवान आसलो. तो म्हजे स्टुडीओंत काम पळौवंक आयलो. आनी ताका सुभाषचंद्राची मिलीटरीची पेन्ट आवडली ना. तो म्हण लागलो किं पेन्ट त्यावेळा सुभाषचंद्र वेगळेप्रकारची घालतालो. हांवे ताका सांगले किं पळे काम दितना हांवे जे प्लास्टरचे ल्हान मोडॅल कमिटीक दिल्ले आनी पसंद जाल्ले ते फोटोवेल्यान केल्ले, त्याबरहुकुम हो पुतळो जाला आनी ते कमिटीक नी शिल्पकार भौ. शंकू चौधरीक पसंद आयला. आनी ताणीच तो पंचधातून ओतपाक लायला. तेन्ना शेरनवासखान म्हण लागलो किं ते कमिटीचे मनश्याक कांय खबर ना. हांव नेताजी वांगडा वावरला. ताज्या आझाद हिंद सेनेत काम केलाच न्ही तर अेक तुकडीचो आपूण कमांडर आसलो. आपणे नेताजीक सामके लागीच्यान पळयला.

तशें पळेत जाल्यार खुद्द नेताजी सुभाषचंद्राच्या हातान, म्हजे दुसरं व्हड कामाचे अुकतावण १९४० जाल्ले. पूण ताका खुब वर्सा जाल्ली ते कामाचे वेळा ताणी कसलो पेहराव केल्लो ताजी म्हाका याद ना. तेन्ना म्हाका शेरनवाजखानचें आयकूचे पडले. ताणी नवें फोटो काडून दिले, म्हण लागलो पुतळ्याचो कमरें साकूनचो भाग बदलपाक जाय. हांवें म्हळे हे नवीन काम जाले. आता नव्या अर्द्या कामाचे वेगळे पैसे दिवचे पडटले. त्या मन्त्र्यानूय बरे म्हळे आनी वयले पैशे मेळतकर हांवे कमरेसकल्लो भाग ताज्या सांगण्यावरी तयार केलो. नशीब कि हो तयार जातसर आनी नवो मंत्री तयार जालो ना. तेन्ना अशे तरेचे मंत्री आनी कमिटीचें मेम्बर आस्तात.

हि गजाल परत पं. जवाहरलाल नेहरुचो चौदा फुट अुंचीचो ब्रान्झचो पुतळो म्हज्या वयाच्या चवऱ्यांशी वर्साचेर करपाक घेतील्लो, जो बेंगळोराक विधानसौदासामकार लायला. जेन्ना पयले काम मेळ्ळे तेन्ना बेंगळोराक श्री. रामकृष्ण हेगडेचे सरकार राज्य करताले, तांका ल्हान मोडेल करुन दिल्ले, ते समितीक मानवले नी त्या बरहुकूम मातयेचे काम जाल्ले, तेवूय तांका पसंद आयले. ताणी फोटो दिल्ले ते पं. नेहरुचे जाण्टेपणाचे दिल्ले. काम तेबशेंन जाल्ले. पूण काम प्लास्टरान तयार जातकर नवे मंत्रीमंडळ राज्यार आयलें जाले काम दिवपी कमिटी बदल्ली आनी त्याबशेंन तांचे विचारुय बदल्ले. ते राजीव गांधी सत्येर आस्तनाचे कांग्रेसचे सरकार आशिल्ले. राजीव गांधीच्या नवमता परमाण ताकाय नेहरुचो चेहरो तन्नेपणाचो जाय जालो. शिवाय त्याचवेळार पं. नेहरुची जन्मशताब्दीय आशिल्ली. त्येवेळा भारतभर तन्ने नेहरुचे फोटो छापील्ले. म्हाका परते नवे तोंड करुन बसोवचे पडले. त्याखातीर मागीर वयले पैशे मेळ्ळे खरे पूण काम करपाची मजा वता शिवाय कामान परिपूर्णता येना, तो जोस येना, आनी वयल्यान चड त्रास आनी मेहनत घेवची पडटा ती वेगळीच.

अेकाद्रे काम शिल्पकाराक दिले कि कांय दिवपी पैशेवाले लोकांक आपणे शिल्प्याक विकत घेतल्याबरोन दिस्ता आनी मागीर ते आपल्याक शिल्पकलेंतले अ, ब, क, ड खबर नास्तना वेगवेगळ्यो सुचना सांगून हैराण करुन वडयतात,

जाल्यार थोडे कलेवीशी जाणकार आसुनूय दाद दिवपी आस्तात आनी कलाकाराच्या कामान त्रास हाडीनात. कला घडोवपाक कलाकाराक पूर्ण वेळ दितात किद्याक तांका खबर आस्ता किं कलाकाराक जितले अदिक स्वातंत्र्य दित तितलो तो कला चड बरी करु शकता. चित्रकाराक वो शिल्पकाराक काम सोंपयलें जाल्यार तांचेरुच सगळो भार घालूंक जाय. म्हण्टकर तो कलाकार जापसालदारकेन आनी आपले नांव अुरचे म्हण काम मन लावन करता. कलाकाराक अीतर व्यवसायीबशेन आपणाले नांवाचे म्हत्व आस्ता. मात कलाकार सोदताना खरी काळजी घेंवपाक जाय. नाजाल्यार हलक्या नी सवाय कामा करपी कलाकाराक कितलेंय सांगले तरी काम अुत्तम जातलेंशे ना. त्येचबशेन हुशार नी कष्टी कलाकाराक आपले बशेन भोवन भोवन काम सारके करपाक लावूनय काम अिबाडपाचो संभव चड आस्ता. म्हाका स्वत:क दोन वो तिनच वेळा लोक मेळ्ळे किं ताणी काम म्हजेरच सोपयले, त्ये म्हळे गोंयचे 'आबे फारियाचे' काम, जे गोंया सचिवालया मुखार लायला. पूण म्हाका मात हे काम मनापासून वावडटा. तशेच लक्ष्मीदेवतेचो पुतळो, आनी धारवाडचो व्हाईस चान्सलर ऑफ धारवाड युनीव्हर्सिटीचो श्री पावटे हाजो बारा फुटी ब्रान्झचो पुतळो. खुद्द श्री पावटे हे म्हज्या स्टुडीओंत अेवन अुबे रावन म्हाका पोज दिल्ली. आनी तासन तास कांयच्च कटकट करिनास्ताना काम म्हज्या मनाबशेन करपाक म्हाका मदत केली. सांगपाचे म्हळ्यार जेन्ना काम दिवपी सगळो कामाचो भार कलाकाराच्या आंगार घालतात आनी भरपूर वेळ दितात तेन्नाच ते काम अप्रतिम जाता.

तशेंच चड करन दर वेळार नाक खुपसपीय आस्तात आनी दर खेपेक कांय ना कांय खोडी काडपी आस्तात. मात थोडे बरे टिकाकार आस्तात. अशे हे लोक बरेच फावट कलाकाराक आपल्या कामान दोष दिष्टी पडनात ते दाखोंवन दितात, आनी ते परमाण बदल करतकीर शिल्प वो चित्र अुत्कृष्ट जाता. मात कलाकाराक तेबद्दल राग येंवक जायना वो आपलो कमीपणा दिसपाक जायना. मराठी साहित्यान अेक म्हण आसा किं 'टिकाकाराचे घर असावे शेजारी' हे म्हणी वेल्यान म्हाका अेका नात्यातल्या टिकाकाराची याद जाली. तो टिकाकार दुसऱ्या तऱ्हेचो आसलो. म्हळ्यार टिका करंक जाय म्हण करपाची. तो टिकाकार

म्हळ्यार म्हजे निमाणे ल्हान भयणीचो घोव. ल्हान भयणेचें नांव दुर्गाबाई पुण घोवान नांव दवलें ललिता. ताजे लग्न कै. नरसिंह खवटे हांचे लागी जाल्ले. तो आर्टीस्ट आसलो. जुन्या पेन्टींगांची कोपी करपान ताजो हातखंडो आसलो. तशेंच ब्ल्यॅक अॅन्ड व्हाईट फोटो मोठे करुन तो ते रंगयी. तें वेळा कलर फोटो मेळ नाशिल्ले. जाल्यार लग्न जातकर न कळयता, अेकदिस दुत्त करुन आमगेर गोंयच्यान आयली. पयली दिसले कि थोडे दिसानी परती वतली. पूण वचपाचे नांव काडना जाली. हांव अिंग्लन्डाक राविल्यान नात्यानी अेकठांय रावपाच्या मताचो साप नासलो. म्हण्टकीर आमच्या बिल्डींगच्या सकल म्हजे ऑफीस आसले ती अेक व्हड खोली आनी रानपाची खोली जी म्हज्या स्टुडीओक लागून आसली, हांवे खाली केली आनी तांका रावपाक दिली. तशेंच ताजेखातीर म्हजे ओळखीच्या कंम्पनी मालकाक फावोर मागून कामार दवल्लो पूण हे कलाकाराचे थैं लक्ष्य लागोप ना. अेकदा दोनदा ताका नोकरेक चिकटायलो, पूण परते "अेरे माझ्या मागल्या" म्हण्टा तशें ताणे नोकरी सोडप. निमाणे घराच रावन तो वयर सागल्ये ते प्रमाण फोटो आनी चित्रा रंगवन विकपाक लागलो. जाल्यार कै. खंवटो म्हजे स्टुडीओन अेवन म्हजे कामाची टिका करतालो. टिका योग्य आसल्यार ती ध्यानात घेंव येता, पूण दुष्मानकायेन केल्ली टिका योग्य न्ही. अितलेंच न्ही ताजे खोलयेचे दार म्हजे स्टुडीओच्या दारा तेकून आशिल्यान ताणे काय नवे गिरायकाक परतोवन लायल्यात वो ताचेकडेन म्हजें विशीं वायट मत परगटायला, ते अुप्रांत म्हाका कळ्ळा. तशेच आमचे अितर नातलग आनी मित्रांकडेनूय ताणें म्हजी खुब निंदा केल्या, म्हजे कामाची टिका केल्या, वयल्यान लोकांक सांग कि हो स्टुडीओ आनी घर बान्दपाक पैसो म्हजे बापयन दादान दिल्लो म्हण आपूण थैं हक्कान रावता. तेन्रा ती मराठी म्हण "टिकाकाराचो घर असावे शेजारी" हे सदाच लागू पडना.

दिनश्या वाच्छाचे कामा वेळार सर कावसजी जहांगीर, ज्याच्या नांवार मागीर टाअुन हॉलाक नांव पडले, ताणे हांवे केल्ली पोज बदलून आता आसा त्ये पोजोन काम करपाक लागले. हो दिनश्या वाच्छाचो पुतळो तुमी चर्चगेट स्टेशनच्या सामकार हातार हात दवरुन अुबो रावील्लो पळवंक शकतात. अेक वेळ असले

बदल मान्य करपाक येता पुणून असली परत परत बदलूक लायल्ली कामा मात निर्दोष जायनात. म्हजे हे व्हडलें पीरायेंत म्हाका अेकूच मनीस मेळ्ळो कि ताणें म्हजे काम मनापासन आवडून व्हेले. तो आशिल्लो अन्ग्रेज भुरगो. शेतकऱ्याचो विस वर्साचो तो भुरगो म्हजी सगळी कामा करतालो. माती मळोवप, मातयेर अुदक मारुन ते काम अुमेदीन घापून दवरप, आनी हांव काम करताना फाटल्यान अुबो रावन तासन तास ते काम पळेत रावप. जेन्ना हांवे म्हजे काम सोपयले आनी ते प्लास्टरान तयार केले, तेन्ना न रावन लजत लजत ताणे ते आपल्याक खुबुच आवडले म्हण सांगले. वयल्यान विनवीत म्हण लागलो किं तुका वायट दिसना जाल्यार ते शिल्प तू आपल्याक दिशी काय, मात तुका दिवपाक आपलेकडेन कायच पैशे नात. सदगतीत जायत कबूल केले किं ते काम दुसरो पैशेवालो खुब दुडू दिवन व्हरतलो आशिल्लो. हांवे ते काम ताका पैश्याची अपेक्षा करनास्तना दिले. पैशेच दिवन कामाचे मोल थारताअशे न्ही जाल्यार जो मनीस मनापासून ते कामार फिदा जाता आनी ते मागता ते कलाकाराक मनापासूनचे समाधान दिता. अेक कलाकृती आपल्या घरा शोभेक दवरुक जाय, पूण त्या कलेक घेणाऱ्याक कांयच रस ना, अशी कला पैशे घेंवन दिवपाक जीवार येता. कलेची किंमत पैश्यानी न जावपाक हे अुदारण निखालस खरे.

दावणगिरीचो मार्बलचो पुतळ्या खातीर थैंच्या मिलमालकाक बसवन पुर्णाकृती पुतळो केलो. तो ताज्या अिष्टांक नी भायले लोकांक खुब पसंत पडील्लो, पुणून तागेले स्वत:चे पुस्ताक मात तितलोसो पसंत आयलो ना. देकून ताणे तो प्लास्टरचो पुतळो रंगवपाक सांगलो. रंगयतकरुय पूताक तो पसंत आयलोना. पुणून ताणे मार्बलचो (संगमरवरी) करुन घेतलो. अेक दिस पुतान जाचे नांव आसले 'रामस्वामी' म्हाका पत्रान कळीत केले किं रंगयल्या पुतळ्याचो फाटो हुबेहुब आपले बापायवरी दिस्ता आनी म्हण तो आता आपल्याक खुब आवडलो. हाजे वेल्यान तुमका कळतले किं आमी केल्या बऱ्या कामाचीय निदां नालस्ती जावंक येता. ह्या गजालीवेल्यान मुखावेल्या शिल्पानी आपल्या मतीत दवरपाक जाय आनी टीकास्त्र झेलपाक तयार आसपाक जाय.

म्हाका अबस्ट्रॅक्ट आर्ट (निराकार कला)हो शब्द योग्य दिसना. किद्याक कसलोय अेकाद्री वस्त म्हळी कि ती आकारहीन जावपाक शकना. हावेंय यत्न करन पळेले. पुणुन ते कामाचे रुपांतर दर्शनीय वो हावभाविक कलेंत जमा जाला. मोडर्न (नव कला) करप्याले म्हणणें कि नवकलेंत विषयच नास्ता ती अेक भावना आस्ता, नी निव्वळ कला आस्ता. निव्वळ कला हाजो अर्थ किंदे? मनाक येता ते किंदेंय काडोप ?, पुणून जेन्ना त्ये वावराचें स्पष्टोकरण कलाकार सांगता, तेन्ना ताका शब्दांनी ते वावराचें वो रचनेंचे वर्णन करन समजावन दिवचे पडटा. पळोप्याक ताजो रोखडोच अर्थ कळताच अशें ना. कलाकाराच्या मनान ते रचनेंचो अर्थ वेगळो आसपाक जाता जाल्यार पळौप्याक दुसऱ्याच अर्थान विचार जाता. अुदाणार्थ तांबडो रंग चितारल्यार तो मळबाचो तांबडो रंगुय जावय येता वो रक्ताचो, भडक श्रुंगाराचोय जांव येता. कलाकार तागेले मनांतली भावना,अर्थानी तो विषय पटोवून दिता. मागीर ती कला आकारान वेगळी कशी जातली? मात नैसर्गीक-( रियेलेस्टीक आर्ट) कलेची वर्णना करन सांगची लागना किद्याक जे निर्सगान घडटा ताची ती नक्कल केल्ली आशिल्यान ती अुक्ती (ओपन आर्ट ) कला जाता. कोणूय सामान्य वो ल्हान भुरगोय तो कला अनुभवूक शकता, वो पळेतलो आपसुक त्ये कलेंचो आस्वाद वो सुख घेवंक पावता. म्हळ्ळे कलाकार शब्द निपूण वो भासा प्रविण जाय अशें ना आदि रेनोसाँस वो नैसर्गीक कलेची थुन्ना करपी टिकाकार आसले तशें नवकलेंचे ना. नवकलेचे कलाकाराक शब्दांचे व्हड अवजार जाय आस्ता. खेरिज तांका केलेचे वो नैसर्गीक कलेचेय न्यान आसचे पडटा नाजाल्यार ती भुरग्यांनी चितारलेली कला जातली. पूण तसेय कलाकार आसात. जे कसलेय रंग घालून. तर्काशिवाय चित्रा काडपी आस्तात,मागीर आपलो छ्याप मारपाक विचित्र वागणे वो पेहराव करतात.; तांका बरी भासाशैलीय वापरची पडटा. जशें ते अेक जादुगारुच कशें. सगळे श्युन्यातल्यान किंदे भायर काडून दाखवावी. जादुगार जसो पळवप्याक संमोहीत करन तें खरेंच म्हण पटवन दिता तसोच जादुगाराचो पेहराव करुन हो नवकलाकारुय आपल्या मिठास आनी भौव श्रुगांरीत अुलौवपान पळांवप्याक संमोहीत करन वडयता, आनी तें पळांवप्याक खरेंच तसो भास जाता हाजंवेल्यान म्हाका त्या

अेका राजाची गजाल याद जाता. म्हळ्यार राजाक कसलोच पोशाख आवडना, देखून अेक हूशार शिवपी ते राजाक नागडोच अुबो करता आनी हातवारे करित ताका नवीन पोशाख चडयल्या बशेन भासयता आनी तोणातल्यान कपड्याचे सुंदर वर्णन करित भुलयता पूण हरशी कसलोच पोशाख केल्लो नास्ता. आनी सांगता आता आपुण तुका अेका व्हड हारशी सामकार दवरतलो, तो घाल्लो पोशाख पळौंवक बाकी राजघराण्याचे लोकूय पळोंवक आस्तात. वयल्यान सगळ्यांक सांगता किं जाका तो पोसाख दिसचो ना तो मुर्ख मनीस आस्तलो. जाले राजाक तर आपूण नागडो सामकार दिस्ता पूण तशे म्हणत जाल्यार लज आनी मुर्खूय जातलो, म्हण्टकिर राजाच खुष जावन त्या हुशार शिवप्याची तोखणाय करता आनी पोशाख सुंदर जाला म्हण ताका व्हड भेट आनी भांगरा दिता. जाले, राजघराण्याचे बाकी लोकूय पोशाख सुंदर जाला म्हण त्या शिप्यांची तोखणाय करतात.

कलेचे टिकाकार, तेच बशेन कलेचे दलाल वो पत्रकार नवकले वेली पुस्तका वाचपी जाल्यान, त्ये कलेची जास्तच शुन्रा करतात. सार अितलोच किं टिकाकारुच नवकला पोसता म्हळ्यार जाता. शिवाय कलाकार जितलो विक्षीप्त, कपड्यालत्यान, केसांची तरा करपान वो दुसऱ्यांचेर छाप घालपी तितली कला लोकप्रिय जाता ती अेक कलाकारांची वेगळीच जात आस्ता. असोच अेक पेन्टर अनवाणीच चलपी सध्या मुंबयन आसा, आनी हातात लामूच पेन्टींगचो ब्रश घेंवन फिरता. अश्या कलाकारांची कला आसा ताज्यापरस चड नांवारुपाक येता. भायल्या देसान आनी अेक कलाकार जावन गेलो, जाचे नांव 'पिकासो'. आता पिकासोची कलेविशी थोडे अुलोवया. तो आदी सुर्वेक रियेलेस्टीक कामा करि. पूण ती चड नावांरुपाक आयली ना. अुपरांत तो फ्रांसाक येतकर ताजी मार्डन कलाकारा वांगडा लगट जाली आनी तो ' अेक्सप्रेशनीस्ट ' कलाकार जालो, पयली ताका टिकाकारांक खुब तोंण दिवचे पडले. मागीर नवकला 'अब्स्ट्रेक्ट' कला प्रस्थापित जातकर तो तसलीच व्हडली चित्रा काडपाक लागलो. ताका खुब प्रसिध्दी मेळ्ळी. अुप्रान्त ताका कामाची अितली तांडी जाली किं निमाणे निमाणे गिराअिक ताका कोरे केनवासाचेर सही करपाक सांगी. केन्ना केन्ना पैशे

घेवनूय काम सोपवपाची गॅरेन्टी दिनाअस्तना, गिराअिक पेन्टींग व्हरपाक येतकर अुब्यो आडव्यो रंगाचे फवारे मारुन तो कनव्हास तांका दितालो आनी त्या मुर्ख राजाबरोन लोकूय ते कनव्हास चड दुडू मोजून व्हरताले. म्हाका दिस्ता चालू नवकाळात तो अेकूच चित्रकार जावन गेलो कि ताणे स्व:ताच्च पीरायेंत अतोनात दुडू कमायलं. दुसरो नामनेक पाविल्लो आनी सगळ्यो कला अवगत आशिल्लो भौंवच व्हडलो कलाकार म्हळे ' लीवोनार्दो द वीन्सी ' हो अिटालीयन चित्रकार १६०० त जांवन गेलो. ताजे ' मोनालीसा' हे पेन्टींग जगभरात फामाद जाले. नाजाल्यार हांलीचे ५०० वर्साच्या कलाजगतात तमाम नांवा जोडील्ले आनी प्रसिध्दी विमुख कलाकार आयुष्यभर अर्दे पोटार जगले. अपवादाक थोडे हातार मोजपी सारखे आशिल्ले. ताणी नांव नी पैशे कमायले. त्ये म्हळ्ळे शिल्पकार मायकेल आन्जलो, चित्रकार राफियल, तसोच हालंडचो रेमब्रान्ट

दुसरे आनी म्हजे मनाक रुखरुख करता म्हळ्ळे कलेचो व्यंपार करपी दलाल, टिकाकार आनी आस्पतकार जे आदले कलेचे मोल वाडयत आसतात. जे कलाकार अुपाशी पोटार मेले, तांगेली स्व:ताची कोनशाक धूळ खायत पडील्ली. चित्रा अुखलून काडून कितलेशेच लाख रुपयांनी पावणेर हाडून आपणाली सम्पत्ती फुलयतात. अुप्रान्त कोटोंचे दरान तीच चित्रा विकतात. त्ये चित्रांचे मोल वाडवपी खरे म्हळ्यार वैर सांगल्यात त्ये दलाल जालेच पुगुन टिकाकारांचोय वाटो चड आसा. म्हाका दिस्ता कि हे आदले कलाकारांक दिल्ले म्हत्व नासून , खरे अर्थान पैश्याची नाटकाय काय दिस्ता म्हणूनच अुपासकाराक कारण जाल्ली ही कला, कला नासून ते श्रीमंतांचे आनी श्रीमंतीचे प्रदर्शन आसा. कलेच्या नावार हो पैश्यांचो जुगार थामपाकच जाय तेन्नाच संवसारात कलेबद्दलची ओड नी म्हत्व येतले आनी कलाकारांचे खरे मोल जातले. खेरिज कला म्हत्वाची तशीच गरजेची करुन, नी ती फक्त शानशोकाची न्ही म्हण सिध्द जातले. वाचणारे म्हणटले, कलेची गरज कशी किंदे ?, दुडू कमावपाचे, शिक्षण घेवपाचे, कुटुंब करपाचे, भुरगी वाडवपाची गरज जाल्यार कलेची कसली गरज कसलीय कला ही प्रत्येकाच्या आयुष्यान गरजेची ठरता. ती कला पळेतकर ताजे मन धादोस जाता, तृप्त जाता, कलेसूनय जगाचे संस्कृतीचे, अितीहासाचे ज्ञान जाता,

समाज सुसंस्कृत जाता,सभ्य जाता. आयुष्यान मनश्याक जशी प्रेमाची गरज तशीच कसले ना कसले कलेची गरज भासताच,मागीर ती कला संगीत आसू वो नाट्य आसू वो चित्रकला आसू. म्हान मराठी हास्यलेखक भौ श्री पु.ल. देशपांडे हांनी खंय बरोपन दवल्लेले किं 'तुमी कितलेय शिकात, व्हड नोकरी धरात वो खुब दुडू जोडात पूण आयुष्यात केन्ना ना केन्ना अेक तरी कला शिकातूच, ते तुमचे रुक्ष जिवन सुखी करतले.'

## "शिल्पकलेच्या पोरसात आनी करतूप "

कलेच्या अंगणात आनी कांय म्हत्वाची कामा केली. बडोद्याच्या युनीर्व्हसीटीचे कला मंडळाचो धा वर्सा वांगडी आसलो. जे.जे.स्कुल ऑफ आर्टचो परिक्षक खेरिज परिक्षक बोर्डाचो सभासद आसलो. महाराष्ट्र स्टेट कला प्रदर्शनाचे परिक्षक मंडळाचो वांगडी जालो. तशेंच दिल्लीच्या ललीतकला अकादेमी प्रदर्शनाचो बरेच फावट परिक्षक म्हण काम केला. आनी बॉम्बे आर्ट सोसायटीचो परिक्षक म्हण काम केला. १९५१ वर्सा नामनेचे शिल्पकार भौ. शंकू चौधरी आनी कै भौ पानसरे अेक दिस म्हगेर येवन ताणी म्हाका सांगले किं शिल्पकाराची अेक संस्था थापपाचे थारायला. तेन्ना तू तिजो वांगडी जा हांवे तांका समजायले किं हांव खंयचेच संस्थेचे कायम सभासद ना. आनी खरें म्हळ्यार असले मंडळाचे विरुद्ध आसा. कित्यक तर आमी भारतीय आंरभ सुरु करतात, मात अुप्रांत आमका ते संस्थेची याद लेगीत अुरना. शिवाय जे वांगडी आस्ता ते वयले पदा खातीर झगडत आस्तात आनी मागीर पैशेय खिशान घालपाक लागतात. म्हजे ते भाकित कांय वर्सानी खरे ठल्ले. धा ते पंधरा वर्साभितर हि आमची 'अिन्डीयन स्कल्पर्टस असोसियेशन 'हि संस्था बंद पडली. ती संस्था सुरु जातकर भौ शंकू चौधरीक नी कै भौ पानसरेक नाका नाका म्हण्टा आस्तनाच म्हाकाच ताणी ते संस्थेचो पयलो अध्यक्ष केलो. हांवे स्वःताचे पैशे खर्च करुन धा वर्सा कला प्रदर्शना भल्ली, आनी मागीर कोणूच हातभार लायना म्हन अध्यक्षपद सोडले. आता ती संस्था कयच काम करनास्तना थंड पडल्या. काम करची अिस्सा आसूनय कोणाची म्दत मेळ नाशिल्यान नो वाडट्या वया खातीर माका ते

संस्थेचे काम करणे शक्य नासले. तांतुर कै भौ पानसरे काम करपी मनीस आसलो पूण तो शिवाजी पार्कावयलो शिवाजी म्हाराजाची अश्वारुढ पुतळो करतकर भायर पडलो. मात ताजो सहाय्यक भौ आजगावकर अेक दिस म्हगेर अेवन म्हाका म्हण लागलो आपण ती संस्था आपल्या बान्द्र्याच्या कलानगरात आशिल्या घरात सुरु करता. ते खातीर संस्थेचो गोदरेजची स्टोलची कपाटा, टेबल खुर्च्यो बी सामान आपून आपल्या घरा व्हरता कपाटा, खुर्च्यो ताजा घरा पावली मात आजतागत संस्था मात सुरु जावना.

म्हजे अेक सपन आसा. ते आवडीचे काम म्हळ्यार शेती करोप, भाट वसोवप आनी तांतून म्हजी केल्ची कामा अुबी करुन दवरोप, तशेंच नव्या कला शिकपी भुरग्यांखातीर रावपा आनी कला शिकपाखातीर गुरुकुलाबशेन व्यवस्था करोप, त्याखातीर हांवे गोंया धावशींर म्हण्टा थै जागा घेतील्ली. पूण ते सपन अजून साकार जायना.

## ‘ कलेखातीर जगभोंवडी ’

रॉयल अॅकडमीचो शिष्यवृती भोंवडी खातीर मेळील्ली. ते दुडवानी हांव सगळे कॉन्टीनेन्ट भोंवलो, थंयची आदले नी आताचे व्हड कलाकारांची कला पळयली. थंयचे रितीरिवाज पळयले, वेगवेगळे पोसाख- पोहराव पळयले, वेगवेगळी भासा पळयली, तांच्या पोरन्या आनी नव्या सस्कृतीचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो. थंयचे म्युजीयम भोंवय अनमोल आसात. ते व्हडले अुमेदीन पळयले. अेकअेक म्युजीयम म्हळी व्हड कलेंचे अेक शार म्हणपान अतीशोक्ती जावची ना. अख्खा संसारातली भित्र कला,युरोपीयन कला, म्हळ्यार चित्रा आनी शिल्पकला सगळ्या जगांतल्यान पुंजावन दवल्या. जगाचेर घुरी घालून बरीच कला ताणी हडपायल्या. तांतूत अिन्डोनेशयानली आनी कंबोडीयातली भारतीय कला म्हाका पयलेच खेपेक पळोंवक मेळ्ळी. भारतीय म्हणपाचे कारण म्हळ्यार ती २०००-३००० वर्सा आदी भायर गेल्ले भारतीय लोकांनी पुराणाचेर आधारीत कला करन दवल्या.तांतून सुंदर मंदीरा बांदल्या, फातराचेर मुखावेल्या दर्शनी भागार कोरयल्ली

शिल्पकला जीका 'हाय रिलीफ' म्हण्टात, पळवन तानभूक निवली. अश्यो म्हान कला आमच्या पुर्वजानी जगाच्या भोंवडेर सारिल्ये वेळा कोरुन दवल्या. पूण मजा म्हळ्यार म्हाका ती परप्रान्तान पळोंवक मेळची हे म्हजे दुर्दव्य. आमचे सरकारान चलैले ललीत कला ॲकेडेमीकय अश्या शिल्पांचे भारतीयांक दर्शन दिवपाची बुध्द अजून मेरेन जावना, वो तशी तजवीज नी विचारुय केल्लो ना. हे पळवन म्हाका व्हड दुख भोगता. हांव मुम्बयन शिकतालो तेन्ना अंग्रेजानी आमच्या संग्राहलयात तांची कला स्थापन केल्ली, किद्याक तर आमका भारतीयांक तांचे कलेचे चड आकर्षण आनी व्हडपण दिसचे म्हण. पूण स्वतंत्र्य जातकर तरी आमच्या नव्या सरकारान ह्यो कला दवरपाच्योच पूण रोखड्योच आमच्योय कालांचे नमुणे जंय थंय संग्राहल्यात दवरपाचे. तशेंच भारता वांगडा अिन्डोनेशीया, कंबोडीया, सिलोन, नेपाळ, बर्मा अित्यादी देशांच्योय कलाकृती हाडून दवरपाच्यो, म्हण्टकीर हांगाच्या कलाकारांक त्यो कला पळौंवक मेळटल्यो आसल्यो नी भायल्या देसान वचून पळवचे पडचे नासले. अितलेंच न्ही हांलीच म्हज्या वाचपान आयले कि आमची कला नी संस्कृती अफगाणीस्तान, इराक अित्यादी देसानूच न्ही जाल्यार खुब पैस आशिल्या अमेरीकेच्या मेक्सीको देसानूय मेळ्या, थै शंकराची लिंगा आनी आमचे संस्कृत वो पाली शब्द कोरिल्ले सांपडल्यात म्हळ्यार आमचे पुर्वज ल्हान होडीनी जितले लाम सातसमुद्रापैस पावले नी ताणी आमची कला संस्कृतीय थै व्हेली आनी अितले सगळे झुंजा न करता. हे तांच्यान मेळून मीसळून केला. ही गजाल भायल्या लोकांक व्हड ताळ्यान सांग सारखी आसा. पूण भारत सरकारन खुब तेपान ह्यो वस्तू हाडल्यो. आनी पुर्वज्यांनी केल्ली अेतिहासीक कला पळवन आमका तांचे कर्तृत्वाचो नी कला वैभवाचो अुगडास सर्वाच दोळ्यामुखार अुरतलो आसलो. आनी ते व्हडले म्हत्वाचे संस्कृतीचे शिक्षण आमचे नव पिड्येक व्हड अुदारण म्हण पळोंवक मेळटले आसले. पूण सरकारक पोटतिडकेन भारतीय संस्कृतायेचे म्हत्व कळत तेन्ना. मात दुसरोय विचार मनान घोळता म्हळ्यार, अशें बरप म्हळ्यार आदल्या युरोपान पुंजायल्या वो चोरिल्या कलेक पुष्टी दिल्ले वरी जाता. त्येबद्दल मातशें स्पष्टीकरण केल्यार बरे, आयज सरकार अब्जानी पैशे खर्च करुन पोन्नी कला नी संस्कृतायेचो खुणो पुंजायता, हे कितले योग्य?

म्हजे आयज निव्वळ मत जाला कि पैशे मोडून फाटले कलाकाराची कला विकत घेवचे परस चालू कलाकार जे जेवणाक पदिशेर आसात ताका मदत केल्यार खऱ्यानींच मनिसपणाचे जातले.

लंडनमेरेन वचून आनी सगळो युरोप नी अमेरिका भोवन त्ये ऱ्ये देसांनी आंशिल्ली कला पळेली. खेरीज ती कला करपी कलावंताचीय खबर मेळयली. मात म्हाका खरे अर्थान धादेसकाय भोगली ना. ताजे मुखेल कारण म्हळ्यार युरोपी देसातले वो अमेरीकेचे विषम जीणे. युरोपातल्या लोकांनी जगभर साम्राज्या थापूनय थैं आयज गरिबी आसा नी भेष्टायता, तें पळवन म्हाका अजाप जाले. तरातरांच्यो मळबाक तेंकपी मोलादिक अिमारती, तशैंच भोवच सुंदर मनरंजनाचे आनी करमणुकीचे वाटार देखले आनी तरेक तरेकचे फुलांनी भरिल्ली पोरसा पळेली. अख्ख्ये जगात ना तसले इंद्रालोकाकूय लजवपी अैश्वर्य नी अ्ती श्रीमंत लोकांची म्हायती मेळयली. अमेरीकेवरी सुपीक जमिन मेळपाक कठीण. आनी त्ये जमनीक लागून अमेरीकेचे भाग्य फुलले. तातूर भांगराच्यो खाणी मेळून खजोन्यान भर घाली. खेरीज सगळ्या जगातले हुशार लोक थंय अंकठांवन, संशोधन, यंत्रतंत्रानी अमेरीकेची खुब प्रगती जाली. हे सगळे पळवन दिसले कि निसर्गीचे वरदान मेळत जाल्यार येश माळ घालता. ते वांगडाच गरीबी नी तीका लागून चोऱ्योमारयो, खुनाखुनी तशेंच सगळे तरेची व्यसना नी तल्लफ हाडपी पैंया पीयांन लोकांचे आरोग्य रसातळाक वता तेवूय पळयले. हांव जाणा कि खालाचे लोकांक वो गरिबांक वोरवता नी डॉक्टराची मदत दिवन जगैल्यात नी दुसरे वटेन श्रीमंती पोसयल्या. पूण ते करणंन मनश्याले समाधान जायना. दुसऱ्यांची आस्तीन गच्च भरील्ली घरा पळोवन, गरिबांकूय तशीं जाय दिस्तात. तुम्ही म्हण्टले कि म्हाका दोस वो वायट तितलेच दिस्ता आनी बरे दिसना. तशें दिसले जाल्यार खंय चुकले ? बरी बाजू हांवे वयर सांगल्याच, म्हळ्यार कला, वाद्यात, संगीतान केल्ली प्रगती तशेंच यंत्रतंत्रान, शास्त्रासशोधनान, रसायनशास्त्रात, विज्ञापनान केल्ली प्रगती, खरेंच तोखणाय करपा सारखी आसा आनी ती तांका भोवच शोभा हाडटा. हे लोकाची तुलना आदले भारतानले वेदकाळातले नी अुप्रान्त काळातले विचारवतावरी तुलना करपा येता. अुप्रान्त अमेरीकेक चलील्ली खुना-खुनी, झुंझा नी भय दिस्ता

म्हण मनीस संहारक शस्त्रा निर्माण किद्याक म्हळ्ळो प्रश्न अुबो रावता म्हण्टकर दिस्ता किं बरेच किदें नी खंय तरी चुकता. म्हजे दृष्टीन तरी विषम जीवन हेंच कारण आसूंये. कितलोय विचार केलो जाल्यार हें कोडे सुटना. म्हगेलें व्हड पिरायेंत भोंवन भोंवन म्हाका मनशांनी केल्लो आस्थिरतायेचो भीरांत आनी दुःख दिता देकून हांव सदिच मागता किं हे बुधंवत आनी लापीट लोकांक जे अैश्वर्याक सर्वस्वमानून वेंगेवन बसल्यांत तांका असले कांचवणेविण केन्नाच जगचें दिसना काय किंदे ?

हे सगळे बोवाळान भीतर म्हगेले कलेविषींचो मोग आनी अुत्फरके अुणे जावन, हांव सदांच अशें येवजता किं कोटयानी राशीनी राखिल्ली संपत्ति जर पिडीत संवसारा खातीर वाटली जाल्यार वो तांगेले संवसार दाळार घालपाक वापल्ली जाल्यार जग समृध्द नी सुखी जातले.नी म्हण हांव संवसाराची चिंता हुस्को करुंक बाद जाला. शेकी आता विचाराअंती दिस्ता किं मनशाले हे विपद्रे दशोक सोडवपाचो मार्ग किदेंय करन सोडून काडपाक जाय, त्येखातीर अुल्लेले आयुष्य खर्ची घालचेंशें दिस्ता. आयजमेरेन विश्वान मनशांक जो दुसरे मनशांचो कांच दिस्ता, देकून तो झुंजाची अस्त्रा सांठावपाक बाद जाला. ते कशें थामवप म्हणपाचो विचार म्हाका संदाच सतायता. खुब जणालागी हांव हे विचार मांडटा आनी विषयार अुलैला. तांचे मतापरमाण संवसारांत जे चल्ला 'म्हळे दुडवांक देवा परस नी निसर्गापरस व्हड मानपाचो विचार' जे कल्पातामेरेन चलत रावतले खंय, अशो तांगेले म्हण्णे ते अितले सोपे तरेन मांडतात त्ये पळवन कोणाकय दिसचे किं जगांत रामराज्य चल्ला आनी सगळे लोक सुखी आयुष्य जगतात. पूण म्हाका ध्यास लागला तो विषमता ना करपाची आनी खरी सुखवो शान्ती संवसारात पसरावपाचे कार्य पोटतिडकेन करत रावपाचे. " सर्वे- सुखंतु" हो जप जपपाचो नी संवसारात समाजिकायेचे गीज्ञान शिकौवपाचो. ह्या बाबत म्हजे ठाम मत जाला, किं समाजिकायच मानवी संसाराची अुदरगत करन जागतीक समृध्दी हाडटली. बाकी तकलेंचे खेबिरे करन नवे नवे शस्त्रांअस्त्रांचे सोद लावन, युध्दान शांतताय हाडपाचें यत्न म्हळें जगाचो लय. निसंवशय लागी हाडप. हें तांगेलें विचार, ग्रह समाजिकायच नष्ट करतली. आनी अख्यो मानवी संवसार मोगान आनी शांततेन

जगतलो ही समन्वयी मता संवसारात येतले केन्ना तर अेकमेकां झगडून, दुर्वमनानी तशेंच हे लुटपुटी सुदारणेखातिर आयीली म्हाप्रकुटीना, भुयकंप आनी तसलीच कृत्यां भारी जाली म्हण्टकीर जावपांच.

## "कौटुंबीक जीवन"

अेकंदरी म्हजे कौटुंबीक जीवन कले जीवनापरस म्हाका चड सुख दिवपी आसा ही अतीशयोक्ती जाववाची ना. आयज जाष्टेपणात दिस्ता कि म्हजे पयले मतापरमाण हांव लग्न न जावपाचेरुच ठाम राविल्लो जाल्यार, कलेन अेकाद्रो आनीकूय श्रेष्ठ, नांवाजलेलो शिल्पकार जांव शकतालो, किद्याक म्हजे तन मन सगळे शिल्पकलेनूच गुरफट्टले आसले, मात आयज म्हाका दिस्ता कि म्हजे घरकान्नीची सुरवातेक जाल्ली भेट पासून लग्न नी कुटुंब जायतपासुन आयजमेरेन हांव खरे समाधानी जीवन जगला.

पयली सांगील्याबशेन नाट्यपुर्ण रितीन म्हज्या बायलेक (तेन्नाचे दतीक) पळोवप जाले. मनान ठाम ठरयल्लें कि लग्न करपाचे जाल्यार ह्या चल्ये लागीच करप ना जाल्यार हो जन्म लग्नूच जावोप ना. जेन्ना हांवे तिज्या भावाकडेन, कै. भौ. विनायकबाबाक गाठून म्हजी अिच्छा ताजेलागी परगटायली, ती अेक तरेन लग्नाची मागणीच हांवे फुडे दवाल्ली. दती परस हांव बरोच व्हड म्हळ्यार, वीस वर्सांचे अंतर,पूण म्हजे नांव आनी मुम्बयक आशिल्लें तिन मजली घर आनी स्टुडीओ शिवाय घरचोय भाटाबीटा आशिल्लो मनीस म्हण्टकर भाव तयार आशिल्लो. ताणे दतीचीय अिच्छा पळयली जाल्यार, दती म्हजे वांगडा लग्न जावपाक तयार आशिल्लें. लग्न जातकर अेक दिस हांवे दतीक विचाल्लें कि तुवें म्हज्यात अशें किंदे पळयले? तुजेपरस हांव वीस वर्सांन जाष्टो शिवाय दिसपान सादारण नी काळो. ताणे लजत म्हळें कि दादल्याचे रंग रुप आनी वय पळेनास्तना ताजे व्हड नांव, लौकिक, स्वःताच्या हिमतीचेरे तेवेळा मुंम्बयन अेदे व्हड घर आनी पैसो मेळवप हे कर्तबगारीचेर हांव फिदा जाले. पुण दतीची आवयबापूय पयलीं तयार नासली, मात कै. भौ. विनायकबाबान तांका समजावन सांगतकर ताणी होकार दिलो. तरी म्हजे पुढारलेले मत तांका आवडले ना. लग्न जावचे वेळार हांवे

तांका म्हळे किं ओगीच सगळ्या गांवाक आपांवन लग्न करपाक म्हाका नाका, जाल्यार सामकी लागसारची नातलगांक आपवन हांव कायदेशीर लग्न (रजीस्टर्ड मेरेज) करपाक सोदता. मांडवांन रांवन भटाच्या श्लोकान लग्न लावप म्हाका मानवना. त्याकाळचे मानान म्हजे विचार चडूच फुडले मताचे आसले.आयज सरसकट लोक रजीस्टर्ड मेरेज करन लग्न जातात आनी कोणाक अजाप दिसना. पूण १९४२न अशे तरेन लग्न जाल्यार गांवचे लांक म्हणी किं हो मनीस किरिस्तांव जाला काय म्हण, पुण निमाणे सगळे जाट्यानी होकार दिलो आनी २८ जून १९४२ साक आमी दोगांय विवाहबध्द जाली. तो काळ चले जावचो. तेन्ना मुंम्बयन सगळेकडेन अंदाधुन्दी आशिल्ली. तसेच लढाईचो काळ, दुसरी विश्व लढाई चलताली. सगळीकडेन मुम्बयन जाळपोळ, मारामारी,खुनाखुनी नी गोळीबार चालतालो. धरपकड तर कारण नास्तना जाताले. अंग्रेज पोलिसांक कोणे सांगल्यारुच पुरो आशिल्ले, त्या मनश्याची विचारपुस करिनास्तना ताका पकडून कादयेन घालताले. अशे मुम्बयचे वातावरणान हांवे दतीक घेंवन कुळ्याक ट्रेन धल्ली, नी दुसरे दिसा आमी दादराक देवली जाल्यार, पुलिसांची गाड्येन नी स्टेशनार दादागीरी चलताली. स्टेशनारुच पुलीस कोणातरी लाठीमार करताले ते पळोवन दती सांमके भिवन गेल्ले. तेन्ना ताजे वय आसेल फक्त सतरा वर्साचे. कशेबशे ताका समजावन आमी घोड्यागाडी केली. त्यावेळार टॅक्सी नासताल्यो, आसल्यारुय साप कमी. दतीची ती दुसरी खेप मुम्बय पळवपाची, तो दादरचो व्हड बाजार पळोवन दती आवाक्क जाले. त्याकाळा आताचे खितलो व्हड बाजार नी गर्दीय नासताली. सगळी मुम्बय स्वच्छ नी साफ कमी गर्दीची आस्ताली. म्हाका फोर्टान गेल्यार लन्डन नी मुम्बयचो फोर्ट भाग सारखोच दिस्तलो. दतीकूय मुम्बय शार खुब आवडले. लहानपणासून ताका मुम्बय वचपाचे व्होडवे लागील्ले. तेवूय अेक कारण आसत म्हजेलागी लग्न जावपाचे. आमचे घरालागी पावतकर, ती तिन मजली अिमारत आता आपली म्हण्टकर दती साप खुश जाल्ले. गोंयान अेदी व्हड अिमारती तेन्ना खुष कमी. चडकन अेक वो दोन मजली अिमारती पणजे मडगांवा आस्ताल्यो. शिवाय आमची बिल्डींग अुबी जावन फोकत तीन वर्सांच जाल्यान नवी कशी आशील्ली. भारतीय लोकांक अमेरीकेक वतकर कशें जाता तसेच मुंबय येतकर दतीचे जाले.

९ आगस्टाक महात्मा गांधीन 'चले जावची' घोषणा केल्ली. आमी दोगांय फिरपाक गिरगांव चोपाटीचेर गेल्ली. सगळीकडेन सामसुम आशिल्लें. अेका जाण्त्या मनश्यान म्हाका विचाल्लें कि आमि हागा फिरपाक किद्याक आयल्यात. थैं गिरगांवांत बी गोळीबार चल्ला. दतीची तर भिवन गुळी जाली. हांवें दतीक सांगलें कि आमी तकाली सकल घालून वचूया समज म्हाका जर गुळी लागलीच जाल्यार तु भींयनास्तना लोकांच्या मदतीन घरा वच. जींव हातान दवरुन आमी अेकदाची घरा पावली. मात घरा पावता जाल्यार अंग्रेज पुलीस म्हजे स्टुडिओच्या दिशेने गोळीबार करताले. तातुर म्हजे स्टुडिओची व्हड कांच लायली फुटली. आयजूय ती गुळी लागून फुटोल्ली कांच म्हजे लागी आसा. पोलीसांनी आमका तापवन बेगीन घरा वचपाक सांगले.

लडाओच्या दिसानी कामा नाशिल्ली तरी टाटाची दोन कामा म्हाका मेळ्ळी. तो टाटाचो पुतळो म्हळ्यार पयल्या जमशेटजीचो, अितलो बरो जाल्लो खंयकि ताजो आनी अेक पयलो पुतळो अंग्रेज शिल्पकारान केल्लो ताजेपरस म्हजो अप्रतिम जाल्लो अशे टाटाचे चलयेन म्हाका सांगले. अेक फोर्टान बोम्बे हाऊसान बसयला ताका तांचे नोकरवर्ग कामार अेवचें पयली फुला घालून बी पांय पडटा अशें मागीर कळ्ळें. टाटाचें अर्धकृती पुतळें करतंकच गांठीक थोडे पैसे आसून म्हाका लग्नाचे पयले दिसांनी दतीक वेळ दिवपाक मेळ्ळां. ते दिस आमचे खुबुच सुखान गेले. संसार सुखाची कल्पना म्हाका तेन्ना कळ्ळी. तेन्नाच अेक दिस आमच्या घरा समोल्यान अेका मानशाक गाड्येन बशिल्या अंग्रेज पोलिसांचेर फातर माल्लो. जालें तांका दिसलें कि घरा सामकार आशिल्या शिंप्यान तो माल्लो म्हण. ताणी त्या म्हाताऱ्या शिंप्याक आनी ताजें लागी आशिल्या तरण्या शिंप्याक बडोंवक सुरवात केली. म्हज्यान ते पळोंव नजो जालें. तशें हांवे अिंग्रजीन तापोवन त्या पोलीस आधीकाऱ्याक विचाल्लें, कि तुमी हों कसलो अत्याचार करतात काय म्हण. रागान ताणीं म्हजे कडेन पळयलें. हांवे दतीक सांगले कि ते घरा येवन म्हाका पकडून बी व्हरत जाल्यावर तू भींव नाका किदें जाता ते पळोंवया. मात तें पोलीस ताका मारवाचें सोडून दुसरें जाग्यार गेलें अशेच आनी अेक गोष्ट १९५९ त, आमचे भारतीय राज्यांत आमचेच पोलीस अेका दारुड्याक

ताजे म्होरक्याचो ठावठीकाणो सोदून काडपाक बुटानी आनी बडीयांनी मार मार मारताले. तेन्राय म्हज्यान ते पळोवंक नजो जाले आनी हांवे घराच्या गॅलेरितल्यान त्या रानटी पोलिसांक तापयले किं, घरबाळकार आशिल्या वस्तीन तुम्ही रानटी तरेन अेका निराधार दारुड्याक अशें बडयतात ते किंदे ? तुम्ही जाय जाल्यार पोलीस चोकीत ताका व्हरात. आनिकूम अेकदा हांवे अिंग्रजा तेपार अेका पोलीसाक, लोकांक त्रास दिला म्हण जाब विचाल्यार ताणें म्हज्या खांद्यार बंदुकीचो दस्तो मारिल्लो तो आयजमेरेन केन्ना केन्ना दुखता. रानटीपणान कोणाक मारोप वो निराधार लोकांक वेठींक धरोप म्हाका साप मानवना. अन्याया विरुध्द हांव सदांच झगडला. तं स्वंतत्र्याच्या लढ्यांचे वेळा हांव बरेच फावट दतीक घेंवन गांधीजी -नेहरुच्या भाषणांक गेला. ते वेळार स्वातंत्र्याच्या वाऱ्यान, अंगान अेक वेगळीच शक्ती भरताली. तो काळूच वेगळो आशिल्लो आनी ती मनशाय.

अशे धकाधकीच्या काळान, म्हारगाअिच्या काळान आनी जिवनाअुपयोगी वस्तुच्या तुटवड्याच्या काळान आमी आमचो संसारगाडो आनंदान चलयताली. अेक दिस दतीन म्हाका ताज्या पयल्या वयल्या गुरवारपणाची गजाल सांगली आंनी म्हज्या आनंदाक पारावार अुल्लो ना. म्हाका पयलीपासन भुरग्यांची खुप आवड. घरांन खुब भुरगी आसची, भुरग्यानी घर भरन आसचे हे मताचो हांव. म्हजे लहानपणान आमी खूब भांवडा आशिल्यान त्या गरिबीनूय आमी खूब मजा करताली, खेळताली. बायलेन तयारी दाखयल्ली जाल्यार म्हाका ६-८ भुरगी चलताली. तांतून पयली चलीच जावची अशें दिसताले. आनी तशी सुंदर चलीच म्हाका जाली. मात पयले चल्येचें वेळा, दतीच्या बांळतपणा हांवे म्हजे आधुनीक मतापरमाण ताज्या आवय -बापायक त्रास जावू नये म्हण गोंया फड्यांत अेक घर घेवन केले. तेवेळा हि गजाल मुलखावेगळी कशी आसली. गोंयकारांक आनी सोयऱ्यांक ताजे आश्चर्य दिसले आनी नवोदाद कशी जाली . हे बैठं घर, फड्या तिस्कावेल्यान कवळे वचचे वाटेर आसा. दतीच्या आवय- बापायक आनी सोयऱ्याक येवप वचप शक्य जाले. तशेंच म्हजे घरची मंडळीय येवन वचन आस्ताली. खुबच मजेन दिस गेलें. हांवे पयले चलयेचे नांव म्हजे आवयचे नांव 'मिनि' दवरपाचे ठरायलं. मात खरे नांव मागीर मिना दवल्ले. मिना गोरे आनी सुंदर

डोळ्याचे जाले. म्हजे आनंदाक पारावार अुल्लो ना. तशेंच बायलेच्या दुसऱ्या गुरवारपणान तिका चलोच जातलो अशेच दिस्ताले आनी ताज्ये नांव हांवे 'आदित्य' दवरपाचे ठारायले. आमचे मडकय वयर डोंगरीर अेक सिमीटाची मठी कशी बांदोल्ली आसा. ताजेर अेक संस्कृतान बरयल्लो श्र्लोक आसा, त्या श्र्लोकान सुर्याक अुद्देश्युन 'आदित्य' हो शब्द आसा तो म्हाका खुब घोस्ताक गेल्लो सुर्याचे तेजस्वी रुपाबशेन आनी कर्तुत्वाबरोन चलो जावचो अशें दिस्ताले आनी म्हज्या नशिबान म्हाका त्या नांवाक सोबतासो चलो जालो. तेन्ना दतीचे बाळंतपण हांव मुम्बयन ठारायले, तो दुसऱ्या लढाईचो काळ आशिल्लो. खय वचपाक टॅक्सी बी मेळनाशिल्लो म्हणटकीर थोडे दिस हांवे तिका म्हज्या अेका शिल्पकार मित्र भौ आरते हाजेकडेन दवल्लेली. तो आपल्या बायलेभुरग्यांक सैत गिरगांवात पोर्तुगेज चर्च आसा थैं रावतालो. दतीचे नांव घाल्ले हॉस्पीटल म्हळ्यार टिळक कैकणीचे, त्यावेळचे फामाद डॉक्टरांचे हॉस्पीटल आनी चर्नीरोड स्टेशन सामकार आशिल्ले. पूण म्हजो पूत 'आदित्य' ह्या लढाईच्या धामधुमीत जगात बेगोन अुदयाक येवपाक तयार नाशिल्लो जावये देस स्वतंत्र जावपाक रावतालो काय कोण जाणा. दिल्ले तारखे नंतर आदित्य २२ दिसांनी म्हळ्यार ३० अेप्रील १९४५ सकाळी फातोडवेळार जन्माक आयलो. तो जन्माक आयलो आनी आमका सकाळफुडे बरी खबर मेळ्ळी म्हळ्यार अॅडॉल्फ हिटलर मेलो म्हणपाची. जन्माक अेवन ताणे दुष्टाक माल्लोसोच दिसले म्हाका, आदित्य सुर्याबशेन तांबडांगुद साडेसात पौडांचो सुंदर भुरगो जालो. म्हाका आनी दतीक मळबाक हात तेंकल्यावरी जाले.

दती पयल्या बाळंतपणार १८ वर्साचे जाल्यार आदीत्यावेळार २० वर्सांचे आशिल्ले. मात ते ल्हान वयात दोनूय बांळतपणान ताका आपल्या घरच्या लोंकाचे आदरतीथ्य करपाक खुबच त्रास काडचे पडले तेवेळचे म्हजे मता परमाण लग्न जातकर घोंवाबायलेन आपलो संसार आपले आवयबापायक त्रास दिना आस्तना स्व:ता चलवपाचो म्हण हांवे गोंया घर घेंवन दतीचे बांळतपण करचे केल्ले पूण गोंयचे तें रवोजे खातीर दतीची आनी म्हजो घरची मंडळी आमच्या घरा येतालो आनो त्या सगळ्यांचे करपान दतीक त्रास जाताले आदीत्या वेळार तर दतीचो

बापूय दतीच्या भयणीक आनी तांच्या घोवाबाळांक बी घेवन मुम्बंय पळवंक आईल्लो. तो लढाईचो काळ आसलो. धान्याचे रेशन आशिल्लें आनी खुब दुडू मोडून भायल्यान धान्य हाडचे पडी. शिवाय कामाकूय बायलमनीस मेळोप कठीण जाताले. बरेच साधे लोक म्हारगाईन आपापल्या गांवा वचून राविल्ले. ताका लागून घरगडी मेळप त्रासाचे जाताले. म्हण्टकीर दतीचेर चड कामाची तकालस बांळतपणान पडी. ते ताका जातात ते त्रास पळोवन म्हाका खुब वायट दिस. खरे म्हळ्यार ताका कांयच न करपाक लावन दतीच्या भयणीन घरचे सामाळपाचे आनी दतीक वयल्यावयर करपाचे. जाल्यार गोंयची ही मंडळी मुंबय पळोवंक येताली. तांका अितलेय कशो कळनाशिल्ले कि हाजो सगळो भार दतीचेर बांळतपणान पडटा म्हण. दतीच्या भयणीचो घोंव, तो आमगेर आयल्यार तर हे नुस्ते जाय, ते पदार्थ जाय म्हण मागी. त्या म्हारगाओच्या काळात आनी रेशनाच्या काळात आमका ताजे खुब त्रास जाताले. तेन्ना कामाय म्हजेकडेन नाशिल्ली. पैश्याचीय अुणीव आस्ताली. पूण मुम्बयन घरवाले म्हण्टकिर म्हजेकडेन खुब पैशे आसाशे तांका दिस्ताले जावये. मात दती अमेरीकेक जाण्टया वयान चल्यांचे बाळंतपणा वताले ते भरपूर काम करी. ताज्या नशिबान सदांच काम करचे पडला.पूण तरी आनंदान ते आयज पूण आदीत्याच्या संसाराक हातभार लायता. जितलेंच न्ही, वयाच्या मानान चड काम करता. काम ताज्या रक्तानूच आसा म्हळ्यार अतिशियोक्ती जावची ना.

म्हण्टकीर तीसऱ्या चाल्येच्या वेळा म्हळ्यार रेखा जावचे वेळार हांवे ठरायले कि कोणाकूच आपोवप म्हण ना. तशें पळेत जाल्यार व्हड चली मिना आनी दुसरो आदित्य, ते वेळा ती चार नी दोन वर्साची भुरगी आसली. खरे पळेल्यार तांका पळौवक कोण घरची मनश्या जाय आशिल्ली. पूण पयलो सोयऱ्यांच्या मदतोचो धसको हांवे घेतिल्यान परतें तांका आपोवपाच्या फंदान हांव पडलो ना. आनी दतीकूय ते जरी आवडले ना तरी म्हाका नाका म्हण तें ओगी रावले, पुण दतीचो भाव भौ. विनायकबाब दतीचें आवयक कै. इंदिराबाईक घेवन आमगेर आयलो. तांका खबर आशिल्लं कि दोन लहान भुरग्याक घेवन बाळंतपण स्व:ता काडोप कितले कठिण ते. पूण हांवे पयलोच बंदोबस्त केल्लो. गोंयच्यान 'म्हादेव'

म्हणून अेक घरान कामाक खातीर हाडपाक सांगिल्लो. तशेंच अेक मुम्बयचीच बायलमनीस तेल लावपाक आनी रानपी जेवण करपाक नेंमिल्लो.म्हण्टकर दतीचे आवयक चड त्रास पडले ना आनी दतीचे ते फावट वयलं वयर सगळे जाले. तशेंच तिसरे चलयंच्या गुरवारपणात म्हाका म्हैसूरची दोन व्हड कांमा मेळ्ळी.अेक राजा वाडीयारचो ९ फुटाचो मारबलचो (संगमरवरी) अुबो पुतळो, जो आता म्हैसुरच्या पॅलेसी भायरच्या चौकान कमानी भितर बसयला. चारी रस्ते थैं अेकवटल्यान तो चारी रस्त्यावेल्यान पळोंवंक अेता. तशेंच थैंच्या पेपर मिलच्या मालकाचे बापायचोय पुतळो मेळ्ळो. म्हण्टकर म्हजे परते परते म्हैसुराक वचप जाताले. दोनुय पुतळे हांवे थैंच केले. गोंयचो अेक 'दामू' म्हण नांवाचो मेस्त म्हाका मेळील्लो जो म्हजे सरी खुब वर्सा अुल्लो. ताजी मदत म्हाका खुब जाताली. कसलेय अितर कामाकूय तो अुपयोगा येतालो. मेस्त बरो आशिल्लोच पूण मेकानिकल कामूय ताका येताले, तेन्ना म्हजी माख्ना (यंत्रा) सारखी करपाक ताजो अुपयोग जातालो. जेन्ना म्हजे लागी पुतळ्याचे काम नास्ताले तेन्ना हांव ताजेकडल्यान फर्निचरचे काम करन घेतलो. हांवे मंदी कामा नास्तना स्टोव्हाचे बर्नर तयार केल्ले. ते अितले बरे जाल्ले कि पांच पांच वर्षा चलताले. त्या बर्नराचे नांव हांवे 'अशोक' दवल्ले. दामूची मदत खुप जाली. पूण हजारावैर तयार केल्ले बर्नर मार्केटान मात हाडले ना. फुडे तोच धंदा बरो चलतलो आशिल्लो. कामा मेळतकर सोडलो. म्हजे बिल्डिगेतूच दामूक अेक खोली दिल्ली. तांतुर ताणे आपले बिराड केल्ले. म्हैसुराकूय तो आपले बिराड करुन आशिल्लो. जेन्ना म्हजी कामा खुब कमी जाली तेन्ना ताणे भायर काम धल्ले. पूण मागारि ताजी बायल मानसिक रुग्न जाली तेन्ना तिका घेवंन तो कायमचो गोंया गेलो.

रेखा आमका जावचे वेळार म्हजे अेका भावाचे जाचे नाव विश्वनाथ बेळगांवा लग्न जाल्ले. दती तेन्ना आठ मयन्याचे म्हण लग्नाक येंक शकले ना. हांव म्हजे व्हडले चली मिनाक घेंवन बेळगांवा गेलो. थैं विश्वनाथाचे लग्न वेलंगी हांची चली वत्सला हिजेकडेन जाले. विश्वनाथाक चली पसंत करचे वेळा तीन चलयो पांचव्या साड्येन दाखयल्यो. पूण नक्की खंयची ती ताका सांगली ना

आनी विश्वनाथानूय सारखी चौकशी केली ना. लग्नावेळा वत्स्वलाक अुबी केली, तेन्ना आपणे अुत्तर दिला म्हण आनी आपणे सारखी विचारपूस केली ना म्हण वत्सला कडेन लग्नाक तयार जालो. मात वत्सला दिसपाक, दांत फुडे आनी डोळे मोठे आशिल्ली, बेळगांवकारानी विश्वनाथाच्या गळ्यान घाली. विश्वनाथ अिन्टर आर्टस पास जालो ना.पूण तो फ्रेन्को अिन्डीया ह्या फार्मास्युटिकल कम्पनीन सेल्समन म्हण कामाक लागलो. आनी तो फिरतीर आशिल्लो. चड शिकलो ना तरी भाषा अुलोवक हुशार. अिन्गलीश, मराठी, गुजराथी, कानडी तो बरी अुलयतालो. निमाणे मेरेन तो ते कम्पनीन आसता जाल्यार वयल्या हुद्द्यार आस्तलो आशिल्लो. पूण ताजे बायलेच्या स्वभावाक लागून आनी तिजे घरचे लोकांनी ताका धमकावन भिवयल्यान तो पिसावल्यावरी जालो. तेवेळा शिवाजी म्हाराजाचो अश्वरुढ पुतळो प्रतापगडार लावपाचे तयारीक हांव आशिल्लो. जेन्ना बेळगांवच्यान वेलंग्यानी आमका कळयले कि विश्वनाथाची तब्येत बरी ना. आमी दोगांय आनी आमच्या वांगडा दती, भुरगी आनी दतीचो भाचो दयानंद, बेळगांवा पावली.विश्वनाथ तोणान साई, साई, साई अशें पिशावरी बडबडत आशिल्लो. आमी विश्वनाथ आनी व्यंकटेश मेळून परती म्हाबळेश्वर वचपाची. म्हजे पुतळ्याचे काम पूर्ण करपाचे आशिल्ले आनी म्हाका व्यंकटेशाची थैं गरज आसली,पूण विश्वनाथ थैं कसोच येवपाक तयार ना म्हण्टकर ताका व्यंकटेशाच्या स्वाधीन करुन मुम्बयक धाडलो. मुम्बयकूय तो व्यंकटेश्याक कसोच आयकना जालो म्हण्टकर आमी सगळी मुम्बयक आयली. मुम्बय तो वर्स- दिडवर्स रावलो. मागीर तो गोंया मडकय गेलो. घरच्या लोकांनी समजायतकर ताणे परते मुंम्बय अेका फार्मास्युटीकल कम्पनीन नोकरी धल्ली आनी मुलुंडाक जागा घेवन बायले भुरग्याक हाडून संसार थाटलो. पूण परते बायलेच्या स्वभावाक लागून आनी विश्वनाथाचे विचित्र वागण्या लागून ताजी बायल भुरग्यांक घेंवन परती बेळगांवा आपल्या भावा म्हन्यान रांवक लागली, थैंच तांची भुरगी बापायच्या मोगा शिवाय व्हड जाली. विश्वनाथूय मागीर कायमचो मडकयच रावलो. अेका हुशार मनश्याची विचित्र स्वभावाक लागून आनी मनमिळावू बायल न मेळ्या खातीर पिश्यांतुरान रावपाची पाळी आयली.

सुवर्णा म्हजी तिसरी चली आनी निमाणे भुरगे, रेखा फाटल्यान ते सात वर्सानी जाले. आमका सगळ्यांक दिसताले कि चलो जातलो. आदित्य सामको खुशीन आशिल्लो आपल्याक भाव खेळपाक मेळटलो म्हण. हे वेळारुय दतीची आवय मुंम्बय आयली पूण विनायकाच्या बायलेक माली गुरवार आशिल्लें, म्हण दतीची आवय दोन म्हयन्यान गोंया परती गेली. सुवर्णा हे नांव म्हजे व्हडले चल्येन, मिनान दवल्लं, ते तेन्ना अकरा वर्सांचे आशिल्ले. आनी भाषेचेर ताजे प्रभुत्व आशिल्ले. ताणे ते नांव सोदून काडले. रेखाचे नांव मात दतीचे आवयन आनी म्हजो साडू भौ. जंयवंतबाब आमोणकार हांणी ठारायले. तांका दिसले कि ते बरे चित्रकार जातलें म्हण चित्रलेखा दवरपाचे केल्ले, ताजे करता करता रेखा दवरचे नक्की जाले. रेखाचे डोळे रेखीव आशिल्यान हावेंय पसंती दाखयली.

अशे तरेन आमच्या माये सावलीन म्हजी भुरगी बरं संस्कृतीन वाडली. कलेचे आंग मिनान आनी आदित्यान लहानपणासून दाखयले. आदीत्य तर तीन-चार वर्साचो आस्ताना दती तापयता म्हण बाजेपोना वचून बाजेच्या फळ्यांचेर चित्रा काडी, तशेंच वंटीचेरुय ताणे,पयलीची मनश्या काडटाली तशी हत्यारान खरवडून चित्रा कांडल्या,ती आजूय तशीच आसात. तशेंच ताणे आपल्या पांचव्या वर्सा काढ्डीलें चित्र गोंयचो अेक प्रख्यात कवी भौ.श्री रवी पंडीत हांच्या आपल्या अेका कवीता संग्रहान छापीलें. ते चित्र हांव आनी आदित्य अेकदा ताज्या गोंयच्या आल्तीनोच्या घरा गेल्ले वेळा पंडीतबाबान दाखयले. मिना आनी आदित्य तांच्या बालमोहन विद्यामंदिर ह्या शाळेन चित्रकार म्हण प्रख्यात आशिल्ली. रेखा चित्रकार जातले अशे दिस्तालें पूण जाले ना. सुवर्णा मात लाईन ड्रॉइंगस काडटले. ताजो अुपयोग ताका आर्किटेक्ट जातना जालो. मात आयज म्हाका परते परते दिस्ता कि आदित्य आर्किटेक्ट जाल्लो जाल्यार खुब बरो आर्किटेक्ट जातलो आशिल्लो. आयजूय तो डॉक्टर आसूनय प्लान काडपान हुशार आसा. मिनाक मनापासून डॉक्टर जावपाये आसले, मात ताजे परिक्षेक नर्व्हसपणा लागून हुशार आसूनय मेडिकलाक वचपाक शकलेना. ताणे मागीर मायक्रोबायोलॉजी हो विषय घेवन अेम.अेस.सी. केलें ताजो घोव भौ. महेन्द्र सरदेसाय आनी ती दोंगाय व्हडलं चली लिना आनी चलो संदिप वांगडा मजेन रावतात. थैं मिनान आपली कला

चालू दवल्या. चित्रा शिवाय ते टेराकोटाची शिल्पांय करता. लिना डॉक्टर जाला आनी ताजो घोंव हेबर्ट होवूय जर्मन डॉक्टर आसा, संदिप मात अिन्जीनीयर जातलो म्हण्टा.

रेखाक लहानपणासून डॉक्टर जावपाची सामकी अिच्छा आशिल्ली, तशें ताणे बरे मार्क घेवंन जे. जे. मेडिकल कॉलेजीन प्रवेश मेळ्यलो, आनी निमाणे ऑप्थोल्मोलोजीस्टचो डिप्लोमा मेळ्यलो. तांतूर ते अेम अेस जावपाचे म्हळ्यार, ताजे रोखडेच लग्न डॉ. अरुण सावर्डेकार, हो बालरोग तज्ञ आसा, हाजेकडेन जाले आनी ताजे वांगडा ताका अमेरीकेक स्थायीक जावचे पडलें. ताणेय मागीर भंयची परिक्षा पास जावन जेरियाट्रीक ऑप्थोल्मोलोजीस्ट म्हण अेका हॉस्पीटलांत नोकरी धल्ली. तांकाय मृनाली आनी आमोद अशी दोन भुरगी आसून तीं सुखान आसात. मृनाली ना ना करता करता डॉक्टर जाले तशेंच चलो आमोदाचोय कल डॉक्टर जावपाचो आसा. आदित्याक मेडीकल कोर्स करपाक गोंया वचचें पडले. हरशी हुशार आसून अितर गोष्टींनी ताजे लक्ष चड आशिल्यान मेडीकलचो कोर्स करपाक ताका थोडो वेळ लागलो. पूण ताजी जिद्द खुब मोठी. अेकदा ताणे थारायले किं आपूण अेक काम करतलो जाल्यार कितलेय त्रास पडल्यारुय ते काम वो शिक्षण तो पूर्ण करतलोच. आमी आनी म्हजे डॉक्टर जाल्लें रेखान ताका कितले समजायले किं तू फॅमिली फिजिशियनची प्रॅक्टीस सूरु कर. जाल्यार ताणे स्पेशालिस्ट जावपाचे थारायल्लें. कला सामाळून डॉक्टरकी करोप कठीण, म्हण्टकर त्रास कमी आशिल्ली सर्जरीची ब्रान्च म्हळ्यार नाक, कान, घसा वो डोळ्यांची, पूण रेखान डोळ्यांची ब्रान्च घेतील्यान ताणे कान, नाक, घश्याचो तज्ञ जावपाचे ठरायले आनी तांतूर ताणे अेम अेस हि डीग्री आनी डि. ओ. आर. अेल हो डिप्लोमाय मेळयलो. तेवळा म्हंजे आनी दतीचे आनदांक पंख फुटोल्लें. आदित्य आनी अितलो शिकतलोशें आमका केन्नाच दिसू नासले. पूण ताणे मनाचे दृढतेन तें करुन दाखयलेंच. म्हजो भाव नारायबाब आनी आदित्यान फरक होच. नारायणबाबाक खुब गोष्टींनी ज्ञान आशिल्लें. पूण कसलोच गोष्ट ताणे पूर्णत्वाक व्हेली ना आनी नाव कमायले ना. जाल्यार अश्योच खुब गोष्टी आदित्यान पुर्णत्वाक व्हरुन नांवूय कमायले. आदित्यान

आपले पयले पेन्टींगाचे प्रदर्शन गोंया मिनेज ब्रागान्झा हॉलान केल्ले तेन्ना प्रत्येक चित्राचे वर्णन अेका कवितेन केल्ले. त्यो सगळ्यो कविता आनी मागीर आनी बरोयल्यो कविता म्हण पन्नास कवितांचे पुस्तक "गोंयचो परमळ" हें नांव दिवन छापून हाडले आनी ताजे अुक्तावण तेन्नाचे गोंयचे मुखेल मंत्री श्री रवी नायक हांचे हातान मडगांवा जाले. तशेंच ताणे नाक, कान ताळ्याचे विषयानी खुब प्रयोग केले. आनी ताजे निबंध कान्फरेन्सानी दवल्ले. ताजे कांय प्रयोगाची नक्कल अमेरीकेच्या अेका कम्पनीन करुन ती ताजेर पैशे कमायता. म्हाका दिस्ता नशिबाची साथ मातशी चड आदित्याक आस्ता जाल्यार जगान तो नांव कमायतलो आसलो. पूण म्हाका खात्री असा किं अेक दिस तो म्हजे नांव परतो वैर काडटलो. आता तो नाकाच्या नव्या शल्यक्रियेंच्या फाटल्यान आसा आणी ताका तातून खुब यश मेळटा म्हण हांलीच ताणे म्हाका सांगाले. नाकाच्या त्रासान पडिल्या रोग्याक त्या शल्यक्रियेन खुब फायदो जांवक येता. आदित्याचे जगभर नांव जाल्यार पुरो म्हण देवाकडेन मागता गोंया मेडीकल कॉलेजांना शिकताना ताजे निता वांगडा प्रेम जाले. दोगांय मावशे भांवडा, निता दतीचे व्हड भयण हिराबाई वर्दे आनी कै. भौ. शिवाजीबाव वर्दे हांची धाकटी चली. तिवूय मेडीकल कोर्साक वचून बधीर चिकित्स्यक जाले. लग्ना मागीर ते मुम्बय आमच्या वांगडा रावन अि. अेस. आय. रुग्णालयात अनेस्थेटिस्ट म्हण काम करता. निता अन्नपूर्णा म्हळ्यार फट जावचे ना. ताजे तरेतरेची भारतीय नी वेस्टर्न खाणा करपान हातखंडो आसा. मात म्हाका ताणे केल्ली 'चिकन बिर्याणी' अितली स्वादिष्ट बिर्याणी फुडे, आनी खंयच्याय फायव्ह स्टार हॉटेलातली बिर्याणी बरी लागना. तरेकवार ताणे केल्या जेवणान आनी दतीच्या स्पेशयालिटी जेवणान आमका घरच्याक हॉटेलान वचपाचे व्हड व्हडके नास्तात. दती शिवराक आनी नुस्त्याचे जेवण खुबच बरें करता. तशेंच तरेकवार खाणा करपाक ताजो हात धरपी आमच्या आवाळगोत्रान कोणच ना म्हळ्यार जाता. नितानूय आता खाणा करपाचें दतीकडल्यान शिकून घेतला. दोगांय अेकामेकांक बरो सामाळून घेतात. आदित्याक दोन चलयो. व्हड मुग्धा नी ल्हान लुब्धा, दोगांयन पाच वसांचे अतर. मुग्धा हे नाव आदित्याक हांवें केल्लें अेका चलयेच्या पुतळ्याच्या नावांवल्यान सुचलें आनी

आवडले. मात लुब्धा हे ताणेंच दवल्लो. नांवा बशेन दोगींय म्हज्यो नाती आसात. दोगांय अभ्यासात हुशार आसात. मुग्धाकूय चित्रा काडच्याची आनी सजावट करपाची आवड. नशेंच स्कुलात बी ताणे वकृत स्पर्धेत भाग घेवन बक्षीसा मेळ्यल्यात. रेखाबशेंन ताकाय ल्हानपणासून मेडीकलाचे आकर्षण. मेडिकलच्यां पयल्या वर्सा ते आसा. लुब्धाक मात कलेचे आंग ना. मात ताजो ताळो बरो आसा आनी गाण्यचे क्लासीक आतांच वचपाक लागला.

सुवर्णा म्हजे धाकटें अपत्य. म्हण्टकर म्हजे आनी दतीचे लाडके. बाकीचे भुरग्या फाटल्यान चड तेपान जाल्यान आमचे ते लाडके शेंडेफळ म्हणपाक हरकत ना. ताका खरे डॉक्टर जावपाचे आशिल्ले पूण रेखा आनी आदित्यान मेडिकल अभ्यास खुब त्रासाचो म्हण ताका आर्किटेक्चराक वचपांचो सल्लो दिलो आनी ताणेंय बाबड्यान मनाविरुद्ध आर्किटेक्चराक प्रवेश घेतलो आनी तो कोर्स पूर्ण केलो. मात मदीं मदीं ते आपली व्यथा आमचेकडेन अुक्ते करता, पूण प्रत्येकाच्या नशिबान ठारायला तेंच घडटा ताका ते किंदे करु शकता.

आदित्या फाटोफाट दुसऱ्या वर्सा सुवर्णाचे लग्न सावर्डेचे श्याम नाडकर्णी हे अिन्जीनीयर चल्याकडेन जाले आनी ती अमेरीकेक सेन्ट लुयीस म्हण्टा थैंय रावतात. सुर्वणान थैंच्या अेका आर्किटेक्चरच्या फर्मात काम धल्लां जाल्यार, श्याम अेका कन्स्ट्रकशान कन्म्पनीन कामाक आसा. तांका दोग्यांकूय अक्षय आनी अनीशा नांवाची दोन अपुरबायेची भुरगी आसात आनी मजा म्हळ्यार दोगांयकूय बरी चित्रकला येता. तीवूय आदित्याबशेंन ल्हानपणानूच चित्रा काडटात.

अेकूण म्हजी भुरगी आनी नांतराक कलेचे आंग बरें आयला तरी ताज्या फाटल्यान न लागता ताणी म्हाका आनी दतीक मनापासून आवडटा ते शिक्षणान,तंवूय अुच्च शिक्षणांन लक्ष घाले ते चड कौतुकाचें. दतीकूय खंय ल्हानपणासून शिकपाचे आसले. पूण गोंया ते शक्य जाले ना. तरी ताणे भुरगी व्हड जातकर पिंग क्लासीस वचून नववी पर्यंतचे शिक्षण घेतले. ताका मिनान, रेखान आडकाठी करना जाल्यार तें मेट्रीक पास जातले आशिल्ले वो फुडंय शिक्षण घेत आशिल्लें. हांवेय ताका चड प्रोत्स्वाहन दिवक जाय आसले. पूण ते

बरे अिग्लीश अुल्यता वाचता. आगाथा क्रिस्ती ही ताजी आवडटी लेखीका. तिजी कितलीशींच पुस्तका ताणे वाचून काडल्यात. वाचना बशोन दतीक समाजसेवाय करपाची अिच्छा आशिल्ली. पूण म्हजी कामा आनी भुरग्यांचे शिक्षण काडपानूच ताजो वेळ चड गेलो. पूण ताणे केन्नाच कूरकूर केली ना. पुष्पाराणी सदांच आपणाले भुरग्याचे आनी सोयऱ्यांची कामा आनंदान आनी अुमेदीन करता. हांव चड तयार नासलो तरी दतीक लागून म्हजे घरची आनी ताज्या घरची मंडळी आमगेर रावन, शिकून बी आयज व्हड मनीसपणाक पावल्यात पूण ताका त्या गोष्टीचो गर्व ना वो कसलेच काम करपाक ती फाटी रावना. केन्नाय म्हज्या कामाक मनीस मेळ्ळोना जाल्यार ताणे म्हज्या खांद्याक खांदो लावन माती कालोवपापासून ते प्लास्टर कालोवन दिवपाक मदत केल्या. ताजे शिक्षणाचे आवडीनूच म्हजी सगळी भुरगी अुच्च शिक्षण घेंवक शकली अशें म्हाका दिस्ता. आदित्या सारख्या भुरग्याक, जाका ल्हानपणासून कलेची आवड मनापासून आस्तना आनी अभ्यासाकडेन कमी लक्ष दिता आस्तना,म्हाका दिस्ता दतीन अभ्यासाखातीर फाटल्यान लागील्यान शेवटी ताका अभ्यासानूच फुंडे वचपाची आवड जाली जावये, तीजेंच बरे लक्षणाचे गुण भुरग्यांक आयल्यात. हे सगळे भुरग्यांचे आनी दतीचे निसुवार्थी गुणाक लागून हांव म्हाका भाग्यवान समजता. म्हाका दिस्ता कि अशेंयोच समाधानी वृतीच्यो नीगर्वी आवयो आनी भुरगी अख्ख्ये संसारात मनश्याक लाभत जाल्यार हो संवसार सुखी आनी समाधानी नक्की जातलोशे म्हाका दिस्ता.

हे म्हजे आत्मचरित्र आनी अेका नातलगाविशी बरल्याशिवाय पूर्ण जावपाचे ना. आनी तो म्हजो पुतणो म्हळ्यार मोहन. म्हजो व्हड भाव कै.भौ. कृष्णबाब हांचो व्हड पूत. पूण स्वभावान आनी विचारान तो आपल्या बापाय आनी भाव कमलापरस सामको अुजवो . आमगेर तो १९५४ सालात शिकपाक आयलो. ताकाय फुंडे शिकपाची मनापासून आवड आशिल्ली. दतीन ताका फुंडे शिकपाक सदाच अुमेद दाखयली. मोहन कमी अुलवपी, शांत स्वभावाचो, अुलट अुत्तर न दिवपी भुरगो आशिल्लो आनी आजूय व्हड जातकरुय तो तसोच स्वभावान अुल्ला ते विशेष. कै. भौ. कृष्णबाबान ताका मुंम्बय नोकरीखातीर धाडील्लो. ताजी हमी

म्हज्या धाकट्या भयणेन घेतील्ली कि कै. खंवट्याच्या ओळखीन ताका बरी नोकरी लावन दिता. पूण तांका ते शक्य जाले ना. तेन्ना म्हज्या अेका मित्रान ताका पोंट-ट्रस्टान कामाक लायलो. तो आमगेरुच रावतालो. केन्नाय गरज पडल्यार तो म्हजी कामाची पत्रा टायप करुन दि. मात मागिर ताणे बिऱ्हाड थाटले आनी आपल्या भयणी-भावांक मुम्बयन हाडून शिकयली. पूण अितले करता आस्तना आपणे फुडे शिकपाचे चालू दवल्ले. दतीय ताजी अुमेद वाडयताली. अशो तरेन ताणे अेम.अे. पर्यंत शिक्षण घेतले. पूण परिक्षेक बसपाक ताका निमाणे जमले ना. ताजे दतीकूय चड वायट दिसले. आपल्या कष्टान तो वयर सल्लो. स्व:ताचो ब्लॉक घेतलो. दोन चलयांक आनी चल्याक अुत्तम शिक्षण दिले. ताजो चलो संदीप शिकपाक हुशार म्हण्टकर अिंजीनीयर जावन आयज केनेडाक वास्तव करुन आसा. वेगळो रावनूय मोहन म्हाका गरज पडटा तेन्ना अिंकमटेक्स भरपाक मदत करता आंनी आमगेर अेवन वचून आस्ता. कांय मनश्याक अेका कुटुंबाचो मोग जालो कि ते तांका केन्नाच विसरनात. तातुल्लो मोहन अेक.

धा वर्सा जाली हे आत्मचरित्र बरोपाक घेतल्यार. हे १९९८ चे वर्स, हांव आता चवद्याण्णव वर्सांचो म्हातारो जाला. १९९४न म्हाका पयलो काळजा रोग जालो त्यातून बरो जातासर स म्हयन्यान दुसरो काळजा धक्को बसलो. तरी जिवन जगपाची तिव्र अिच्छा म्हाका म्हज्या मोगाळ बायलभुरगी-नातवंडा खातीर मेळटा हे हांव जाणा. तीच म्हाका जगपाची शक्ती दितात. आता १०० वर्सा जगत काय हो प्रश्न पडला. निदान २००० वर्सा सरुन फुडले मायलेनीयम पळोवपाची अिच्छा दांडगी आसा. काळ किदें ते ठरयतलो ते पळोवया.

